जाय काय जूय ?
(ललीत गद्य)

Jai kai Jui ?
( Essays )



पयली उजवाडावणी : डिसेंबर २००२

उजवाडावपी : दत्ता दामोदर नायक

अक्षर जुळोवपी : स्नेह ग्राफीक्स,ताळगाव,गोंय

मुखचित्र आंखणीः नीला रॉड्रीग्ज

छापणावळ : ए ॲन्ड ए कम्युनिकेशन्स्, कोल्हापूर

मोल :रू. ५०/-

पूर्व प्रसिद्धीः
सुनापरान्त, बिम्ब

**दत्ता दामोदर नायक**
'लोकायत',
आचार्य धर्मानंद कोसंबी मार्ग
पो. बॉ. नं. ७, कोंब - मडगांव - गोंय
पिन कोड - ४०३ ६०१
फोन - ०८३२ - २७३६८४६ (घर)
०८३२ - २७३४०९० (ऑफीस)
e-mail: kdnaik @ cdhomes.com

**शिक्षण -** बी.ए. (अर्थशास्त्र, संख्याशास्त्र)
**व्यवसाय -** उद्योजक
**वेपारी आस्थापनां -** मेसर्स काशिनाथ दामोदर नायक
न्यू मिलेनियम बेकर्स
देविका बिवरेजिस प्रा. लिमिटेड
कॉमनवेल्थ डेवलपर्स

**भोंवडी -** पुराय भारत, नेपाळ, थायलंड, मॉरिशस, इंग्लंड, फ्रान्स, बेल्जियम, हॉलंड, जर्मनी, स्वित्झर्लंड, इटली, कुवेत, ओमान, युनायटेड अरब एमिरेटस
**संस्थाकडेन संबंद -** राष्ट्र सेवा दल, समता आंदोलन, अंधश्रद्धा निर्मूलन समिती,समाज सेवा संघ, गोमंत विद्या निकेतन, कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव फर्स्ट, गोवा चेंबर ऑफ कॉमर्स ॲन्ड इंडस्ट्री, गोवा चेंबर ऑफ हावसिंग इंडस्ट्री.

**मराठी पुस्तकां-** काणकोण : एक सर्वांगिण अभ्यास - १९७३
होते कुरूप वेडे (सत्तरी तालुक्याचा अभ्यास) -१९७४
**कोंकणी पुस्तकां-** कालीघाट ते करूणाघाट (प्रवासवर्णन) - १९९५

**फुडलीं पुस्तकां** अरेबियन डेज (प्रवासवर्णन - कोंकणी)
एका नास्तिकाचो देवारो (वैचारीक निबंद - कोंकणी)

## अनुक्रम


१. दनपार ... ... ... १
२. रोजां... ... ... ... ३
३. सह नौ भुनक्तु ... ... ... ६
४. साकरन्हीद ... ... ... ९
५. तीर्थस्नान ... ... ... १३
६. जनेलांचें जग ... ... ... १७
७. सुग्रीवा ... ... ... २०
८. अनवळखीपणाचें सुखदुःख ... २४
९. जाय काय जूय ? ... ... २८
१०. खिस्तजल्माचो सुवाळो ... ... ३१
११. या शुभ्रवस्त्रावृता ... ... ३४
१२. गोलघुमट ... ... ... ३७
१३. दुखां... ... ... ... ४०
१४. चावी... ... ... ... ४३
१५. फुलांचो खुरीस ... ... ४७
१६. सावळ्यो ... ... ... ५०
१७. चिंचेबोटां ... ... ... ५३
१८. जांचीं काळजां सांताक्लॉजाचीं आसतात... ५६
१९. मरणांतलें कवित ... ... ६०
२०. मंदार ... ... ... ६३
२१. सादिका ... ... ... ६७
२२. समथिंग इज मिसींग इन युवर हाव्स... ७३
२३. खुशी ... ... ... ७८
२४. नागव्याची काणी ... ... ८३

# दनपार

पारजती फांतोड, तिजे फाटोफाट सुस्नात सकाळ, गाबणी मध्यान मागीर तृप्त समाधानी वत्सल दनपार, सुरंगी सुगंधी सानवळ. तिजे फाटल्यान गोरज पावलांची गांधर्वी तीनसांज, शांत, सुशांत रात. मागीर विरक्त अनासक्त मध्यानरात.

दिसाचो असो अष्टप्रहरी पिसारो! गोकुळांतल्या घननीळ गोपाळकृष्णाभशेन कालचक्राच्या कालियाचेर उबो राविल्लो एकेक दीस. ताज्या माथ्यावयल्या मुकुटांतली ही आठ मोरपिसां. तांतूत म्हाका सगळ्यांत प्रिय ती दनपार - तीय उत्तर दनपार. दनपार आनी सानवळ हांचेमदलो संधीकाल.

दिसाच्या आंगणांतले वताच्या गर्द हडव्या पानांनी सळसळपी दनपारचें झाड! सुवर्णवर्खी हळदीचो लेप लावून न्हाल्ले व्हंकलेभशेन प्रसन्नमुखी.

वताच्या पावसांत थुय थुय नाचपी दनपारचो लावण्यमयी मोर.

दनपार जाता जाता म्हणसर सकाळचें धारोष्ण वत आटीव केशरी जावंक लागता. उत्तर दनपरां वताची अमुरपिकसाण वचून तें रसाळ पिकें जांवक लागता. दिसाचे परातींतली त्या मोव वताची साकरसाय म्हाका आवडटा.

मोतया कोराची गुबगुबीत दनपार मांजराभशेन आपलेंच आंग चाटता तें घराच्या आंगणांत बसून हांव पळयतां. कापराच्या आंगाची कर्दली दनपार केळीभशेन घडाच्या भारान लवंडूक लागता तें पळोवन म्हाका तिजी तोखणाय दिसता. मळबाच्या पोरसांतले उजवाडाचे घडाय पिकूंक लागतात तेन्ना ती तृप्त समाधानी दनपार पोक्त प्रसन्न मुद्रेन हांसूक लागता.

लग्न जातकीर पयलेच फावटी कुळारा आयिल्ले व्हंकलेभशेन दनपार रूखांपोदां सावळ्यांच्या झोपळ्याचेर बसता. सानवळा फुलपी फुलांचे सुगंधी गर्भारपण तिज्या पावलांत जडसाण हाडटा. तळयेंत फुलिल्या निळ्या निळ्या कमळांनी पळयल्लें गोड दिसा-सपन तिज्या दोळ्यांत म्होंवसाण हाडटा

कणसांनी कुचकुचून गेल्ल्या शेतांची धोलती धादोसकाय सुरांचें रूप घेवन तिजे ओंठार देंवता. उजवाडाच्या रानांतली सुरंगा पुंजावन ही दनपार केन्ना केसांत तांचो सुरंगा वळेसर माळून येता तर केन्ना वताच्या आंगणांतलीं रतनआबोलीं खुंट्टून ताची रतनकेशरी फांती माळून ती येता.

दनपार तशी अनवाणी पांयांनी येता. शेवण्यांचे मंजूळ घुंगरू बांदून येवपी फांतोडेभशेन ती पायांक कसले घुंगरू बांदना.

दनपार तशी मख्ख मोनी. अबोल, अशब्द! आंगणांत दोन चार चिमण्यो येतात पुणून तांची चिंवचिंव ना. रस्त्यार एक दोन कावळे पुणून तांचीय कांवकांव ना. हेर शेवणी मळबांत खंय शिंपडून गेल्यांत कोण जाणां. शेवण्यांच्या घोटेरांत तांच्या पिलांबरोबर वारोय बी सुस्त न्हिदला. दर्याची गाज आयकूंक येना. न्हंयचे व्हांवते उदकाची खळखळ ना. पिंपळांच्या पानांची सळसळ ना. मनशांचो खवदळ ना. दनपारचे अशें हें मख्ख मोनेपण म्हाका खूब आवडटा.

अशा दनपरा घरांत कोण नासचे. आंगणांत वोल्तेर घालून हांवे एकल्यानच बसचें. दनपारच्या मोनेपणांत भुरगेपणातले यादींची खडीसाकर हांवेय मख्ख मोन्यांनी चोखीत रावचें. नार्सिससाभशेन दनपारचे तळयेंत आपलेंच रूप तोखेत बसचें.

अशा वेळार मागीर ती दनपार सीतेचे पर्णकुटीसमोर नाचपी मायावी कांचनमृगाचे रूप घेवन नाचूंक लागता. मागीर ती दनपार स्थलकालाचीं न्हेसणां सोडून यमुनेच्या डोहांत न्हावपी विवस्त्र राधेचे रूप घेता. मागीर ती दनपार खांदयेखांदयेवयली एकेका बंधनाची पानांपाना गळोवन आसक्तीत बुडिल्ले अहल्येचे रूप घेता. मागीर ती दनपार दनपार उरना.

परकाया प्रवेश करपी जादुगारा भशेन ती दनपार मागीर म्हज्या आंगाआंगात रिगून वता.

अशी दनपार म्हाका आवडटा.



# रोजां

आयले, रोजांचे दीस आयले. भाद्रपद सोंपून आश्विन लागलो. लख्ख वताचे दीस आयले. पोरसांत रोजां फुल्लीं. वस्त्रगाळ हडव्या आनी केसरी रंगांची रोजां फुल्लीं.

नवरत्रां लागीं पावलीं. दसऱ्याची सुलूस लागली. दिवाळी हुमऱ्यार पावली. गडगड्यांचो पावस सोंपलो. मळबांतलीं काळीं कुपां वाऱ्याचें बोट धरून पयस पयस गेलीं. पावस पिवन शेतां गाबणी जालीं. धर्तरी सुजलाम सुफलाम जाली.

उजवाडाचे दीस आयले. परमळाचे दीस आयले. कळ्यांचे, कमळांचे, फुलांचे, फुलपाखरांचे दीस आयले.

रूपावती चान्याच्यो राती आयल्यो. वासांच्यो, सुवासांच्यो, श्वासां-उच्छवासांच्यो, साज-शृंगाराच्यो, साजन-शृंगाराच्यो राती आयल्यो.

धुक्याची पामरी पांगरून फांतोड आयली. मोनेळाच्या आंगणांत शेवण्यांनी सुरांची रांगोळी घाली. रूखावळी माथ्यार न्हावन धुवन सुस्नात जाल्यो. झरे, वझरे, तळयो, तळीं नितळ निवळ जालीं.

शेतां पिकलीं. बांदार तणाची रास पडली. निकत्याच जल्मल्ल्या बाळकाची आवय हांसची तसो तृप्त समाधानी हांसो तणाचे राशीर फुटलो. दाणोगोटो घरांत आयलो. शेतकामती धादोस जाले. जिणेंत थोडो सुसेग आयलो.

रेंवेत मुंगरिल्ले पांय उखलून तारवां दर्यात गेलीं. रांपणकारांनी दर्यांत रांपणी घाल्यो. खुबळिल्लो दर्या निवळ्ळो. मस्त आडांगी ल्हारां शाणीं जालीं. एकलो एकसुरो मनीसघाणो दर्या मनशाळून गेलो.

गाबाऱ्यांतले देव घुस्मटले. अनवाळेपण सोडून मखरांच्या झोपाळ्यांत बसले. झोपाळ्यांत बसून जाण्टे देव भुरगे जाले. देवींच्यो देविका जाल्यो. देवांनी बाळकरूप घेतलें.

सैमय आतां सान जालो. ल्हान जालो. मातयेक आंकरी आयली. देंठाक

कोमरी फुटली. केळींच्या हांडीर केळमे बसले.

फुलांचे दीस आयले. दशीण फुलली. देवकेळमे फुलले. रसरसून बोगनवेली फुलल्यो. दुदयाच्या वालींक गंद-हडवीं फुलां आयलीं. पाचव्या शेळ्यामदल्यान आपलीं हांसतीं तोंडां वयर काडून साळकां फुललीं. कमळां फुललीं. खोल खोल मातयेच्या गर्भांतलो सगलो रंग रोस चोखून रोजां फुललीं.

रोज हें मोटें राजस फूल. पारजताच्या फुलाचें ग्लॅमर ना ताका. पुणून रोज हें खूब पोन्नें, पुरातन, आदिम, आदिवासी फूल आसूंक जाय.

गोंयचें थळावें फूल जावपाचो मान जायां-जुयांपरस, मोगऱ्या-शेंवत्यापरस रोजाकच मेळूंक जाय इतलें हें फूल गोंयचे लोकजिणेकडेन तद्रुप जालां.

जंय जंय मूळ गोंयकारांचो राबितो आसा थंय थंय तांच्या घरा-खोंपीमुखार रोजांच्या फुलांची पखरण आसता. मूळ गोंयकार खंयचे ? मूळ गोंयचे काय दुसरे खंयचे ? कोण जाणा ! कितेंय आसूं, रोजांचो आनी तांचो संबंद आसूंक जाय. मूळ गोंयकार शेंकड्यांनी वर्सांआदीं खंयच्यान तरी गोंयांत आयिल्ले आसत जाल्यार येतना रोजांचो रोपो तांणी हाडिल्लो आसूंक जाय.

गोंयचे कृषी संस्कृतायेच्या माथ्यांत रोजांची फुलां जितलीं सोबून दिसतात तितलीं हेर खंयचींच फुलां सोबनात.

कसलो तरी अज्ञात इतिहास, कसली तरी विस्मृत लोकांकाणी, कसलो तरी अनाहत लोकवेद ह्या फुलाच्या काळजांत लिपील्लो आसूंक जाय. थळावी संस्कृताय सैमांतले दरेके गजालीचे हारशेंत आपलें कसलें ना कसलें रूप पळयता. रोजांमदीं गोंयचे संस्कृतायेन आपली कसली तरी वेदना, संवेदना लिपयल्या अशें म्हाका सदांच दिसत आयलां.

हेर फुलांभाशेन रोज हांसतें, आनंदी, तृप्त, समाधानी, फुल्ल, प्रफुल्लित फूल न्हय. रोजांच्या तोंडार म्हाका सदांच कसली तरी उदास सया पडिल्ली दिसता.

रोज हें शेतकामत्याच्या पोरसांतलें फूल. तांच्या काळजांत कडिल्लें कसलें दुःख रोजान आपले कुडींत गोठोवन दवरलां कोण जाणा !

पुराणांनी पारजताक सर्गांतल्या फुलाचो मान दिला आनी रोजाक पाताळांतल्या. वामनान पाताळांत चेपिल्ल्या बळीराजाचो आनी रोजाच्या फुलाचो कितें तरी संबंद आसत काय? शेकड्यांनी वर्सां उपरांत आजय केरळापसून महाराष्ट्रामेरेनचो शेतकामती बळी राजाची याद काडटा. रोजाच्या फुलाक अभिजनांचे संस्कृतायेन कसलीच सुवात दिवंक ना. पुणून लोक संस्कृतायेन ताका लोकराजा बळीची याद म्हणून मानाचो पाट दिला.

फुलांचे भाशेंत उलोवचें जाल्यार भारतीय संस्कृतायेचे दोन पोड दिश्टी पडटात. एक पारजताचो आनी दुसरो रोजांचो.

पारजत हें अनवाळें, आफूड भश्ट मानपी ब्राम्हणी संस्कृतायेचें प्रतीक. नाजूक देंठाचें आनी फुलता म्हणसर ताळयेपासून तुटपी फूल. एकाच्या पोरसांतले जीवनसत्व चोखून दुसऱ्याचें आंगण सोबीत करपी, धवें फुल्ल पुणून भितल्ले बुद्दीचें फूल.

रोजाचें तशें न्हय. रोजाचो देंठ घटमूट आनी देंठाची नाळ मातयेच्या गर्भामेरेन गेल्ली. रोज मोटें पारदर्शी आनी प्रामाणिक फूल. जाच्या पोरसांत फुलता ताच्याच पोरसाची सोबा वाडोवप हो ताचो धर्म. रोज भायर भितर कांय दवरना. दाखय लिपय करिना. कवींनी आनी म्हाकवींनी पारजताची स्तोत्रां गायल्यांत. रोजाकडेन मात पळोंवक लेगीन ना. पुणून लोक संस्कृतायेन रोजाक ताचें रोजपण दिलां.

दसरो ही भारताचे कृषी संस्कृतायेची परब. सृजनाचो आनी सुफलीकरणाचो हो उत्सव. मातयेच्या घटाची पुजा करपाची ही परब. रोजांबगर ही परब मनोवंक मेळना. आंब्याच्या पानांमदीं लोकसंस्कृतायेन रोजांच्या फुलांक गुंथल्यांत. तांची माळ आपल्या गळ्यांत घाल्या. तांचें तोरण आपल्या घराच्या दारार लायलां. ताचे हार हांड्यांच्या आनी कळसुल्यांच्या गळ्यांत बांदल्यांत.

इंग्लिशींत रोजांक मोटें सोबीत नांव आसा. मेरीगोल्ड. भाशेतलें एकेक उतर खूब अर्थगर्भ आसता. पाश्र्चात्य संस्कृतायेन जेजूक आंकवारपणांत जल्म दिवपी मेरी मातेचो उगडास रोजांच्या फुलांत गुंथून दवरला.

एकेका फुलाची एकेक काणी आसता. आश्विनाचे फाटीर बसून येवपी रोजांचे दीस, आपले भाशेंत ही काणी आमकां सांगतात.



# सह नौ भुनक्तु

म्हाका आयची भाकरी दी अशी वो अशा अर्थाची प्रार्थना सगल्या भासांमदी, सगल्या धर्म-संस्कृतायांमदी आसा. पुणून 'सह नौ भुनक्तु' हे प्रार्थनेतलें भावसौंदर्य अप्रूप तें अप्रूपच.

तोंड गोड कर, मूँह मीठा करो, तेरे मुँहमें घी शक्कर अशा अर्थाच्यो ओंपारीय भासाभासांमदीं शिंपुडल्यात. पुणून सह नौ भुनक्तु मदलो गोड भावार्थ तांतूत ना.

जिबेक रूचीचे कळे (टेस्ट बड्स) आसतात अशे तरेची उतरां इंग्लीश भाशेंत आसात. गीर्वाणभारतींत ताका जिव्हालौल्य म्हळां. खाणाजेवणाच्या फकत विचारान वो वासान तोंडाक उदक सुटचे इतली ही आमची जीब संवेदनशील. नाक, कान दोळे आनी कात ह्या हेर इंद्रियांपरस खूबच शारिर. खूबच जिती.

कोणाक संगीताचो कान आसता. कोणाक परमळाचें नाक आसता. कोणाक सोबितकायेची नदर आसता. कोणाक कातकुतल्यांची कात आसता. म्हाका रूचीची जीब आसा. म्हजे जिबेक रूचीचे कळे आसात. सुर्याक देखून सुर्यफूल फुलचें फुलांच्या परमळान फुलपांखीं पिसावचीं तशे रूचीच्या यादीन, वासान, उतरान, दृष्टीन आनी स्पर्शान म्हजे जिबेवयले रूचीचे कळे फुलून येतात.

खावप-जेवप म्हळ्यार उदरभरण न्हय तें एक यज्ञकर्म अशें म्हळां ते म्हाका पट्टा. अन्नाक परब्रह्माची सुवात दिल्या तें पळोवन म्हाका खूब खोस जाता. खाणाजेवणांचे दुवाळे लागपाची लोकवेदांतली संकल्पनाय म्हाका आवडटा. बरें रांदप करपी बायलेचो अन्नपूर्णा वो सुगरण अशीं विशेशणां दिवन भौमान केला तें पळोवन हांव खुशालभरीत जातां.

महाभारतांतलो भीम म्हाका सगल्यांत आवडटा तो एक बऱ्यांतलो बरो रांदपी आनी बऱ्यांतलो बरो खावपी आशिल्लो म्हणून.

पुराणकथांनी रांदप ही एक श्रेश्ट कला मानल्या. नळराजा आनी भीम, पार्वती आनी सीता हांणी रांदपाच्या कलेंत नैपुण्य मेळयलें हें मोटव्या भौमानान सांगलां.

संस्कृत नाटकांनी जेवणाक लाळेल्ल्या विदुषकांक तोमणे मारल्यात जायत पुणून ते भोव अपुरबायेन मारल्यात.

मोदकैः ताडय (मा उदकैः ताडय) हातुंतली संधी समजनाशिल्या राजाची काणी अशीच मजेची. न्हंयच्या उदकांत न्हातना एक राजा आपले राणयेचेर उदक मारता. ती म्हजेर उदक मारूं नाका अशें म्हणटा तें आयकून राजा ती आपल्याचेर मोदक मार अशें म्हणटा अशें समजता आनी राज-पाकांतले मोदक हाडून तिजेर मारता अशी ती कथा. हे कथेंतल्या राजाच्या संस्कृत व्याकरणाच्या अज्ञानापरस ताजो मोदकांवयलो मोग म्हाका अदीक तोखणायेचो दिसता.

सृश्टीची निर्मणी कशी जाली हें सांगपी तरांतरांच्यो काणयो आसात पुणून तातूंतली एक काणी म्हाका आवडटा.

सैमान सृश्टीची निर्मणी केली तेन्ना आर आनी पार नाशिल्लीं पांच आयदनां हाडून रान्नीर दवल्ली. एकांत धर्तरी रांदली. दुसऱ्यांत उदक तापयलें. तिसऱ्यांत वाऱ्याक खतखतो काडलो. चवथ्यांत उजवाड शिजयलो आनी पांचव्यांत अंतरिक्षाची गरगरीत पुरी तळून काडली. अशी ती पंचमहाभुतांच्या जल्माची काणी. घडये रांदपाची कला कितली मुळावी, कितली सनातन, कितली आदिम हें सांगपी ही काणी.

जिणेंत खूब गजाली शिकपाच्यो उल्ल्यो तातूंत रांदपाची कला शिकलोंना हाजी म्हाका सदांच खंत जाता. रांदपाक जाणी स्त्रैण मानलां तांकां हे आद्य कलेंतलो पुरूषार्थ खबर ना अशेंच म्हणूंक जाय. रानचीकूड ही देवाकुडीपरस कितलीशीच पवित्र आनी घराची सर्वार्थान गर्भकूड अशें म्हाका दिसता आनी हे कुडींतलें देवस्पण म्हाका कळना हाजें म्हाका वायट दिसता.

देवांक निवेद्य दाखोवपाची पध्दत म्हाका आवडटा. सत्यनारायणाची भिरभिरी माल्ली तरी घराव्या तुपांतलो केळ्याच्यो फोडी भरशिल्लो सत्यनारायणाच्या दोण्यांतलो शिरो म्हाका आवडटा. पांच श्रावणी आयतारांची मणगण्याची, पायसाची, पातोळ्यांची, सुकूर उण्यांची, पोळ्यांची पंचपक्वान्नां म्हाका आवडटात. समराधनेच्या शिवराक जेवणाक येवपी घमघम म्हजे जिबेक बुल्लुसायता. नुस्तें आसल्यार गोंयकार वीर नुस्तें नासल्यार गोंयकार व्हीर अशें नुस्त्यांचे सुपुल्ले मत्स्यायन बरोवपी बाकीबाबांन समराधनेच्या जेवणांतले बिमलांचे रायतें, करमलांचे लोणचें, निरपणसाच्यो फोडी, आमाड्याची

उड्डमेथी, घोटांचें सांसव, केळफुलाची शाक, अनसापणसाची भाजी आनी कणगांची खीर खावंक नाशिल्ली काय ? न्यूटनाक गुरूत्वाकर्षणाचो सोद लागलो त्या दिसांपरस ज्या दिसा क्रोकणातल्या कोणा सुगरणीक किटाचो पोस करपाचो सोद लागलो तो दीस म्हाका अदीक व्हड दिसता. तट्टटीत अळमी हाडून तीं चरचरीत तळप, फडफडीत सुंगटांच्या हुमणांत मुळो, भेंडो वा मस्काची सांग घालप, सांज्याची सांजोरी करप, सुक्या बांगड्याची किसमूर करप, सुरबूस खडपी कुल्ल्यांचें सुकें करप हे अन्नब्रह्मांडाच्या इतिहासांतले केदे व्हडले सोद !

शेवयो आनी शिरवळ्यो, वांयग्याचें भर्त आनी तिसऱ्यांचे दांगर, तवसळी आनी धोणस, सोर्पातेल आनी आप द कामरांव, चुरमो आनी तिखशे फोव, कालवांचें तोणाक आनी बांगडुल्यांची उड्डमेथी -- गोंयच्या जेवणांतलें हें रुचीवैविध्य आनी रुचीवैचित्र्य पळोवन हांव सदांच अजापीत जातां.

गोंयापासून खूब पयस आसतकीर गोंयची याद जाता. ना ! फट !! गोंयच्या जेवणाची याद जाता. अश्टदिशांतले म्हजे भोंवडेंत हांव तरांतरांचे जेवण जेवलां आनी तृप्त, संतृप्त जालां. ते नदरेन म्हजी जीब बरीच कॉस्मॉपॉलिटन जाल्या. पुणून गोंयच्या जेवणाकडले नातें तिणे सोडूंक ना.

गोंयापासून पयस आसतना म्हजे जिबेक गोंयच्या सुक्या सुंगटांची, खाऱ्या बांगड्याची, चरचरीत विस्वणापोस्ताची, फडफडीत वागयांची याद जाता. तांदळाचे भाकरेची, लसणीचे चटणेची, दुदयाचे भर्ताची रूच येता. मागीर म्हजी जीब पिसावता. कामातूर विरहिणीचे ताकतिकेन ती म्हाका गोंयचे भूंयेर हाडटा. आनी म्हणटा "सह नौ भुनक्तु" आमी दोगांय जेवया आतां.



# साकरन्हीद

जांकां न्हीद पडना अशा लोकांक पळयतकीर म्हाका भंय दिसता. जिंदाल फार्मात आसतना थंय म्हाका असो एक मनीस मेळ्ळो. ताका रात रात न्हीद येनाशिल्ली. ज्या दिसा न्हीद ना येवपी मनशाचे तळमळे हांवें आयकले ते राती असलें न्हीद ना येवपाचें दुयेंस म्हाकाय जायत हे चिंतेन म्हाका रातभर न्हीद पडली ना.

हांव आळशी न्हय. पुणून न्हीद म्हाका खूब प्रिय. रातभर जागरणां करून न्हिदेचो उपास करप म्हाका आवडना आनी वरांची वरां बाज्जेर पडून लोळत रावून अजीर्ण जाय म्हणसर न्हीदपय म्हाका मानवना. न्हीद कशी जाय तितलीच आसूंक जाय.

तश्यो म्हज्यो सगल्यो न्हीदो साकरन्हिदोच आसतात.

शिशिरांतले शियांचे दीस आसचे. दिसभर उपाट काम करचें. आमोरेर घरा परतुचें, गरम उदकाचो शॉवर घेवचो. पोटभर जेवचें. मध्यान रातीमेरेन वाचत वा बरयत बसचें. जनेलांतल्यान मळबांतली लखलखीत नखेत्रां पळोवचीं आनी अशे पिके रातीं दाट गोजडी घेवन सुस्त न्हिदचें. फांतोडेर जाग येवची. बेगीन उठपाची ताकतीक नासची. परत आंगार गोजडी घेवची आनी परऽत सुस्त न्हिदचें. स्वर्गादपि गरीयसी अशें हे न्हिदेचें सुख.

ध्यानान आनी समाधीन कुडीक आनी मनाक जी थाकाय मेळटा तशीच आनी तितलीच थाकाय मनशाचे कुडीक आनी मनाक बरे न्हिदेनय मेळटा, असो वैद्यकीय रिपोर्ट हांवे कांय वर्सां आदीं वाचिल्लो.

तेन्नासावन ध्यान धारणा, सिध्द समाधी असल्या भानगडींमदीं हांव घुस्पूंक ना. म्हजी न्हीद, म्हजी साकर न्हीद म्हाका हें सगळें आपसूक दिता.

हांव योगासनां मात करतां आनी शवासन हें म्हजें सगल्यांत आवडीचें आसन. मड्याभशेन न्हिदप पुणून पुराय न्हिदप ना, जागो रावन न्हिदेचें सुख

घेवप हो एक मजेशीर अणभव. पुणून न्हिदून न्हिदेचें सुख घेवप हो ताचेय परस अदीक सुखद अणभव अशें हांव मानतां.

कुंभकर्ण स स म्हयने न्हिदतालो. मड्याभशेन न्हिदतालो. हाचें म्हाका सदांच अजाप आनी अप्रुप दिसलां. राम रावणाच्या युध्दांत कुंभकर्णाक न्हिदेंतल्यान उठोवंक नाशिल्लो आनी स म्हयन्यांची न्हीद पूर्ण जातकीर कुंभकर्ण आपले आपूण उठिल्लो जाल्यार तो राम लक्ष्मणाक हारोवन जैतिवंत जातलो आशिल्लो असो एक विचार ल्हानपणांत रामायण वाचतना म्हज्या मनांत आयला. कुंभकर्ण न्हिदिल्लो आसतना लंकेचेर घुरी घालपाची बुद्द बिभिषणान रामाक दिवंक जाय- हाचेविशीं म्हाका दुबाव ना.

शिणिल्ले कुडीक तरतरीत करपी, श्रांत मनाक विश्रांत करपी न्हिदेचेर म्हजी अशी ही परम श्रध्दा. निर्माल्याचो पांटलो ताजो टवटवीत करपाची कसली जादू न्हिदेच्या तिर्थांत आसा हांव नकळ. कळमेल्ले कुडीक कलय काडपाची कसली कांडी तिचेकडेन आसा तेंय म्हाका खबर ना.

विश्वाची उत्पत्ती जावचे एक खीण पयलीं कितें आशिल्लें हो मोटो गहन प्रस्न. पुणून न्हीद पडचे एक खीण पयलीं आनी जाग येवचे एक खीण पयलीं कितें जाता हो लेगीत म्हजे नदरेन मोटो गहन प्रस्न. न्हिदेपयलींचो आनी जाग येवचेपयलींचो खीण याद करपाचो खूब यत्न हांवें खूब फावटीं केला आनी त्या खिणाचें पिसोळें धरूंक मेळना म्हणून तो नाद सोडूनय दिला.

न्हिदेंत सपनां पडटात ताचेंय म्हाका सदांच अप्रूप दिसता. न्हिदेचे फास्केंत हीं सपनाचीं चित्रां कोण पितारता ? न्हिदेच्या शांत, प्रशांत, खोल म्हासागरांत खंयच्यान व्हांवत व्हांवत येतात सपनांचे हिमनग ? व्हर्जीन मेरीइतली पवित्र न्हीद कुंवारी आसतना सपनांचे गर्भ धरून कशी जाता गर्भवती ?

सपनांचे घसरगुंडीवयल्यान आमी आमच्या भुरगेपणाच्या आंगणांत देंवतात. सिंदबादाच्या खांदार बशिल्ल्या जाण्टेल्या भशेन जण एकल्याचें भुरगेपण जिवितभर ताची फाट सोडना. सपनां म्हळ्यार आमच्या अबोध अंतर्मनाची हारशी. सपनांचें बोट धरून आमी आमच्या वासनांचे, विकारांचे, वैफल्यांचे, तिडकीचे, भंयाचे, दुस्वासाचे रूख आशिल्ल्या अटंग्या रानांत पावतात. आमी जागे आसतना हें रान खंयचे खंय गडप जाता. ह्या रानाक कसलोच नकाशो नासता. संदर्भ नासता. भूमिती, त्रिमितीचीं मापां नासतात ह्या रानांतल्यो वाटो खंयच सुरू जायनात. खंयच सोंपनात. त्यो फकत घुस्पल्ल्यो आसतात, रूखारूखांच्या मुळांनी. हें रान आसता स्वयंभू, सार्वभौम, अपौरूषेय. हें सपनांचें रान खंयच्याच लाकूडतोड्याक तोडून बोडकें करूंक येना. तें लासूंक येना खंयच्याच अरण्यअग्नीक ! जाय तेन्ना बुडटा जाय तेन्ना उफेता अशें हें सपनांचें

रान.

म्हजे न्हिदेंत आनी साकरन्हिदेंत हांव ह्या रानांत मनसोक्त भोंवलां. जागो जातकीर न्हिदेंत कसलीं सपनां पडलीं हाची याद करप हो एक म्हजो आवडटो छंद.

सपनांची डायरी दवरची अशें मानसशास्त्रज्ञाचें मत. आमच्या अंतरंगाचो हो संदर्भग्रंथ. ड्रीम डायरी दवरपाचो संकल्प हांवे खूब फावटीं केला. पुणून अजून अशी डायरी बरोवंक सुरवात करूंक ना.

म्हाका कोणे म्हजे न्हिदेंतल्यान उठयल्यार राग येता. दुसऱ्यांक न्हिदेंतल्यान उठोवपाचें 'पाप' हांव केन्नाच करीना. सगल्यो शाळा सकाळीं उसरां सुरू करच्यो आनी भुरग्यांक सकाळ मेरेन सुस्त न्हिदूंक दिवचें अशें म्हजें मत. सकाळच्यो शाळा हें भुरग्यांक शाळा ना आवडपाचें मुखेल कारण अशें हांव मानतां.

म्हजी भुरगीं पयलीं पयलीं आपणाक फांतोडेर उठय आं म्हणून म्हाका सांगून न्हिदतालीं. फांतोडेर उठून भुरग्यांक उठोवंक गेल्यार तीं सुस्त न्हिदिल्लीं आसतालीं. साकर न्हिदेंत आशिल्ल्या सगल्या भुरग्यांच्या तोंडार तृप्त न्हिदेची साय-दाटी धादोसकाय आसता. ओंठार हय न्हयसो खडीसाकरी हांसो आसता. भुरग्यांची साकरन्हीद किचमुपाक म्हज्या जिवार आयलां तेन्ना तांचीच गोजडी घेवन हांव तांचे मदीं वचून सुस्त न्हिदलां. आतां फांतोडेर आमकां उठय आं अशें म्हाका कोण सांगना.

द्रौपदीच्या कंवळ्या पुतांक न्हिदेंत आसतना मारपी अश्वत्थामा हो महाभारतांतलो सगल्यांत दुश्ट, नीच नतद्रश्ट मनीस अशें म्हाका दिसता. अभिमन्युचें आनी द्रौपदी पुतांचें मरण ही महाभारताची सगल्यांत व्हडली शोकांतिका. ते शोकांतिकेक बेशुध्दींत आनी न्हिदेंत आयिल्ल्या मरणाची खराय आसा. न्हिदेंत आयिल्ल्या सैमीक मरणाइतलें मात सोबीत, सुंदर, सुखद मरण दुसरें ना. राम, कृष्ण, बुध्द, खिस्त, गांधी- खंयच्याच म्हापुरसाक अशें सुखद मरण येवंक ना.

बॅकॉकाक हांवें निद्रिस्त बुध्दाचें सोबीत शिल्प पळयलां. असलो स्लिपींग बुध्द काठमांडुकय आसा. ध्यानस्त बुध्दापरस निद्रिस्त बुध्दाचें रूप म्हाका सदांच आवडलां. ध्यानस्त बुध्द गंभीर दिसता. टेन्स दिसता. थोडो मनीसघाणो भासता. निद्रिस्त बुध्द मुमुरखो हांसता. तृप्त, समाधानी धादोसकायेंत चिप्प भिजिल्लो हो बुध्द म्हाका खूब भावता.

खंयच्याय उतरा आदीं चिर हें उतर जोडटकीर नवें उतर घडोवंक येता. चिरायु, चिरंजीव, चिरयौवन, चिरशांती ह्यो कांय देखी दिवं येता.

म्हाका मारूतीचें चिरंजिवित्व नाका. अश्वत्थामाची चिरायु नाका. पुताचें तन्नेपण झोंपय मारपाची ययातीची चिरयौवनाची वान्साय म्हाका नाका. चिर ह्या उतराची हांवें धास्तीच घेतल्या.

पुणून निद्रेक चिर उतर जोडून चिरनिद्रा हें उतर जाणें घडयलें आनी मरणाक एक प्रतिशब्द केलो ताचे रसिकतेची, ताचे बुदवंतकायेची म्हाका सदांच तोखणाय दिसल्या. मरणाचें चिरनिद्रा हें नामकरण करून ताणें मरणा उपरांतची जीण, पुनर्जल्म, सर्ग, नरक, आत्म्याचें अस्तित्व ह्या सगल्या गजालींक थडग्यांत पुरून ताचेर चिरनिद्रा ह्या एकाच उतराचो खुरीस रोमला.

मनीस मरतकीत ताचे दोळे उक्ते उरल्यार धांपपाची आनी ताच्या तोंडांत साकर घालपाची रीत आमचेमदीं आसा. ताची चिर न्हीद चिर साकरन्हीद जावची हो आंवडो प्रतिकात्मक रूपान उक्तावन दाखोवपाची ही रीत म्हाका मनापासून आवडटा.



# तीर्थ स्नान

म्हजी दिवाळी येता हांडो जावन, गळ्यांत रोजांची माळ घालून ! सगळे जाण दिवाळेक दिव्यांचो उत्सव म्हणटात. म्हजी दिवाळी आसता न्हावपाचो उत्सव.

यादींच्या बिण्ण काळखांत आसता लिपिल्ली आश्विनांतली एक शियांळी फांतोड. हय न्हयसो उजवाड आनी न्हय हयसो काळोख. दंवान चिप्प भिजिल्लें मागीलदारचें पोरसूं. गोड शीं पिवन आतांच उठिल्ली बांय. बांयचे कुशीन रसरशीत उज्याची रांदन. रांदनीर काळो पकदस्त हांडो. ताच्या आंगार गंधाचे तिबे आनी गळ्यांत केशरी रोजांची माळ. हांड्याक बांयचें थंडगार उदक आकंठ पियेवपी कळसो. शियांचो कुडकुडो आनी उज्याचो धग. मात्शें तापयल्लें हुळहुळीत खोबरेल. मालीश करपी हात. केसांतल्यान भोंवपी स्निग्ध मायेस्त बोटां. उटण्याचो परमळ. हून हून उदकाचो स्पर्श. सगळें आंग आंग, रूंवरूंव चंवरून वडोवपी उष्ण उदकाचें अभ्यंग न्हाण.

सगल्या शरीरसुखांत हें न्हावपाचें सुख अप्रूप ! ह्या सुखाभोंवतणी आसा सोबीत फास्की दिवाळेचे फांतोडेची.

उदक हें सैमांतलें एक अद्भूत रसायन. भौतिकशास्त्र ताका सगल्यांत बुदवंत द्रव्यपदार्थ मानता. आंगांतलो सगळो शीण ओडून काडपाची कसली लोहचुंबकी शक्त उदकांत आसता कोण जाणां. धर्तरेच्या पोटांतली सगळी धारोष्ण माया घेवन उदकाचें कारंजें आमच्या माथ्यार पडटा. रूखांच्या मुळांनी उदकांत कालयल्लें आसता कसलें तरी अप्रूप सत्व, जीवनसत्व. उदकांत लिपिल्लो आसता रानांतल्यान दुडुदुडु धांवपी रानझरो. उदकांत व्हांवता संथ

मंद न्हंय. उदकांत घुमता जोरगतीच्या दर्याची गाज.

उदकांत आसता पावसांत थुयथुय नाचपी पावस-पिसो मोर. उदकांत आसतात शिंपुडिल्लीं त्या मोराचीं ल्हवपीक मोरपिसां. उदकांत भरसून गेल्लो आसता चंदनाच्या रूखांक आंग घश्टून आयिल्लो मलय पर्वतावयलो वारो. उदकाच्या पोटांत आसता धर्तरेक सचैल न्हाण घालूंक वाऱ्याच्या खांद्यार बसून येवपी हरंधारांनी पडपी उटंगार पावस. उदकांत आसता एक विवस्त्र, वस्त्रगाळ उजवाड.

देखून लोक-संस्कृताय मानता उदकाक पवित्र. सणां परबांनी जाता बांयची पुजा. न्हंयची पुजा. दर्याची पुजा. देवांक न्हाणोवन उदकाचें तीर्थ जाता म्हणटात तें खरें न्हय. उदकान न्हावन देव जातात तीर्थरूप. उदक मुळांतच आसता तीर्थ. देखून दरेक न्हाण आसता एक तीर्थस्नान.

भारतीय संस्कृतींतलें खंयचेंच मंगल कार्य न्हालेबगर करूंक मेळना. देवांक लेगीत न्हाणोवपी ही संस्कृताय. उदकाचें न्हाण. दुदाचें न्हाण. म्होंवाचें न्हाण. गंधाचें न्हाण. फुलांचें न्हाण. गोमतेश्वराच्या बाहुबलीक दर बारा वर्सांनी दुदाचो महाभिषेक करतात. तिरूवन्तपूरमच्या मारूतीक लोणयान न्हाणयल्लो आसता. ताका म्हणटातच माखन मारूती. शंकराचे पिंडीक उदकांत बुडोवन दवरतकीर पावस पडटा अशें हांगाची लोक संस्कृताय मानता. हे भुंयेची मातृदेवता दर दिसा न्हावन धुवन नवें न्हेंसण न्हेसता.

गर्भोदकांत न्हातां न्हातां भुरग्याचो गर्भ वाडटा. जल्मा उपरांत रोखडेंच नवजात बाळकाक न्हाणयतात. कांय वाठारांनी मनीस मरतकीर मड्याक न्हाणयतात. हरशीं मड्याचे कसलेच थातेमाते करचे न्हय अशें म्हजें मत. पुणून कोंकणांत एके कडेन मड्याक न्हाणोवपाचो सुवाळो हावें पळयलो आनी म्हाका त्या सुवाळ्याची लक्तुबाय दिसली.

जे जिणेचेर मोग करतात तांचो उपाट मोग आसता आपले कुडीचेर. तांकां भोव आवडटा न्हावपाचो सुवाळो. ते दिसपट्टे न्हातात मनसोक्त थंड, शितळ, थंडगार उदकांत. गरम, हुनहुनीत, उष्ण-उष्ण उदकांत.

ते न्हातात वचून वेलंगेच्या वझऱ्यार. रिवणच्या झऱ्यार. ते न्हातात कुशावतीच्या पाणट्यार. मोरजेच्या दर्यार. ते पेंवतात नागेशींचे तळयेंत. ते नाचतात आंबोलीच्या घोग्यासकयल.

ते न्हातात आषाढाच्या उटंगारी पावसांत उन्मुक्त मोर जावन. ते न्हातात करमळेच्या तळ्यांत वरांचीं वरां तृप्त म्हस जावन आनी पेरियारचे अथांग न्हंयेंत राजेशाही हत्ती जावन.

कुडकुडट्या शिंयांतलें मनालीच्या गरम, गंधकी उदकाच्या वसिष्ट कुंडांतलें

न्हाण, मसुरीच्या केम्टीफॉलासकयलें न्हाण. कोडायकॅनलच्या सिल्वर कास्केडासकयलें न्हाण. सिंहगडावयले देवटांकयेच्या थंडगार उदकाचें न्हाण. कोचीच्या कृत्रीम ल्हारांच्या तरण तलावांतलें न्हाण.

समुद्रस्नान, सूर्यस्नान, मड बाथ, स्टीम बाथ, सौना बाथ, टर्कीश बाथ, बबल बाथ न्हावपाच्यो तरातरा. तरांतरांचीं न्हाणां.

न्हावप हो दिसपट्टे जिणेंतलो करून वडोवपाचो वावर न्हय. दरेक न्हावप हो आसता एक आनंद सुवाळो. न्हातना जाता कुडीचो एक रूख आनी कातीचीं पाखां जावन उडटात लक्ष शेवणीं. कुडीचें जाता एक ओलें शिल्प.

न्हातना मेळटा आमकां एक आदिम एकांत. जितें जाता एक आदिवासी, वनवासी स्मृतीसुख. संस्कृतायेची आनी सभ्यतायेची फिशाल रूपडीं देंवोवन न्हातना वतात आमी आमच्या नीज रूपांत. सांसपूंक मेळटा आमकां आमच्या आत्म्याक फांफडून सगळीं वस्त्रां. शेंवटून सगळे भेस. न्हावप हें आसता एक नृत्य. एक नाच- उदकाचो आनी कुडीचो.

न्हावपाचो आनी संगीताचो कितें तरी खासा संबंध आसूंक जाय. न्हातना आमी सगळे जातात स्वयंभू- गावपी. न्हातना जावूं येता कवी ! न्हावप ही आसताच एक कविता ! आसता एक तो- स्पॉन्टेनियस् ओव्हरफ्लो ऑफ् पावरफूल फिलींग.

खंयच्याच कवीन न्हावपाच्या सुवाळ्याचे थातेमाते कित्याक करूंक नात, म्हाका खबर ना. ना म्हळ्यार, मर्ढेकराची एक कविता हांव विसरूंक शकना.

न्हालेल्या जणु गर्भवतीच्या
सोज्वळ मोहकतेने बंदर
मुंबापुरिचे उजळत येई
माघामधली प्रभात सुंदर
सचेतनांचा हुरूप शीतल;
अचेतनांचा वास कोवळा;
हवेंत जाती मिसळूनि दोन्ही
पितात सारे गोड हिंवाळा

शितळ सचेतन शरीर आनी कंवळें अचेतन उदक हांच्या संगमांतल्यान न्हावपाची तीर्थयात्रा घडटा. उपाट उदकांत जाय तशें जाय तो वेळ न्हावपाक मेळप ही म्हजी जिणेंतल्या पुण्यभोगाची कल्पना आनी दिसानदीस न्हावपाक मेळप ना वो उण्यांत उणे उदकांत उण्यांत उण्या वेळांत न्हावपाचो प्रसंग ही म्हजी पापभोगाची कल्पना.

दिसभर उपाट कश्ट करचे. वतांतल्यान रानभर भोंवचें. खर्शेत दोंगर चडचो.

आंग घामान थपथपून वचचें. दिसभराच्या श्रमान जीव मोडून वचचो आनी आमोरेर वझऱ्याच्या थंडगार उदकान न्हावंक मेळचें हाचेसारकें भाग्य ना.

रातीं घाल्लीं मेंदी आतांच रंगल्या. आंगाक हळदीचो लेप लायला. केंसांक तेल घालां. फुलांच्या माळांनी न्हाणीघर सजयलां. तिच्यो इश्टीणी तिचीं फकाणां करतात. ती लजेन मुमुरखी हांसता. भायर वाजंत्री वाजतात. फुलांची डोली वाट पळयता. ती कुळारचें निमाणें आंकवार न्हाण न्हाता.

तिचो घरकार संवसार सोडून गेलो - मडें घेवन लोक मसणभुंयेर गेल्यात. रडून रडून दोळे सुकल्यात. जाण्टयो बायलो तिका न्हावपाक घेवन वतात. तिच्या माथ्यावयल्यान तांबयो रकयतात. तिचो निमाणो कुंकुम उदकान व्हांवन वता. तिचीं कांकणां काडटात. तिचो मणी काडटात. तिका धवें न्हेसण न्हेसयतात.

फुलांचें न्हाण आसता तशें फातरांचेंय न्हाण आसता.



# जनेलांचें जग

हांवें दार बंद केलें. एकेक करून हांवें सगलीं दारां बंद केलीं. हांवें जनेल उगडलें. एकेक करून हांवें सगलीं जनेलां उगडलीं.

म्हाका दार आवडना. दाराचो म्हाका भंयसो दिसता. मनाच्या अंतर्मनांत आनी अंतर्मनाच्या मनांत दाराविशीं खंय तरी तिडक, तिरस्कार आसा. झप्प करून बंद जाल्ल्या दाराचो आवाज खंय तरी घुमता. दाराच्यो खिळयो, आडामे, कुलपां याद जातात. दाराम्हऱ्यांत खांदार आर्म आशिल्लो बेरकी दोळ्यांचो व्दारपाल उबो आसता ताची याद जाता. दारां ही भितर वचपाक न्हय तर कोणेय भितर सरचें न्हय म्हणून धांपपाक केल्यांत अशें म्हाका दिसता. दार म्हळें की दोळ्यामुखार बंद दारच येता.

जनेलाचें तशें न्हय, जनेल म्हळें म्हणटकीर तें उक्तेंच आसचें अशें दिसता. तशें दार उक्तें आसूं येता आनी जनेल बंद आसूं येता. पुणून म्हज्या मनांतलें दार मात सदांकाळ बंदच आसता आनी जनेल मात तिनी त्रिकाळ उगडें आसता, आतां हो घडये म्हजो बायस आसूं येता. वर्तुळाचो जसो चौकोन करूं नजो तशें आवडप आनी न आवडप ह्यो गजाली खरें आनी फट हातूंत बसोंवंक नज हेंच खरें ! जनेलां म्हळ्यार घराक मनीसपण दिवपी घराचे दोळे. ते उक्तेच आसूंक जाय. ना जाल्यार बुध्दाच्या अर्धोन्मिलीत दोळ्यांभशेन अर्दी तरी उक्ती आसूंक जाय जनेलां.

दारांत म्हाका कसली तरी पराङमुखता दिसता. सदांच फाट करून उबीं आसतात दारां! जनेलांचें तशें न्हय. जनेलां सदांच अभिमुख. जनेलांची ही अभिमुखता, सन्मुखता म्हाका भावता.

दारांत आसता एक बटबटीत नग्नता. जनेलांत आसता अभिसारिकेची अर्धनग्नता. जनेल दाखयता ते परस खूब कितें तरी लिपयता. उक्तें रितें जनेल आपली फास्की घेवन बशिल्लें आसता कसल्या तरी चित्राची वाट पळयत ! हें

चित्र प्रेमिकेचें आसूं येता. हें चित्र श्रांत गणिकेचें आसूं येता. हें चित्र आसूं येता वेदनांकित वारांगनेचें. हें चित्र जिणेचो पर्णभार गळून गळून निष्पर्ण जाल्ले जाण्टेलेचें आसूं येता. हें चित्र घडये आसूं येता निरागस नदरेन भायलें विश्व चोखपी फुलपांखी बालिकेचें. जनेलाचे फास्केंत दादलो सोबना. दादलो दारांत सोबत. जनेलाचो रितो कॅनवास राखून दवरिल्लो आसता अस्तुरेखातीर.

जनेल ही स्वताच आसता एक अस्तुरी. देखून जनेलांक नटूंक थटूंक आवडटा. हारशाचे, शिपयांचे, रंगीत कपड्यांचे, तरातरांचे भेस घालून जनेलां नटतात. भुमितींतले सगले आकार जनेलाक मानवतात.

कांय वेळा जनेलां माथ्यार पदर घेतात. कांय वेळा जनेलां नक्षीदार पालखेंत बसतात. कांय वेळा जनेलां तोंडार बुरखे घेतात, कांय वेळा मात जनेलां टकटक करून दोळ्याक दोळो लायतात.

दारावयर लायिल्ल्या आकाश-दिव्यापरस म्हाका जनेलार लायिल्लो लापयांव चड अपुर्बायेचो दिसता, जसो काय जनेलाच्या कपलावयलो भांगतिळो! एकल्या एकसुऱ्या जनेलापरस एका म्हऱ्यांत एक अशीं ह्यरीन बशिल्लीं - जनेलां अदीक सोबीत सुंदर दिसतात.

कांय जनेलांम्हऱ्यांत बसपाक सोपो आसता. सोप्यार बसप आनी जनेलांतल्यान भायर पळोवप अशें भुरगेपणांतले नॉस्टाल्जीक स्मृतीसुख दितात हें सोपे.

आपल्या घरांत आपूण एकटोच आसचो. घराचीं सगलीं दारां बंद करची आनी जनेलां उगडचीं, एका जनेलाच्या पाऱ्यार बसचें आनी सरत्या दनपरां वरांचीं वरां भायर पळयत रांवचें.

मेकळें मळब. मळबाचो गर्भ-गाभारो. मळबाची मळब निळसाण. वारो! वाऱ्याचें अनील, सुनील रूप. शेवणीं! कावळे, चिमण्यो, पाखे, पोपट. झाडां! माड, केळ, केळीं, पेर, पणस, आंबो, आंबाडो, म्हस्कांच्यो लांबत्यो सांगो. आनी पावस! मृद्‌गंधी मृगाचो, गर्भजड आषाढभाराचो, सुस्नात श्रावणधारांचो.

सैमाचें अप्रुप जनेलांतल्यान पळोवचें. चतुर्दशीचो चंद्र, उमाशेचें चान्नें आनी रातांधळो काळोख. जनेलांतल्यान आयकुची पयसुल्ल्यान येवपी दर्याची गाज, मध्यान रातीचो पावशी गडगड, फांतोडेपारार शेवण्यांच्या कंठांतलें नादब्रह्म आनी रखरखीत दनपरां रूखापोंदच्या सावळ्यांचो मख्ख मोनेळ-! मातयेचो वास, वाऱ्याचो सुवास, फुलांचो परमळ-घमघमीत परमळाची पालखी येवंक दिवची जनेलांच्या अंबारींतल्यान.

पयर पयर मेरेन लोकांक फकत दाराचो भंय दिस. आतां लोकांक जनेलांचोय भंय दिसता. हालीं-हालींसराक लोक जनेलांक ग्रिलां घालूंक

लागल्यात. दरेकाचें घर ही दरेकाची कादय कशी जाल्या. हालीं हालीं लोक दारांबराबर जनेलांय बंद करूंक लागल्यात. वारो, वावझड, विजो, गडगड, वत, कुडकुडो, चोर, फटींग, बेबदे, मवाली जनेलांक याद काडल्यारच थरथरो भरता.

फुडेंफुडें वण्टींक जनेलांच नासतलीं. घरांक जनेलांच नासतलीं. घराक आसतलें फकत दार. तेंय बी उगडटा म्हणसर धांपपाक.

आदिम काळांत माकडाची ल्हंव नित्तीच आंगावयल्यान देंवतकीर मनीस झाडावयल्यान देंवलो आनी घोलींत रावंक लागलो. घोलीक जनेलां नाशिल्लीं.

जनेलां नाशिल्ल्या घोलीपसून जनेलां आशिल्ल्या घरामेरेनचो मनशाचो सांस्कृतीक प्रवास त्या दिसा थांबतलो, ज्या दिसा मनशाक दिसतलें घराक जनेलांची गरजच ना.

जनेलांक चिरायु चिरंजिवित्व मेळूं इतलेंच आमी मागूया.



# सुग्रीवा

ग्रीव म्हळ्यार मान. सुग्रीवा म्हळ्यार सुंदर मान आशिल्ली बायलमनीस आनी सुग्रीव म्हळ्यार सुंदर मान आशिल्लो दादलो-मनीस.

पुरातन काळांत सुंदर मान आसप हें सोबितकायेचें एक लक्षण समजताले. म्हणूनच संस्कृत भाशेंत सुग्रीव वा सुग्रीवा अशीं उतरां आयलीं. भास ही हारशेभशेन आसता. सामाजिक चालीरितीचें पडबिंब उतरांत पडटा. फुडें फुडें ती चाल, ती रीत मरत वता! तशें तशें तें उतर लुप्त जायत वता. मानेक सोबीतकायेचें लक्षण मानपाचो विचार भारतीय समाजांतल्यान अंतर्धान पावलो तशीं सुग्रीव वा सुग्रीवा हीं उतरांय वनवासी जालीं. सुनयना हें उतर उरलें. अजून दोळे हें सुंदरकायेचें लक्षण मानतात. देखून सुनयना उतराचें निर्माल्य जावंक पावलें ना.

दक्षिण-पूर्व आशियेंत अजून सुंदर मान आसप हें सोबीतकायेच्या एकादश लक्षणांतलें एक लक्षण मानतात. आमच्या समाजांत मात केंस, भुंवयो, दोळे, नाक, ओंठ, मान, उरोज, कमर, नितंब, हात (वा बोटां) आनी पांय (वा पावलां) अशा इकरा सौंदर्य लक्षणांतल्यान मानच कशी गळून पडली हाचें कुवाडें सुटना.

मानेची सोबीतकाय आनी सुंदरकाय खरीच अप्रूप. मान म्हळ्यार कुडीचो देंठ आनी देंठ म्हळ्यार फुलांची मान. म्हाका कांय वेळा फुलांपरस तांचो शिरशिरीत देंठच चड आवडटा. फुलाफुलांचे तरातरांचे रंग, फुलांफुलांच्या परमळाच्यो तरातरा आनी तांच्या पाकळ्यांच्या नाजूक आंगावयली तन्नी लुसलुस कंवळीक हाचे मुखार देंठा कडेन नदर वचना. पुणून पारजताच्या फुलांक ताचें गंध-धवें पारजतपण ताच्या केशरी देठांनीच दिलां. साळीक-कमळांकय तांचो शुभ-शुभंकर रूपकार तांच्या देठांनी दिला. दशिण

तिच्या देठांखातीर अधोमुखी, लजकुरी ! आनी रोजांक तांचें राजस रूप मातयेकडली वार तोडूंक नाशिल्ल्या तांच्या पांचव्या देठांनी दिलां. सूर्य-पिशीं सुर्यफुलां, फुल्ल-प्रफुल्लित धालो, अबोल आबोलीं, सदा-फुली सदाफुली, जायो, जुयो, चांफी, मोगरीं, बटमोगरीं...देंठा बगर ह्या फुलांची सोबितकाय अळणी थारतली आशिल्ली.

मानेचेंय तशेंच. मोराचें मोरपांखी मोरपण आनी जिराफाची जिराफी जिराफत तांकां तांकां दिल्या तांचे तांचे मानेन. अमिबाक मान नासता. कांसवाक आसता. मानेचो आनी उत्क्रांतीचो खंय तरी, कितें तरी कसलो तरी संबंध आसूंक जाय. घडये उत्क्रांतीचीं चक्रां उलटीं फिरत जाल्यार मान जिरत वतली आनी कुडीक मानेबगर तकली दसतली काय कोण जाणा.

घडये अशेंय म्हणूं येता, पुरातन पुरूषांची मान खूब सुंदर आशिल्ली, फुडे फुडें मानेची सोबीतकाय कलेकलेन उणी उणी जायत गेली. राम खंय खूबच सुंदर आशिल्लो. म्हणून ताचें नांव राम, रमणीय तो राम. रामायणांत रामाचें सौंदर्य पितारतना रामायणकार रामाची मान खूब सुंदर आशिल्ली हें सांगूक विसरूंक ना. गोपींक पिशें लावपी कृष्णय रुपेस्त आसूंक जाय. नटराज शंकर काळो सावळो आसलो तरी शिरवंत आशिल्लो अशें शिवचरीत सांगता. राम, कृष्ण आनी शंकर हे तीनय सुंदर पुराणपुरूष सुग्रीव आशिल्ले हातूंत दुबाव ना. आनी महाकाव्यांत आनी खंडकाव्यांत दिसपी-उमा, रमा, तारा, पृथा, पांचाली, वैदेही, माधवी, मंदोदरी, मेनका, मालविका, उत्तरा, उर्मिला, अहल्या, आम्रपाली, राधा, रुक्मीणी, शकुंतला, सत्यभामा, दमयंती, उर्वशी, वसंतसेना...ह्यो नायिका, उपनायिका सुग्रीवा नाशिल्ल्यो अशें कशें म्हणूं येत ?

फुलांचे निखटे पाकळेनच धादोस जावन भक्ताक मानेचे कुरवेन हयकार कळोवपी दंतकथेंतली मडकयची नवदुर्गा म्हाका खूब आवडटा. फातराची मूर्त फोडून भक्ताक दर्शन दिवपाचें पिशेंपण तिणें केलें ना. तिणें फकत मान बागोवन आशिर्वाद दिलो. हयकार दिलो. हय! मानेची म्हणून एक भास आसता. जशी दोळ्यांची भास, बोटांची भास तशी मानेची शारीर-भास. फकत मानेचे कोन बदलून अर्थांचे कॅलिडोस्कोप करपी ही गिरेस्त, गर्भ-गिरेस्त भास! हयकार, न्हयकार, राग, अनुराग, लज, भीड, धार्ष्ट, भिरूता, त्वेष, करूणा, वात्सल्य, अहंता-सगळें, सगळें मान न उलयतां उलोवन दाखयता.

मानेच्यो मुद्रा आनी मानेचें लावण्य हातूंतल्यान सोबता नृत्य! गीताक आनी संगीताक मान तालबध्द आनी नादलुब्ध करता. भक्ताक लीन, रसिकाक तल्लीन करता ती मान. माने खातीरच मस्तक नतमस्तक आनी उन्नतमस्तक जाता.

सान भुरग्याची मान सुर्वे सुर्वेक धरना पुणून धरता तेन्ना मानेचो एरियल अष्ट दिशांनी घुंवडावन भुरगें चराचर चोखून घेता. पिकिल्ल्या फळांचो देंठ फळ गळटना खिणभर थरथरता, तसो थरथरो पिकिल्ल्या जाण्टेपणांत मानेक येता.

मानेक शृंगार-रस मानवता, प्रियकराचे यादीन आनी विरहान, कामातुर मिलनोत्सुक प्रेयसी लजता, मुरगुट्टा ती मानेच्या नाच-नखऱ्यांतल्यान.

मान अपमानान अधोमुख आनी आत्मसन्मानान उर्ध्वमुख जाता. मान आनी अपमान हीं उतरांच मानेवयल्यान आयलीं आसूंक जाय. भाशेन असो मानेचो मान-सन्मान केला तसोच तिचो अपमानय केला. आमच्या भासांनी फाटीर दसल्या ती मान जाता आनी हड्ड्याक फुट्टा तो गळो जाता. इंग्लेज भाशेन मानेची गोमटी अशी कातरूंक ना. देखून इंग्लेजींत मान (नेक) हार (नेकलेस) घालता. आमच्या भासांनी मात मानेक हो मान दिवंक ना. तो गळ्याक दिला. कंठहार घालून कंठाक दिला.

मान फकत एकशें अंयशीं अंशांच्या कोनांतल्यान घुंवता. ती तीनशें साठ अंश घुंवना. हें तिचें एक वैगुण्य. सुंदरबनांत व्हडेंकार व्हडें व्हलयत वतात तेन्ना उदकांतल्यान पेंवत पेंवत येवून वाघ तांचेर फाटल्यांतल्यान झोंपय मारता. देखून व्हडेकार आतां फाटल्यान मानेक रूपडें बांदून वागांक फटयतात.

स्प्रिंग लायिल्ले बावले भशेन मान वयर सकयल करूंक येना होय मानेचो दुसरो दोश.

दाढ सणसणटा, नाक चोंदता, पांय मुंयेतात, तकली उसळटा तशी मान कणटा, खुबदां मान कणटकीर आमकां मान आसा हाची याद जाता.

कूड आनी मेंदू हांचेमदलो सांकव म्हळ्यार मान. बुद्दीची आलतड आनी श्रमाची पलतड हातुंतलो सेतु म्हळ्यार मान. समाजाची मान कणटा तेन्ना हो सांकव मोडटा. मागीर विचार करपी फकत विचार करतात आनी वावर करपी फकत वावर करतात. वावर आनी विचार, विज्ञान आनी तंत्रज्ञान, जड आनी चैतन्य, ई (e) आनी एम.सी. स्क्वेअऱ (mc2) हातुंतलें समीकरण मागीर तुट्टा.

उजवाड मागीर काळखा पसून कितलींशींच प्रकाश वर्सां पयस वचून खंयतरी कृष्ण विवराच्या गर्भतळाक वचून बसता.

ना. मान कणूंक जायना. मान कणूंक फावना. बोटां मुयेल्यार जाता. पांय वळ्ळ्यार जाता. कपल कणकणल्यार जाता. दोळे चुरचुरल्यार जाता. काळीज खर्शेल्यार जाता. मान कणूंक फावना.

जिराफाचे मानेभशेन विश्वाची मान अवकाशाच्या दुरगांवेले अज्ञान वालीचीं पानां चाबडायत आसा.

उमाशेचे काळखे राती जड आनी चैतन्याचो हो वैश्वीक खेळ मान वयर करून पळयत रावपाचें सुख मानेन आमचे व्हटयेंत घालां. जिराफाभशेन मनशाचीय मान लांबोवपाची गरज उत्क्रांतीच्या चक्राक भासुंना.

मानेच्या मोटव्या देंठांक बुद्दीचें, बुदवंतकायेचें, प्रतिभेचें, प्रज्ञेचें सोबीत बरें फूल फुल्लां.



# अनवळखीपणाचें सुखदुःख

वळखींचें एक सूख आसता. एक आनंद आसता. आपूण खूब जाणांक वळखतां हे कल्पनेंत बऱ्यावायटाक, वायट बऱ्याक आपल्याक उपेग पडपी लोक आसात ह्या विश्वासाची भावना आसता. आपणाक खूब लोक वळखतात हें कळटकीर आमच्या अहंगंडाक क़ातकुतल्यो जातात. अशे भौशीक वळखीक प्रसिध्दी म्हणटात. हे प्रसिध्दीची एक धुंदी आसता. एक मस्ती आसता.

ल्हान भुरगें पयलीं आवयक वळखता आनी फकत आवयची वळख ताका पुरो जाता. वळखीन वळख वाडटा. फोगेटेन फोगोट पेटची तशी. वातीन वात लागची तशी. दुधाचें धंय जावचें तशें वळखीचें रूपांतर इश्टागतींत जाता. इश्टागतीन आमची जीण फुलता. जितली वळख वाडटा तितली आमचे जिणेची त्रिज्या वाडटा. व्यास वाडटा. परिघ वाडटा. आमचे जिणेचें क्षेत्रफळ आनी घनता वाडटा. आमची जीण गिरेस्त जाता. वळखीन कामां जातात. वेळ वांचता. पयशेय वांचतात. वळखीन फावोर लागता. वळखीन वेपार उद्योगाक बरकत येता. वळखीन सोयरिको जातात. वळखीन दिसपट्टे जिणेचो शीण, वाज हुबून वता.

वळखीचें एक नैतिक आंग आसा. समाज आमकां वळखता देखून समाजाचे भिडेन, भंयान आमी न्हय तें करूंक वचनात. ज्या समाजांत कोण कोणाक वळखनात त्या समाजांत अनाचार थयथयाट करतलो आशिल्लो.

वळखीविणें मनीस मनीसघाणो जातलो आशिल्लो. आत्मकेंद्री आनी स्वार्थी जातलो आशिल्लो. वळख आमकां घसरगुंडे भाशेन मनीस घाणेपणाकडल्यान मनीसपणाकडेन व्हरता.

अशी ही पावला कणकणी उपेगी पडपी वळख मात चड पिकत जाल्यार सुरेता. कुसता. वळखीचें मागीर वजें जाता. वळखीची अडचण जाता. वळख

हो मागीर एक बुलडोझर जाता आनी आमची निजी, खाजगी जीण तो चांटे पावलाक माड्डीत वता. आमचो रायट ऑफ प्रायव्हसी पिसडून वडयता.

वळखी चड जाल्यो म्हणटकीर वेळ, पयसो, श्रम सगल्यांचो नाश जाता. 'अतिपरिचयात् अवज्ञा' अशें संस्कृत सुभाषितच आसा. 'लेट देअर बी स्पेसीस इन अवर टुगेदरनेस' ही खलिल जिब्रानाची म्हणणी हो मानवी संबंधांच्या व्याकरणाचो मूलमंत्र मानूंक जाय. जांकां हें वळखीचें अंकगणित कळना तांच्यो एकामेकांकडल्या संबंधांच्यो बेरजो चुकतात. वाडटे संबंध मागीर विट्टात. सगळो कानडी हिशोब जाता.

वळख मनशाक नाटकी करता. रूपडी घालूंक लायता. नाका आसतना हांसचें पडटा. ना म्हणपाचें आसता तेन्ना भिडेन हय म्हणचें पडटा आनी हय म्हणपाचें आसतना लजेन ना म्हणचें पडटा.

वळखीच्या मनशान लग्ना कारणाक आपयल्यार वचचें पडटा. वळखीच्या मनशाचो ताचे बायलेचो, तांच्या लग्नाचो आनी तांच्या दोनय भुरग्यांचो वाडदीस याद धरचो पडटा. वळखीच्या मनशाक पन्नास, साठ, पंचात्तर केन्ना जातात तें विसरूंक फावना. वळखीचो मनीस राजकारणी आसत जाल्यार ताच्या तेत्तिसाव्या, एकोणचाळिसाव्या, त्रेपन्नाव्या वाडदिसाक दिसाळ्यांनी जायरात दिवची पडटा. वळखीच्या मनशाचो भौशीक सत्कार जायत जाल्यार तो चुकोवंक फावना. सत्कारसुवाळ्यांतलीं रटाळ भाशणां गोड मानून आयकुचीं पडटात.

वळखीच्या मनशाचो सोयरो मेल्यार ताका जाप दिवची पडटा. तोंड बेठेंच आंबट करचें पडटा. वळखीचो मनीस खंवसल्यार मसुंडींत वचूंक जाय. कांय वेळा मसुंडेंत भाशणां जातात. तीं मोन्यांनी आयकुचीं पडटात. मदींच कोणय ताळी वाजयता तेन्ना हांसो दामचो पडटा.

वळखीच्या मनशाक लिफ्ट दिवंक जाय. लिफ्ट दिल्ल्याचे उपकार तो बडबड बडबड करून पावयता (अशें तो समजता)

वळखीचो मनीस नाका थंय मेळटा. नाका त्या वेळार फोन करता. नाका तेन्ना घरा येता. नाका आसतना उपदेश दिवंक हजर जाता. न्हय न्हय तें करतात वळखीचीं मनशां !

वळखीच्या मनशाक वळखनाशिल्ले भाशेन केल्यार राग येता. पळनाशिल्ले भाशेन केल्यार भिरभिरी मारता. 'तूं आता व्हड मनीस जाला' - असलीं पियादां आयकुचीं पडटात. वळखीच्या मनशाचो सदांकाळ शीण आसता. आनी मोग आसता थंय शीण आसता ही वयल्यान शिटकावणी आसता.

वळखीचो मनीस बऱ्याक चड पावना. वायटाक रोखडो पावता. वळखीचो

मनीस तोखणाय करपाक फाटीं. तासमपट्टी करपाक फुडें.

वळखीचें अशें खूब फावटी अजीर्ण जाता.

मागीर दिसता- अनवळखीपण बरें. तेच तेच वळखीचे लोक- त्योच त्योच सुवाती. त्योच गजाली. तेच विशय. तींच चकाटां, तीच पिरङण, तीच करंदाय सगळें चाबून चाबून चोथो जाल्ले भाशेन. अशा वेळार दिसता. अनवळखी जावचें.

जंय म्हाका कोण्ण वळखना आनी जंय हांव कोण्णाक वळखना अशे कडेन वचचें. अनवळखी जावन अनवळखी सुवातेर अनवळखी लोकांमदीं वचचें.

अनवळखीपणाचें एक सूख आसता. एक आनंद आसता. एक धुंदी आसता. एक मस्ती आसता. अनवळखीपणांत एक मुक्त विमुक्त मेकळेपण आसता. उत्तेपण आसता. हातापांयांत कसल्योच सांखळ्यो नाशिल्लें स्वातंत्र्य आसता.

अनवळखीपण आवडूंक लागलें म्हणटकीर ताचें चट कशें लागता. व्यसन लागता. मागीर वळखीचें गांव, वळखीचे लोक सोडून अनवळखी गांवांत अनवळखी लोकांमदीं भोंवपाचें पिशें लागता. मागीर पांय मुयेनात. पांयांक चाकां फुट्टात. हात धरनात. हातांक पाखां फुट्टात. कसलेंच काम नासतना कसलें ना कसलें काम काडून मागीर खंय ना खंय वचन दिसता.

दिल्लीचो चांदनी चौक म्हाका आवडटा हेच खातीर. कर्नाटकांतलें केमनगुंडी म्हाका मानवता हेच खातीर. कलकत्त्याच्या अंडरग्रावंड मेट्रोंत बसून हांव एका स्टेशनावयल्यान चार स्टेशनां हुपून दुसऱ्या स्टेशनार वतां आनी थंय देंवनासतना परततां. मरीना बीचार फांतोडेर फिरपाक गेल्यार 'तूं आयज हांगा सो ?' 'चलत सो ? 'हालीं तूं दिसना' असले प्रस्न थंय म्हाका कोण्ण कोण्ण विचारिना. चेन्नायच्या 'नलिज' ह्या साडयांच्या दुकानांत हांव पन्नास साडयो पळोवन एकय घेना आसतना हांसत्या तोंडान भायर सरतां. बेंगळूरच्या कबन पार्कांत फांतोड पसून सकाळ मेरेन भोंव भोंव भोंवल्यार म्हाका कोण्ण हडकिना आनी म्हाकाय कोण्णाक हडकुचें पडना.

कबन पार्कांत एक जाण्टेलो येता. तो धर्मान जैन आसूंक जाय. ताचे मुठींत साकर आसता आनी तो ती इल्ली इल्ली करून मुयांक खावयता. हांव ताका पळयत बसतां, एक दीस ताणें म्हजे वटेन पळयलें आनी तो म्हाका हांसलो. म्हाका धस्स जालें, हांवें तोंड फिरयलें आनी चलपाक लागलों. अनवळखी मनीस जितले अनवळखी उरतात तितले बरे- हांवें मनांत म्हळें.

अनवळखीपणाचें सूख भोगूंक भोंवडेर वचूं येता. जांकां हें शाणेपण नासता ते खूब सोरो पितात आनी बेबदे जावन पडटात. बेबद्याक सगळें अनवळखी. आपूण आनी सगळें जग. म्हाका कांय वेळा पिशाची मात काकूट दिसता.

पिश्याक सगलीं वळखीचीं जातात.

अनवळखीपणाचें एक नैतिक आंग आसा. वळखीच्या संवसारांत सोंसचें पडटा. अनवळखी संवसार बंधनाचे राजू कापता. मनीस अदीक कश्ट करता. अदीक सर्जनशील जाता. सुशेगाद गोंयकार अनवळखी देशांत आंग मोडून काम करतात. कसलेंय काम करतात. अनवळखी संवसारांत वळखीच्या जगांतली जातीपातीचीं धर्माधर्मांचीं लेबलां गळून पडटात. दोन अनवळखी मनीस फकत दोन अनवळखी मनीस आसतात. दुसरें कांयच कांयच नासतात.

पुणून अनवळखीपणाचें एक परम दुःख आसा. जाण्टेपणांत स्मृतीविभ्रंशाचें दुयेंस जाता. मनीस मागीर आपलीच वळख विसरता. आपल्या बायलेभुरग्यांक सोयऱ्यां धायऱ्यांक विसरता. आत्तां उलयल्लें आत्तां विसरता. घरांतल्यो वाटोय ताका अनवळखी जातात. आंगार वस्त्र घालां काय ना हाचीय तांकां याद उरना.

ओके नांवाचो चित्रकार. ताका स्मृतिविभ्रंश जालो. चित्रकाराक व्हिज्युअल मेमरी आसची पडटा. ओकेची तर पुराय मेमरी वता. ओकेचो ब्रश थांबता. तो स्वताक अनवळखी जाता. एका दिसा तो घरांतल्यान भायर सरता खंय वता आनी खंय पावलो हेंच तो विसरता. आपूण कोण आनी आपलें घर खंय हेंय विसरता. रंग, रेशा पुसून वचून ओकेच्या यादींचो कॅनव्हास रितो रितो जाता. अनवळखी जाल्लो ओके एका दिसा कोणाक वळखीनासतना संवसार सोडून वता.

स्मृतिविभ्रंश जाल्ल्या मनशाचे हाल जातात ते परस ताच्या सोयऱ्या धायऱ्यांचे चड हाल जातात तें पळयलें म्हणटकीर दिसता- मरणाच्या निमाण्या खिणामेरेन कोणालेंय सगलें आंग अपंगूळ जाल्यार जाता. वळख उरूं. वळख उरूं. अनवळखी जावन मरचें न्हय गा कोणेंच !



# जाय काय जूय ?

श्रावण लागलो काय ना हें कळपाक पंचांग पळोवपाची गरज ना. श्रावणाची सुलूस पयसुल्ल्यानच लागता.

पारजताच्या पावलांनी श्रावण येता तेन्ना फांतोडेक फुलांचो घमघम सुटता. श्रावण येता तोच सणांपरबांचे वझें माथ्यार मारून.

श्रावणांत नागपंचम येता. नागपंचम ही सोरपाकडेन इश्टागत करपाची परब. आदिम काळापुसून मनशाक सोरपाचें भंय दिसत आयलां. जाचें भंय दिसता ताका देव करून ताची पूजा करतकीर मनशाक सूऽ जाता. भयाचे नकारात्मक कल्पनेक भक्तीचें सकारात्मक रूप दिवपाचो मनशाचो हो यत्न.

श्रावण म्हयनो आमकां आयतार पुजूंक लायता. आयताराची पुजा म्हळ्यार सुर्याची पुजा, उजवाडाची पुजा, तेजाची पुजा. हिरण्यगर्भाक आर्गा ओपतना आमची बुध्द  सुर्याच्या तेजाभशेन तेजःपूंज जांवची असो मंत्र श्रावण आमकां सांगता.

श्रावणी पुनवेक खारवी दर्याची पुजा करतात. व्हड्यांची पुजा करतात. बायलो बांयची पुजा करतात, हुमऱ्याची पुजा करतात, हांड्याची पुजा करतात. श्रावणांत आनीक एक पुजा जाता. सुतांपुनवेक भयणीन केल्ली भावाची पुजा.

आषाढ सोंपतकीर कुळारच्यान घरा गेल्ल्या भयणीक परत कुळारची याद येता. यादीची बांसरी आयकून भयण भावासरी येता. भावाच्या हाताक मोगाचो रस्मी दोरो बांदता.

सुता पुनवेक भयण भावाक राखी बांदता. राखी ही भाव भयणीच्या अजरंवर नात्याची वज्रगांठ. राखी हें भाव भयणीच्या मोगाचें तळयेतलें साळीक.

भाव भयणीच्या नात्याची याद भारतीय पंचांगाक दोन दीस येता. एक श्रावणांतल्या सुतापुनवेक आनी दुसरी कार्तिकांतले बीजेक-भाऊबीजेक.

भाऊबीजेक भयण भावाक ओंवाळटा. भयण भावाक दिव्याची आरत

दाखयता. आपलो भाव बीजेच्या चंद्राभशेन वाडचो अशें भयण मागता. आपल्या भावाक पुनवेच्या चंद्राभशेन जगलोकान तोखेवचो अशे भयणीक दिसता.

भारतीय संस्कृतीन आपल्या पाटार बायलांक फावो तें स्थान दिवंक ना जायत पुणून भयणीक दिलां. भावाच्या लग्नाक भयण कोरो धरता. भयणीन कोरो धल्ल्याबगर भावाचो न्हवरो भायर सरूंक शकना. कोरो म्हळ्यार भावा भयणीच्या नात्यांतले अशेंच एक सूचक प्रतीक.

भयणीच्या लग्नांत भाव लज्जाहोमांत ल्हायो घालता. भयणीच्या लग्नांत भाव भावोजीक विचारता - जाय काय जूय ? जूय जाय काय जायेच्या फुलाभशेन म्हजी सोबित मोगाळ भयण जाय ?

जायेची आनी जुयेची फुलां भारताच्या हेर वाठारांतय फुलतात जावंक जाय. पुणून जाय काय जूय हो रसिक प्रस्न फकत गोयांतच विचारतात हातूंत दुबाव ना. जें लाख उतरांनी सांगूक जांवचें ना तें आमची कोंकणी भास दोन तीन उतरांनी सांगता. लग्न हो मनशाचे जिणेंतलो आनंदाचो प्रसंग. ह्या प्रसंगाच्या निमतान भाव भयणीच्या नात्याचो जांयापोड आमची भास भोव फिशालकायेन गुंथता.

भाव भयणीचें नातें हें जाये जुयेच्या नात्याभशेन सुवासिक. भावभयणीच्या नात्याक कृष्णपक्ष ना. भावभयणीच्या नात्याक उमास ना. भावभयणीच्या नात्यांत सुकती ना. भावभयणीच्या नात्याक भैरवी ना.

जिणेच्या उत्तरायणांत भयण भावाक आनी भाव भयणीक विसरत म्हणून भयणीच्या चलयेच्या लग्नांत भावाक एक अप्रूप स्थान दवल्लां. चलयेच्या लग्नांत भयण भावाक विसरूंक शकना. भाच्येक अंतरपाटामुखार हाडपाक मामा जाय. भाच्येक मामान अंतरपाटामुखार हाडपाची रीत म्हळ्यार घडये मातृसत्ताक कुटूंबपध्दतीचो पितृसत्ताक समाजवेवस्थेंत उरिल्लो एक अनुशेष.

विवाह संस्थेचो सोद हें मनशाच्या सांस्कृतिक इतिहासांतलें एक व्हडलें पावल. नर आनी मादीच्या नात्यापुसून भाव आनी भयणीच्या नात्यामेरेन पावप हें संस्कृतायेचें दुसरें व्हडलें पावल.

भाव आनी भयण हें तशें पळयल्यार समवयस्क नातें. पूण त्या नात्याक कसलो दाग ना. त्या नात्यांत कसले किल्मीष ना, बापूय आनी धू, आवय आनी चलो, घोव आनी बायल, भयण आनी भाव अशी चार तरेची बायल दादल्यामदलीं नातीं. ह्या चारय नात्यामदीं भावा भयणीचें नातें सगल्यांत अप्रूप.

भाव आनी भयण ही उतरां संवसारांतल्या खंयच्याय भाशामदीं उतरां उरूंक ना. ते मंत्र जाल्यात. हे मंत्र म्हणून खंयच्याय दादल्या मनशाकडेन वो

बायलमनशाकडेन आपले लागीचें नातें जोडूंक येता.

भाव भयणीच्या नात्याभशेन भयणी भयणीचें नाते हें अशेंच एक अप्रूप नातें. धूव आनी आवय, आवय आनी धूव, भयण आनी भयण ह्या तिरंगी नात्यांत भयणीभयणीचें नातें सगल्यांत दाट. सगल्यांत खोल. भयण भयणीक सांगू शकता तें कोणाक सांगू शकत ? भयणी भयणीमदलो मोग तापिल्ल्या दुदाभशेन काळजाचें धाकण उखलून ओतता. जिणेच्या गाभाऱ्यात भावभयणीच्या आनी भयणीभयणीच्या नात्याचे हे लामणदिवे पेट्टात म्हणून जिणेची रंगपूजा इतली सोबीत आनी सुंदर जावंक पावता.

पथेरपांचालींत दुर्गा आनी अपु ह्या ल्हान भावभयणांचें अप्रुप नातें दाखयला. रगताच्या नात्यापरस मानिल्ल्या भावभयणीचें नातें चड व्हड हें सांगपाक महाभारतकारांनी सुभद्रा- कृष्णापरस द्रौपदी-कृष्णाचें नातें अदीक खोल दाखयलां.

भारतवर्षाक द्रौपदी कृष्णाच्या नात्यापरस राधा-कृष्णाचे नातें चड आवडलें हें ह्या देशाचे दुर्दैव. राधाकृष्णाच्या रासलीलांचें रसभरीत कीर्तन करतना द्रौपदीकृष्णाच्या अजरंवर प्रेमाची गाथा हो देश विसरल्लो. भावांक भयणी नाका जाल्यो. भयणीक भयणी नाका जाल्यो. भयणींचे कळे देंठार फुलचे पयली गर्भांतच कचाकच खुटून वचपाक लागले.

जाय, म्हाका जायेभशेन, म्हाका जुयेभशेन भयण जाय, हें आतां सगळ्यांनी सांगपाक जाय.



# ख्रिस्तजल्माचो सुवाळो

सगल्या भारतीय सणांत म्हाका नातलां आवडटात. नातलां ही उजवाडाची परब. लापयांवाचो सण. व्हडे रातींचे दीस आतां सोंपतले. दक्षिणायन सोंपून उत्तरायण सुरू जातलें. आतां उजवाडाचे दीस येतले. शीं सोंपतलें. पानगळ सोंपतली. सृश्टीचो गर्भवास सोंपून सैमाचो सृजनसुवाळो सुरू जातलो.

स्नो फॉल थांबतलो. आतां मळब निवळ जातलें. निवळ जातलें. लक्ष नखेत्रांनी कुचकुचून वतलें. काळीं कुपां पयसावतलीं. उजवाड आतां वस्त्रगाळ जातलो. उजवाडाचे आतां दिवे जातले. उजवाडाच्यो आतां दिवल्यो जातल्यो. काळखाच्या गळ्यांतल्यान नातलां आतां उजवाडाचे सूर आळयतलीं.

पयसुल्ल्यान इगर्जेच्यो घांटी वाजतल्यो. पयसुल्ल्या इश्टांची याद जातली. यादी आतां अमुरपिक्यो जातल्यो.

बोटांचीं आतां पिशोलां जातलीं. कागदाचीं आतां ग्रिटींगां जातलीं. उदकाचे आतां रंग जातले.

आयलीं. नातलां आयलीं. साकर आतां अदीक गोड जाली. उतरां आतां मोव जालीं. गितांचें संगीत जालें. बूट आतां नाचूंक लागले. पांयांत आतां नृत्य आयलें. भेसांचे पिसारे फुलले.

जिणेचो आतां केक जालो. नातलांनी आपल्या हातांनी ताचेर आयसिंग घालें.

खुशालकायेचे दीस आयले. उमेदीचे, मजेचे खीण आयले. पिरङण सोंपली, पिरपिर थांबली. आनंदाचे घसरगुंडीर बसून आमी आतां पोरण्या वर्सांतल्यान नव्या वर्सांत गेलीं.

जिबेचे कळे आतां फुलले. जिबेच्या फुलांचेर नेवऱ्यांचे, दोदोलांचे, केकाचे आनी बिबिंकाचे भंवरे आतां बसले. घणघण घांटी वाजल्यो. फोगोट्यांचो गडगड जालो. रंगांचीं नारंगां फुट्टलीं. फेस्त सुरू जालें. पसरे नटले. बाजार फुलले.

हातांतले बोटवे कुचकुचून भरले.

गिरेस्तांक दुबळ्यांची याद जाली आनी तांच्या बोल्सांत मोडय आसली. जाणट्यांक भुरग्यांखातीर आनी भुरग्यांक जाणट्यांखातीर वेळ आसलो. नातालां पासून नव्या वर्सामेरेन सप्तकभर लांब आयतार सुरू जालो. कामां थांबलीं. उसरपत मेळ्ळी. बल्कांव गजाली करूंक लागलें. कुझनांतल्यो रांदनी फुतफुतल्यो. मंद मेणवातीच्या उजवाडांत मेजार कॅण्डल-लायट मेजवानी जाली.

नातलां हो खिस्तजल्माचो सुवाळो. खिस्ताची जीण याद करतकीर म्हजे दोळे भरून येतात. माता मेरीक आंकवारपणांत जाल्लो हो पूत. संवसारांतल्या म्हापुरशांच्या माथ्यार आवयच्या आंकवारपणांत जल्मुपाचो शिराप आसा. महर्षी व्यास मत्स्यगंधा सत्यवतीगेर आंकवारपणांतच जालो. महारथी कर्ण माता कुंतीच्या आंकवारपणांत जालो. आनी जोसेफ मेस्ताचो पूत जेजू बेथलहेमाच्या गोठ्यांत जल्मलो, व्हर्जिन मेरीच्या आंकवार कुसव्यांत.

पांडव कुंतीगेर नियोग संबंदांतल्यान जल्मले. पुत्रकामेष्ठी यज्ञाउपरांत जाल्ल्या राम लक्ष्मणाच्या जल्माच्या कुवाड्याची जापय रामायण दिना. जेजूच्या जल्माभोंवतणीय अशें मिथ आसा. दंतकथा आसा. सगले धर्म बाळकाच्या जल्माचे सुवाळे मनयतात. चैत्रांतले रामनमीक राम जालो, वैशाख पुनवेक बुध्द जाल्लो आनी श्रावणांतले गोकुळाष्टमीक कृष्ण !

कृष्णा भाशेन खिस्त 'गो'कुळांत वाडटा. खिस्ताचें किशोर रूप गोरवांच्या राखण्याचें जशें कृष्णाचें. कृष्णाच्या आनी खिस्ताच्या जिवितांत कितलें सारकेंपण आसा.

दोगांयच्याय जल्मापयलीं राजा निष्पाप बाळकांचो वध करता. एक बंदखणीत आनी दुसरो गोठ्यांत जाता. दोगूय जाण गोरवां राखणे. कृष्ण आनी खिस्त दोगूय जाण परंपरेच्यो सांकळ्यो तोडटात. कृष्णाच्या माथ्यार केन्नाच राजमुकूट येना. खिस्ताच्या माथ्यार येता तो कांट्यांचो मुकूट ! सगल्या म्हापुरूशांक सभावीक तरेन मरण येवंक ना. रामान शरयू न्हंयंत जीव दिलो. गांधीक पिसांटान मारलो. बुध्दाक जेवणांतल्यान विषबाधा जाली. कृष्णाक हरण समजून पारध्याचो बाण लागलो आनी खिस्त खुरसार गेलो.

नातालांचे व्हडे रातीं खिस्त जल्मता. नखेत्रान दाखयल्लो मार्ग सोदीत घोड्यार बशिल्ले तीन राजा बाळक खिस्ताक सोदत ताचेसरीं पावतात.

नातलांचे परबे दिसा खिस्ताक आमी नमन करूंया आनी म्हणूंया.

खिस्ता, आमच्या काळजांत दयेचो, करूणेचो खुरीस रोय. राखणो बोकड्यांची राखण करता तसो आमच्यांतल्या मनीसपणाच्या पिलांची राखण कर.

आंकवारपणांत आवय जाल्लेक माता मेरीची सुवात दी. आवयचे हांडीवयल्या

दरेक बाळकांत आमकां तुजें रूप दिसुं दी.

हाचेफुडें खंयचोय जेजू खुरसार चडचो न्हय म्हणून सगळे खुरीस मोडून वडय, पुरून वडय.

तुज्या नांवान पुण्याय जोडटल्याचो अहंकार झडोवन वडय. तुज्या नांवान पाप करतल्यांचे गुन्याव ताका भोगोस कर.

खिस्ता, तुज्या मरणाचें गुपीत आमकां होलमलें. तुज्या आंकवार जल्माचें कुवाडें मात आमकां कळूंक ना. अनंताची कल्पना आमकां समजली. अनादी ही संकल्पना कितें हें आमी अजून समजूंक पावूंक नात. विश्वाचो विलय जातलो वो जावचो ना. काळ जळून गोबोर जातलो वो घडये जावचो ना हें आमकां कळटा. पुणून ज्या खिणाक काळाक कोमरी फुटली, अनाकारांतल्यान साकार विश्वलोकाचो किल्ल किल्ललो आनी दिगंतराच्या गोठ्यांत अवकाशाच्या आंकवार कुसव्यांत सृजनाचो जल्मसुवाळो जालो तो खीण कल्पनेनय पळोवपाची नदर आमकां ना.

खिस्ता, तुज्या जल्मदिसा, आमी जाका गिन्यानाचो गर्भवास समजतात तें फकत आमच्या अज्ञानाचें आंकवारपण आशिल्लें इतलेंच आमकां कळळें जाल्यार खूब जालें.



# या शुभ्रवस्त्रावृता

सरस्वतीचें न्हेसण सप्तरंगी, फुलपांखी आसूंक जाय अशें म्हाका ल्हानपणापसून दिसत आयलां. पुणून तिका धवें न्हेसण न्हेसयलां आनी शुभ्रवस्त्रावृता केल्या हें म्हाका केन्नाच आवडूंक ना. आतां कोणें किदें न्हेसचें हो जाचो ताचो प्रस्न अशें म्हणूं येता पुणून कोणाक किदें आवडचें होय जाचो ताचो प्रस्न अशी ताका जापय दिवूं येता.

हिंदू धर्मशास्त्रांत कसलीच सुसंगती ना. पुनव पवित्र आनी उमास अपवित्र अशें मानपी हो धर्म. अशें आसूनय हिंदू धर्मांतली सगल्यांत पवित्र परब - दिवाळी, आश्विनातले उमाशेक किद्याक येता ? काळो रंग अशुभ मानला म्हळें जाल्यार, व्हंकलेच्या गळ्यांत घालपाचें 'मंगल'सूत्र मात्र काळ्या मणयाचें. धवो रंग शूभ मानला आनी देखून विद्येचे देवीक धवें न्हेसण न्हेसयला अशें म्हणचें जाल्यार जिका हो धर्म अशुभ मानत आयला ते विधवेकय ह्या धर्मान धव्या न्हेसणाचेंच बंधन घालां ! देवांक आनी देवींक कुन्देन्दुतुषार धवल अशे फुलांचे हार मानवतात अशें म्हणून धव्या रंगांक शुध्दतेच्या, निष्कलंकतेच्या मखरांत बसयता म्हणसर खंयतरी लोकवेदान व्हंकलेक वायट पांयसोराची थारावन तिका धव्या पायांची मानल्या.

कॅथलीक धर्मांतलें ब्रह्मचर्य पाळपी पाद्री आनी माद्री धवेफुल्ल वस्त्रांत भोंवतात. आनी वासनेच्या 'पापाक' वेंगांवक भायर सरिल्ली ईव्हाची वंशजा ख्रिश्चन व्हंकलय श्वेतधवल भेसांत कशी ? मुसलमानांच्यो चडशो मशिदी धव्व्योफुल्ल आनी कब्रस्तानांतली थडगींय फुल्ल धवींच.

स्वर्गांतले देव गोरे आनी पाताळांतली भुतांय धवींच. हय ! भुताचो रंगय धवोच आसूंक जाय. ना जाल्यार काळखांत भुतां कशी दिसतलीं ?

किद्याची संगती किद्याक ना असो हो धवो रंग.

खरें म्हळ्यार धवो रंग हो रंगच न्हय. कसलेंच रंगपण ना ह्या रंगाक. सगल्या

रंगाक लासून तांच्या गोबरांतल्यान जाल्लो हो अनंगी, अरंगी रंग. सैमाच्या गर्भाशयांतल्या सप्तरंगांचो गर्भपात करूनच हो रंग जल्मला जावंक जाय. जातनाच कुड्डो जाल्लो असो हो जन्मांधळो, रंगांधळो रंग. तो म्हाका केन्नाच आवडलो ना.

बटमोगऱ्यापरस म्हाका रक्त दशीण आवडटा. अनंतापरस म्हाका रंगपिशो भुवनेवेली - बोगनवेली मानवतात. श्वेतपद्मापरस म्हाका राजीवकमळ आवडटा.

काणयांतल्या बगळ्यापरस म्हाका कावळो सदांच घरचो कसो दिसत आयला. धव्यापरस काळो रंग अदीक प्रामाणिक, अदीक पारदर्शक अशें म्हाका सदांच दिसलां. काळ्या रंगाक एक कसलें तरी तेज आसा. धवो हो निस्तेज रंग. धव्या रंगांत म्हाका पराजयाची अगतिकता दिसता. शरणांगतीची धवीं बोंदेरां आपल्या रथार बांदिल्लो हो रणछोड सभावाचो रंग.

धव्व्या रंगाची याद जाली म्हणटकीर म्हज्या नाकाक ऑस्पिसेचो वास येता. मड्याचेर पांगुरिल्ली धवी चादर याद जाता.

शववाहिकेचो रंग धवो आसूंक फावो. ॲम्बुलन्स जित्या जिव्या काळ्या रंगाची आसूंक जाय. काळ्या रंगांत जिणेची जिवसाण आसा. धव्व्या रंगाचेर मात म्हाका मर्णाची सया दिसता. धवो रंग म्हळ्यार रगतांतल्यो रक्तपेशी मेल्लो एनिमिक रंग. कोड पडिल्लो उजळिल्लो, भंयान फटफटीत असो हो मोटवो रंग. काळ्या रंगाची अथांगता ना ताका. अंतरिक्षांतलो मेल्लो, उर्जा सोंपिल्लो श्वेतबटु तसो हो रंगांतलो व्हायट ड्वार्फ.

धव्या रंगात किदें तरी भयानक रसायन कालयलां जावंक जाय.

ते परस काळसावळी श्यामलता बरी. गोऱ्या रंगांत म्हाका सदांच राधेचो व्यभिचार दिसला आनी श्यामलतेंत जाणवला द्रौपदीचो स्नेह.

गोऱ्या आंगांत म्हाका पाखल्यांची आडांगीपणा दिसतात. काळ्या रंगांत दिसता ती खांपुल्ल्याच्या दोळ्यांतली करूणा.

आग्र्याच्या संगमरवरी ताजमहालापरस म्हाका फत्तेपूर सिक्रीचो फातरी किल्लो आवडला. ताजमहालाचे घुमटेंत शहाजहानाचे तरसादीन हात कापिल्ल्या स्थापत्यकाराचे वळवळे घुमतात. फत्तेपूर सिक्री असलें कसलेंच धवें पाप ना. थंय आसा ती मर्दानी शृंगाराची तांबुडसाण.

दरेक रंगाक एक धर्म आसा. गुणधर्म आसा. तांबड्याक एक मस्ती आसा. गरमी आसा. त्वेष आसा, निळ्यांत एक शिंयाळी शितळसाण आसा. मळबाचें मेकळेपण आसा. तळयेच्या उदकाची थंडसाण आसा. पांचवो हो सृजनाचो रंग. पाचव्या रंगांत पाचव्या म्हयन्याचें गर्भारपण आसा. पावसांत भिजिल्ल्या रूखांचें चिंब ओलेपण आसा. पिंपळापानांचें गीत संगीत आसा. हडव्यांत आसा पिकें

रसरशीत मोतयाळें पिकेपण- कणसांचें, फळांचें, केळींचें, केळी घडायांचें, पिक्या पेरांचें. गोड आंब्याचें. वस्त्रगाळ वतांचें, हात्यांचें, हळदीचें. जांभळ्याची जांभुळ गोड जांभुळसाण, काळ्याची तिकतिकीत काळसाण, भांगरा कोरांचें शिरवंत भांगरी राजसपण आनी रूप्यारंगाची सात्विक रूपावत ! धव्याक मात कसलोच धर्म ना. सामको नि-धर्मी रंग हो.

धवो रंग म्हळ्यार वायटी. पूं पस. फंगस. धवो रंग म्हळ्यार धुकें. अपारदर्शक धुकें. दोळे कुड्डे करपी. काळखांत तरी ल्हवुल्हवु करून दोळ्यांक संवकळ जातकीर दिसूंक लागता. काळखान खंयतरी उजवाड राखून दवरिल्लो आसता. देखून काळखांतय आमकां दिसता. काळ्याक उजवाडाचें अप्रूप देखून काळो रंग सगलो उजवाड चोखून घेता. धव्याक उजवाडाची नसाय. धवो रंग सगलो उजवाड शेंवटून वडयता. मोखून वडयता.

हिमालयांत व्हायट आवट जाता. ब्लॅक आवटापरस चड भिरांतीचो! खंयचे कडेन कांयच दिसना. अरबस्तानच्या रेंवटांतय अशें सर्वपयस भेसूर मनीसघाणें धव्या रंगाचें रूप दिसता. तें मन उदास करता.

उदासीचो, वैफल्याचो, नैराश्याचो, डिप्रेशनाचो रंग धवोच आसूंक जाय.

एकटेपणाचो, रितेपणाचो रंगय धवोच आसूंक जाय. सगल्यांत भयानक शिक्षा फांशीची न्हय. सक्त मजुरीची न्हय. सगळ्यांत भयानक शिक्षा एकांतवासाचे कादयेची. सॉलीटरी कन्फाइनमेंटाची. ते कादयेच्यो वण्टी धव्यो आनी जमीनय धवी. जनेलांतल्यान दिसपी मळबय धवें फटफटीत !



# गोलघुमट

ताजमहाल एक फावट दोळे भरून पळयलो. आतां परत ताजमहाल पळोवचो अशें दिसना.

गोलघुमटाचें तशें न्हय. गोलघुमट एक फावट पळोवन समाधान जायना.

गोलघुमट फुडल्यान पळोवचो न्हय. गोलघुमटाच्या फाटल्यान वचचें. मात्शें उजवेकडेन रावचें आनी सरते आमोरेर सरत्या उजवाडाच्या काळखांत गोलघुमट पळोवचो.

गोलघुमट लागींच्यान पळोवचो आनी मागीर पयस वचचें. सोलापूर - विजापूर रस्त्याचेर थामचें. पयसुल्ल्यान गोलघुमट पळोवचो. ना जाल्यार मार्गशीर्षाच्या शिंयाळ्या दिसांनी विजापूर वचचें. उमाशेचे रातीउपरांत मळबांत बीजेचो चंद्र उदेलो म्हणटकीर मध्यान रातीक एकट्यानच गोलघुमटाकडेन वचचें. पयस फातरीर बसचें आनी काळखांत अळंग घोळयल्ल्या लेव चान्र्यांत गोलघुमटाचें शिल्प तोखेवचें.

मागीर जमता जाल्यार फांतोड फुट म्हणसर थंयच बसचें. पयस शेतांपलतडीं तांबसो उजवाड उदेलो म्हणटकीर मिण्ण काळखांत चिप्प भिजिल्लें गोलघुमटाचें वस्त्रओलें कमनीय आंग नदरेन सांसपुचें.

वक्रतेंत एक वेगळीच सोबितकाय आसता. वक्र रेशेक जी लाघवी सया आसता ती सरळ रेशेक ना.

सैमाची त्रिमिती सदांच वक्रच आसता. सैमाक त्रिकोण, चौकोन, षटकोन मानवना. विश्व पातळता वता तें तांतयाच्या वक्राकारांत. मळबाक आसता घुमटी आकार. न्हंय व्हांवता वांकडी तिकडी. दोंगुल्लेक आसता असोच आटीव गोलाकार.

वक्रतेंत आसता एक संदिग्धता. एक मुग्धता.

गोलघुमटाची ही मुग्ध, मुग्ध मुग्धता म्हाका आवडटा. कुतुबमिनाराचें

रांगडेपण ना ताका. आयफेल टॉवराचें मर्दानी फ्रेंच पौरूषत्व ना ताका. पिरॅमिडाची दोळे दिपकावपी भव्य कोनाकृतीय आफडूंक ना गोलघुमटाक.

गोलघुमट आंगान मोटो. मोटवो. गोलघुमटाक तशी प्रमाणबद्दता ना. आसा ताच्यांत थोडें बेसूरपण. थोडी विद्रुपता.

गोलघुमट ही ताजमहालाभशेन प्रदर्शनाक दवरिल्ली वास्तू न्हय. गोलघुमट ही फातरांची सेंद्रिय रोयण.

न्हय गोलघुमट हें उद्‌गारचिन्न देवळाफुडल्या दीपमाळेभशेन! गोलघुमट हो एक पूर्णविराम इतिहासाच्या साणिल्ल्या चित्रबोधांतलो.

इतिहासाचे तिनसांजेवयलो संधीप्रकाश गोठून ताचो जाला गोलघुमट. आदिलशाहीच्या गालावयलो हो तीळ, हो चामखीळ उल्ला वयर, भुंयेंवयर चुकून सकयल पुरिल्ल्या मड्याच्या गालावयलो !

गोलघुमटाच्या सुपायेद्या कानांनी आयकला आसूंक जाय मध्ययुगीन इतिहासाचो आक्रोश. तरसादींनी चेंचायल्ल्या मस्तकांची आरड. जनान खान्यात बुरख्याआड घुस्मटतल्या बायलांचो घुस्मटमार.

गोलघुमट पळयतकीर मन प्रसन्न जायना. मन उदास जाता. सैगलाचें पोन्ने पद आयकुचें, आरती प्रभुची आर्त कविता वाचची वो गुरूदत्ताचो शोकान्त सिनेमा पळोवन भायर येवचें तशें जाता गोलघुमट पळोवन येतकीर.

गोलघुमट हें आनंदांचें नाचरें कारंजें न्हय. गोलघुमट ही सांवळ्यो पिवन मख्ख मोनी जाल्ली तळी.

गोलघुमटांत ना फुलत्या फुलाचो हांसो - बहाई मंदिराभशेन. गोलघुमटांत अंतर्बाह्य भरून वतता एके तरेचें उदास, रिक्त रितेपण निर्माल्याच्या पांटल्याचें.

सांचीच्या बौध्द स्तुपांत आनी गोलघुमटांत थोडें भोव साम्य आसा. घुमटांचें वास्तुशिल्प इस्लामी वास्तुकलेन उश्णे घेतलें तें बौध्द स्तुपांकडल्यान. मुळांत मंदिरांची, मशिदींची इगर्जीची संकल्पनाच आयली फुडें बौध्द विहारांतल्यान आनी स्तुपांतल्यान. वेदांत देवळांक सुवात ना. उपनिषदांत ना. रामायणांत देवळांचो उल्लेख ना. महाभारतांत हयन्हयसो एके कडेन आसा. देवूळ हें बौध्दोत्तर इतिहासाचें दायज. तशीच इगर्ज, तशीच मशीद. बौध्द वास्तुशिल्पाचें बोट धरूनच फुडें उबे जाले दर्गे, मकबरे, महाल आनी घुमट.

पुणुन सांचीच्या बौध्द स्तुपांत आशिल्ली सात्विक संन्यस्तता गोलघुमटांत ना. गोलघुमट ही कुरू मनीस जिणेचे पार्थिवतेची. विलासी राजाच्या अगतिक विरहाची. विलापाची. मरणाच्या कृष्णकाळे सावलेची. उपाट सुखोपभोगाउपरांत येवपी हताश रितेपणाची.

गोलघुमटांत आसा एक गूढ क्यूबीझम. पिकासोचो! पिकासोन पळोवंक जाय

आसलो गोलघुमट. आपल्या रंगीत पिशोलाच्या सुयांनी पिकासो अंतर्बाह्य उसयतलो आशिल्लो गोलघुमट.

पिकासोन चित्रकलेंत बंडखोरी केली. ताणें नेम मानले ना. नेम मोडपाचोच नेम केलो ताणें. चित्रांच्यो फास्क्यो मोडून ताणें आपलीं चित्रां फास्केपरस व्हड केलीं. ज्या स्थापत्यकारान गोलघुमट बांदलो ताका हो विशाल घुमट बांदतना गरज पडलीना कसल्याच खांब्यांची. कसल्याच कृत्रीम धिगयांची. ताचे फुडें नाशिल्लो दुसरो गोलघुमट नक्कल करपाक. ताका आपल्या मनाचे घुमटेंत उबवचो पडलो हो आगळो वेगळो घुमट - गोलघुमट.

पिकासो म्हणटालो आपूण चित्र काडटां तेन्ना आपूण किदें काडटलो तें आपल्याक लेगीत खबर नासतालें. घडये गोलघुमटकारान गोलघुमट बांदलो ना. गोलघुमट ताच्या हातांतल्यान घडत गेलो.

सरळ रेशेंत आनी वक्र रेशेंत भेद आसा तो होच. सरळ रेशेक आपल्याक एका बिंदुकडल्यान खंयच्या तरी दुसऱ्या बिंदुकडेन वचूंक जाय हें खबर आसता. वक्र रेशेक खंय वचप हें खबर आसताच अशें ना.

दरेक सरळ रेशेक वक्र जावपाचेच दुवाळे लागिल्ले आसतात. दरेक त्रिकोणाचे, चौकोनाचे, पंचकोनाचे. निमाणे वर्तुळ जावपाचेंच सपन आसता. कोनांची संकुचित नदर वर्तुळाच्या आर्कांत सर्वसमावेशक जाता.

देखून म्हाका देवळांचीं गोपुरां आवडनात. इगर्जीचीं शंकाकृती शीर्षासनां आवडनात. त्यापरस घुमट बरें. तें नदरेक थाकाय दितात. थंडसाण दितात.

ताजमहाल म्हाका आवडूंक ना अशें हांव म्हणचो ना. पुणून गोलघुमट म्हाका खूब्ब आवडटा. फुडले फावट हांव गोलघुमट पळोवंक वतलों तेन्ना तो फाटले फावटीपरस अदीक सुंदर आसतलो अशें म्हणपाचें पिशेपण हांव करचोना. पुणून फाटले फावट पळयल्ल्या गोलघुमटापरस फुडले फावट पळयल्लो गोलघुमट वेगळो आसतलो हाजेविशीं म्हज्यां मनांत कसलोच दुबाव ना.

गोलघुमटाकडेन एक वास्तू म्हणून पळोवंक जायना. गोलघुमट हो एका श्रेश्ट कलाकाराचो कलंदर मूड. ताच्या कसल्या तरी खोल दुःखाचें तें एक कॅथार्सिस.

देखून गोलघुमट आनंदी मनशाक दुःखी करता. उदास मनशाक अदीक उदास करता.

येत्यावत्याच्या कपलार गोलघुमट कसल्या तरी जळिल्ल्या दुःखाची बिबूत लायता.



# दुखां

दुखांची फुलां जांवचीं अशें बी म्हणपांत कांयच अर्थ ना. दुखां दुखांच उरची. दोळ्यांत दुखां येवची न्हय अशेंय म्हणचें न्हय. दरेक दोळ्यांतलें दरेक दूख पुसुया असोय आग्रो नाका.

येवूं दी. दोळ्यांत दुखां येवूं दी. दुखांनी दोळे भरूं दी. घळघळीत दुखांतल्यान काळजांतले दुःख व्हांवू दी.

"विपदः सन्तु नः भगवन्" हें कुंतीचें मागणे. आमचेर खूब संकश्टां येवूं दी - अशें कोण म्हणत ? महाभारतात कुंती म्हणटा. कुंतीच्या दुःखाक आर ना. पार ना. कुमारी मातृत्वाचो कर्मभोग. नवजात पुताचो वियोग जावपाचो प्रसंग. कुटुंबांतलीं झगडीं. सुनेची विटंबना. एके वटेन एक पूत दुसरे वटेन पांच पूत - अशा तरेची लडाय. पुताचें मरण नातरांचें मरण सुडान लासून गोबोर जाल्लें हस्तिनापूर आनी निमाणे रानउज्यांत लासून मरण.

अशें आसूनय द्रौपदीभशेन खंयच जळफळाट ना. तडफडाट ना. काळजांत किल्मीष ना. असुया ना. अगतिकता ना.

महाभारतांत कुंती चड उलयना. ती मोन्यानी सोंसता, आनी घडये एकांतांत घळघळीत दुखांनी दोळेभर रडटा. आपल्या दुःखाचेर दुखांचो अभिषेक करून कुंती शुचिर्भूत जाता.

गौतम आपल्या सान बाळकाक आनी आपल्याक सोडून गेलो हाजें यशोदेक दुःख ना. "सखी, अगर वो मुझे कहके जाते" - हाजें मात तिका व्हड दुःख ! बुध्द जातकीर गौतम यशोदेगेर भिक्षा मागूंक येता तेन्ना यशोदा ताचे झोळयेंत वडयता दुःखात कडयल्ली दुखांची मुठभर भीख.

कस्तुरबाचे दुःख वेगळें. गांधीन सत्याचे प्रयोग केले. कस्तुरबान सत्याचे भोग भोगले. तरी आसतना कस्तुरबा सदांच हांसती. तिजो हांसो हींच तिची दुखां !

दोळ्यांचे पलतडीं खंय तरी आसता वेदेनेचे देगेर दुखांचो रूख. शियाळे आमोरेर ताचे वयल्यान टपटप पडटा दुखांची पानगळ.

दुखां म्हळ्यार दुःखाचें व्हांवते रूप. दुखां म्हळ्यार वेदनेचो पारदर्शी रूपकार.

म्हाका भुरग्यांची हिमटी आवडना. हिमटी दुखांक आडायता. दुखांनी भरिल्ले भुरग्यांचे गाल म्हाका आवडटात. भुरगी दुखांतल्यान रडनात. तीं किदें तरी सांगतात ती किदें तरी सांगूक सोदतात. तांचीं दुखां आसतात तांचीं मख्ख मोनी ओली उतरां.

जाण्ट्यांक अशें घळघळ रडूंक येना. हांवे पळयलां - पिक्या म्हातारपणांत दोळ्यांतली दुखांय गोठेतात.

शाणो मनीसय केन्ना रडना. दोळ्यांत दुखां येवप हें दुबळेपणाचें लक्षण अशें तो समजता.

ना. शाणो मनीसय रडटा आसत केन्ना केन्ना. पुणून आपल्या दुखांची ताका लज दिसता. देखून तो रूपडें घालून आपली दुखां लिपयता.

दुखां येवप हें सुसंस्कारितेचें लक्षण मानूंक जाय. आपल्या दुःखान दोळ्यांत दुखां हाडपी प्रकृतीच एक दीस आमकां दुसऱ्याच्या दुःखान दोळ्यांत दुखां येवपी संस्कृतीकडेन व्हरता.

बाकीबाबाली 'तेथे कर माझे जुळती' ही कविता म्हाका खूब अडेची दिसता. नाटकी दिसता. बाकीबाबाची एक कविता म्हाका अदीक निजाची, अदीक सेंद्रीय दिसता.

सुखे दुजाच्या हिरवळ चित्ती
दुःखे डोळा पाणी
हिरवळ आणिक पाणी
तेथे सुचती मजला गाणी.

अशें भरील्ल्या दोळ्यांनी म्हणपी बाकीबाब म्हाका दिव्यत्वाक हात जोडपी बाकीबाबापरस वेंतभर व्हड दिसता.

जसो जसो मनीस सभ्य जाता, शिष्ट जाता, समाजाचे नदरेन सुसंस्कृत जाता तशी तशी ताका दुखांची आडखळ जाता. तो मागीर हात जोडटा. मेळत थंय मेळत ताका हात जोडटा. जोडूया. आमी हात जोडूया. संवसारांत जें जें सुंदर, जें जें सोबित, जें जें नितळ, निवळ, निर्मळ - ताका आमी हात जोडुया. पुणून दुखांची भासय आमी शिकया. दोन हातांच्या नमस्कारापरस दोळ्यांतली दोन दुखां म्हाका ल्हव आवाजांत सांगतात - मनशांतलें मनीसपण मरूंक ना. हें

पळय तें जितें आसा.

फांसार वचचे पयलीं जेलरान गुन्यांवकाराक विचारल्लें - तुजी निमणी इत्सा किदें ? गुन्यावकारान सांगलें - 'म्हाका खीणभर रडूं दी. आनी दोळ्यांत घळघळीत दुखां काडून तो खीणभर रडलो आनी मोन्यांनी फांसार गेलो. ताचें मडें सकयल देवयलें तेन्ना ताच्या गालावयलीं दोन जितीं दुखां जेलरान आपल्या लेंसान पुसलीं. पयलेच फावटीं जेलराच्या दोळ्यांतय दुखां आयलीं.

दुखां आमकां मोव करतात दुखां आमकां ल्हवपीक करतात आनी हय ! दुखां आमकां आनंद दितात. रडपाचो आनंद ! आनंदाचे तें दग्ध, विदग्ध रूप म्हाका आवडटा.

कोण म्हणटा - फुलां हांसतात म्हणून ? फांतोडेच्या हयन्हयशा उजवाडांत दवांत चिंब भिजिल्लीं फुलां पळोवन म्हाका दिसता - ना. फुलां रडटात.

फुलां म्हळ्यार रूखाचो हांसो अशें म्हणपांत कांय अर्थ ना. गिमाच्या रखरखीत वतांत तांबड्या फुलांनी कुचकुचिल्ली सांवर पळोवन म्हाका दिसता - सांवरीचीं हीं कुचकुचीत फुलां आसूं येतात सांवरीच्या दोळ्यांतलीं घळघळ दुखां!

वाऱ्यार सळसळतीं पानां, हो खरो रूखाचो हांसो अशें हांव मानतां. गंद तांबडी फुलां हीं रूखाच्या दोळ्यांतलीं हूनहून दुखां - असो म्हाका खूब फावटी भास जाता....



# चावी

पेन सांडल्यार पेनच सांडटा. वक्ल सांडल्यार वक्लच सांडटा. चावयेंचे तशें न्हय. चावी सांडल्यार चावी सांडटाच. कुलूपय सांडटा. बॅग सांडटा. दार सांडटा.

चावयेक स्वताची अशी वेगळी सुवात ना. कुलूप आसा म्हणून चावी आसा. दार नासल्यार चावयेची गरज ना. तिजोरी आसले बगर चावी कोण सांबाळना. चावयेचें अस्तित्व अशें परावलंबी. देखून कुलूप सांडल्यार चावयेचो कांय एक उपेग ना. दार मोडल्यार चावयेची उपयोगिताय सोंपता.

अशें आसलें तरी चावयेक आसा तो मान कुलपाक ना. कुलूप कोण किरवटेक बांदिना. तो मान चावयेचो. चावी सांडल्यार जाता तो मनस्ताप कुलूप सांडल्यार जायना. कुलूप खंयचीय वस्त धांपता. बंद करता. राखण करप, लिपोवप धांपप हो कुलपाचो सभावधर्म जाल्यार उगडप, उकतें करप, मेकळें करप हो चावयेचो गुणधर्म.

सगल्यांत गोड आवाज खंयचो ? शेवण्याचो ? वझऱ्याचो ? गिताचो ? संगीताचो ?न्हय. सगल्यांत गोड आवाज कोणाली तरी बंदखण उक्तें करपी चावयेचो ! अशी एक कुसुमाग्रजांची कविता आसा.

कुलूप हें बंधनाचें प्रतिक जाल्यार चावी हो स्वातंत्र्याचो दृश्यावतार. कुलूप हें राखणेचें रूप जाल्यार चावी हो मुक्ततायेचो रूपकार.

संस्कृतायेच्या मुळाव्या पांवड्यार मनशांच्या घरादारांक नाशिल्लीं कुलपां, नाशिल्ल्यो चावयो. सगलेंच आशिल्लें सगल्यांचें आनी कितेंच नाशिल्लें कोणा एकल्याचें ! सगल्या वस्तींचो सोद समाजीक गरजेंतल्यान लागला. जेन्ना सामुहीक संपत्तीचे वांटे जाले आनी दरेका वांट्याचेर दरेकाचो मालकी हक्क जालो तेन्ना कुलपाचो आनी चावयेचो सोद लागप ही सामाजीक गरज जाली. पयलीं वण्टी आयल्यो मागीर दार आयलें. मागीर खिळयो आनी आडामे

आयले. उपरांत कुलपां आनी चावयो आयल्यो.

संस्कृतायेच्या आनी सभ्यतायेच्या पावला कणकणी चावी बदलत गेली. पयलीं-पयलीं कुलपां बंद करपाक् आनी उगडपाक चावी लागताली. मागीर मनशाच्या लक्षांत आयलें - कुलूप वो दार बंद करपाक चावयेची गरज आसताच अशें ना. उगडपाक मात चावी जायच जाय.

फुडें आनीक एक सोद लागलो. चावयेचो उपेग कितेंय उगडपाकच न्हय तर कित्याकय कोर्द दिवपाकय जावूं येता. हो मोटो सोद. हातुंतल्यान कोर्दीच्यो घडयाळी, कोर्दीचीं खेळणीं आयलीं.

उपरांत माख्नाचो सोद लागलो आनी माख्न सुरू करपाक चावी उपेगी पडूं लागली. एकेक करीत चावयेचे उपेग बदलत गेले. उगडप, कोर्द दिवप आनी सुरू करप अशा तीनय कामांखातीर चावयेचो उपेग जावूं लागलो.

चावयेचीं रूपांय बदललीं. कोणें चावये सुवातेर बटण हाडलो. हय. बटण हें चावयेचेंच उत्क्रांत रूप.

हालीं हालीं मनशाक आनीक एक व्हड सोद लागलो. चावयेचें रूपांतर ताणें आंकड्यांत आनी अक्षरांत केलें. कोड नंबर आनी कोड वर्ड हांची संकल्पना जल्माक आयली. संगणकान ताचो पुराय उपेग करून घेतलो.

चावयेचे उपकार मनीस विसरूंक शकना. चावयेन मनशाक खंयचे खंय पावयला.

माख्न म्हळ्यार मनशाचे बुदवंतकायेचें गोठेल्लें रूप अशी एक म्हणणी आसा. चावयेचें तशेंच. चावी म्हळ्यार मनशाचे बुदवंतकायेचें ल्हानशें रूप.

खरें म्हळ्यार मनशाची बुद्द, मनशाची बुदवंकाय हीच एक् चावी. ते चावयेन मनशान गिन्यानाचीं कितलींशींच कुलपां उगडलीं.

सगलें सैन्य म्हाका सोडून गेलें तरी जे मेरेन म्हजी बुद्द म्हाका सोडून वचना, तेमेरेन हांव कोणाक भिना अशें चाणक्यान म्हळां तें फट न्हय.

ज्या मनशान आपले बुदवतंकायेची चावी आपले किरवंटेक लायल्या ताका हेर कसल्याच चावयांच्या घोंसाची गरज पडना. ताची बुद्द हीच ताची चावी जाता.

'सा विद्या या विमुक्तये' ही विद्येची व्याख्या केल्या ती हेच खातीर ! शिक्षणाचें, गिन्यानाचें वजें जावंक जायना. सांखळी जावंक जायना. नवें ज्ञान म्हळ्यार नवी नदर. नवीं पांखां. नवी चावी. नवो चावयांचो घोंस. नवें चावयाळें.

गिन्यानाच्या चावयाळ्याक तरांतरांच्यो चावयो आसतात आसूंक जाय.

कितें, कोणें, केन्ना, खंय, कशें, कित्याक हो एकेक प्रस्न ही एकेक चावी. सैमाचीं, ज्ञानाचीं, विज्ञानाचीं, तंत्रज्ञानाचीं, तत्वज्ञानाचीं कुवाडीं सोडोवंक

मनशान एकेक करून ह्यो सगल्यो चावयो वापरल्यात. ह्यो सगल्यो चावयो वापरून कांय वेळा मानवी अज्ञानाचीं कुलपां उगडनात, 'कित्याक' ह्या प्रस्नाची चावी लावनय गिन्यानाचें दार उगडना हें पळोवन मनशान 'कित्याक न्हय' ह्या प्रस्नाची नवी चावी लायली. हे चावयेन घडाघड कितलींशींच कुलपां उगडलीं. सुर्वेसुर्वेक मनशाक दिसलें दरेके क्रियेफाटल्यान कोण तरी कर्तो आसूंक जाय. देखून तो दर कुलपाक 'कोण' ह्या प्रस्नाचीच चावी लावंक लागलो. सगल्या कुलपांक एकच चावी लागता हो समज म्हळ्यार मानवी बुध्दीच्या अनाडीपणाचें लक्षण, 'कोण' ह्या प्रस्नाची चावी लावपांत मनशाचो खूब शक्तीक्षय जालो.

मागीर मनशाक दिसलें, प्रत्येक गजाली फाटल्यान कितें ना कितें कारण आसूंक जाय. मागीर 'कित्याक' ह्या प्रस्नाची चावी ताची सामकी आवडीची जाली. 'कित्याक' ह्या प्रस्नाचे चावयेन कांय कुलपां उगडलीं. पुणून सगलीं कुलपां उगडना जालीं.

उपरांत 'कित्याक न्हय,' 'अशेंच कित्याक न्हय,' 'तशेंच कित्याक न्हय' ह्या प्रश्नांच्यो चावयो मनशान वापरल्यो. हे चावयेन ताचे बुदवंतकायेक, ताचे कल्पकतेन नवी धार हाडली.

मनशाची ऐहीक जीण सुखी, समृध्द करपाक मात सगल्यांत उपेगी पडली ती चावी 'कशें' ह्या प्रस्नाची.

'कोण' ह्या प्रस्नाचे चावयेन सगलें धर्म-तत्वज्ञान उबारलें. 'कित्याक' ह्या प्रस्नाचे चावयेन विज्ञानाक जल्म दिलो. 'कशें' ह्या प्रस्नाचे चावयेन तंत्रज्ञानाचें कुलूप उगडलें आनी 'कित्याक न्हय' ह्या प्रस्नाचे चावयेन मनशान सपनांचे निसणीर चडून फुडाराची नवी सृश्ट पळयली, घडयली.

चावयेचें जशें सोबीत, सुंदर, शुभ, शुभंकर रूप आसा तशें चावयेचें बुरशें, बिभत्स रूपय आसा. जांचे किरवटेक चावयांचे घोंस आसतात अशा लोकांनी जांचेकडेन एकय चावी ना अशा लोकांक पुराय फटयले. पुराय नागयले. चावी हें स्वातंत्र्याचें मेकळिकेचें न्हय तर किरवटेची चावी हें मानवी स्वार्थाचें, लोभाचें, फटींगपणाचें रूप जालें. कांय बुदवंत लोकांनी भौसाच्या तोंडाकच कुलूप घालें आनी ताची चावी आपल्या बोल्सांत दवरून भौसाचो आवाज बंद केलो.

योनी शुचितेच्या भयानक कल्पनेंतल्यान 'चॅस्टीटी बेल्टा'चो जल्म जालो. बायल ही मालकी हक्काची वस्त जाली. भोगवस्त जाली. 'न स्त्री स्वातंत्र्यम् अर्हति' बायलेक कसलीच मेकळीक दिवची न्हय - अशे तरेचें तत्वज्ञान फुडें आयलें. संस्कृतायेचे पसरकार आपल्या पसऱ्यांचेर बुरख्यांचीं, चॅस्टीटी बेल्टांचीं, केशवपनाक लागपी वाखोराचीं कुलपां विकूंक लागले. जो मनीस कुलूप

विकतें घेता ताका कुलपाची चावीय फावो जाता. कुलूप विकून चावी आपलेकडेन दवरपाचें नवें तंत्र संस्कृतायेच्या पसरकारांनी आपणायलें.

इतिहासाच्या विंगड विंगड मोडणांचेर कांय वेळा, कांय लोकांक कुलपांक चावयो आसतात ही गजाल लेगीत खबर नाशिल्ली. चावी तांणी केन्नाच पळयली ना. कोणें तांकां दाखयली ना.

चावयांनी अशे खूब अनर्थ केल्यात. मनशाक खूब मनस्ताप दिला.

देखून, मदीं-मदीं चावयो सांडप आनी कुलपां फोडून दारां उगडचीं पडप हें वायटशें न्हय. चावयेचो मद देंवोवपाक चावी सांडोवप हो वायटसो उपाय न्हय!



# फुलांचो खुरीस

शिरदोनची चडटी काडून रस्तो बांबोळीचे दोंगुल्लेचेर पावता तेन्ना दोनय वटांनी पिंगशा तणाचें मळ लागता. ह्या मळाच्या माथ्यांत केन्ना तरी कोणें एक खुरीस खोयला.

खुरसाक फुलां ओंपपाची रीत ना. पुणून ह्या खुरसाक भावार्थी लोक फुलां ओपूंक लागले. रोजांच्यो, शेंवत्यांच्यो, रतनआबोल्यांच्यो माळो घालूंक लागले. मागीर तो खुरीस फुलांचो खुरीस जालो.

धुंगरिल्ले काळखे आमोरेर काळखांत भरशिल्लो तो काळो खुरीस माथ्यावयल्या फुलाचें वजें देंवयतालो आनी मळबांतल्या नखेत्रांच्यो फुलवाती तोखेतालो. फांतोडेच्या झिळमिळ उजवाडांत काळखाची कात वडोवन तो दंवा-उदकांत सुस्नात जातालो. शुचिर्भूत जातालो. वैशाखांतल्या गिमाचें हुनत, आषाढांतल्या पावसाची वावझड, श्रावणांतलें रस्मी वत, आश्विनांतलें चान्नें आनी मार्गशीर्षातलें शिंयाळें शीं तो खुरीस आपल्या सर्वांगाचेर घेतालो.

ताच्या खांदार शेवणीं बसतालीं. अष्टदिशांतलो वारो ताका कातकुतल्यो करतालो. पयसुल्ल्या दर्याची गाज आयकून ताचे कान तृप्त जातालें. अघनाशिनी जुवारीचे देगेवयल्या सैमाचे शृंगार पळोवन ताचीं पंचेद्रियां संतृप्त जातालीं.

फुडें त्या खुरसाच्या माथ्यार घुमटी आयली. आतां ताचे भोंवतणी इगर्ज बांदल्या. आतां फुलांच्या खुरसाक वारो भेटना. आतां ताच्या खांदार शेवणीं बसनात. आतां खुरसाक मळब दिसना. आतां ताका पावसांत भिजूंक मेळना. खुरसाच्या सर्वांगार आतां वत आनी शिंयाचो शिंवर जायना. आतां ताका मळावयल्या तणाक सांसपूंक मेळना. ओले मातयेंत भिजयल्ले ताचे पांय आतां तिजुल्यामदीं मुंगरल्यात. ताच्या बिलोरी मोंनेळाक उतरांची वेर आयल्या. खुरसाचे कान आतां किटल्यात. ताचे हात आतां बांदल्यात. ताचें आंग आतां

शिणलां. टवटवीत फुलांचो खुरीस आतां निर्माल्यावरी बावून गेला.

खुरसाचें खुरीसपण ताच्या क्ट्टि काळ्या रानवटी आदिम रुपांत आसा. हीं नवीं न्हेसणां ताका सोबनात. ताका भांगराशिंगराची ओड ना. ताच्या संन्यस्त वैरागी मनाक हे अलंकार नाकात. आपलें उगडें, मेकळें, नग्न-नागडें, मुक्त-विमुक्त रूप ताका आवडटा.

खुरसाचें अशें खरखरीत खुरीसपण म्हाकाय आवडटा. खंय उंच दोंगुल्लेचेर मळबाचे निळे घुमटेसकयल एकलो एकसुरो खुरीस ध्यानस्त बशिल्लो आसता तर खंय किण्ण सिमितरींत आत्म्याचीं पिनकीं न्हेसणां काडत खुरीस बसता.

भाद्रपदांत पिकूंक आयिल्ल्या पक्वपांचव्या शेतादेगेर धव्व्याफुल्ल् फातरांचेर एका पांयार उबो रावन कृष्ण काळो खुरीस सैमाचो सृजनोत्सव तोखता जाल्यार खंय दर्या देगेवयल्या खडपार बसून तो एकचित नदरेन ल्हाराल्हारांचें तांडवनृत्य पळयता.

खंय नवजात बाळकाक तो ख्रिस्ताचो शुभाशिर्वाद दिता, खंय मिलनोत्सुक व्हंकल-न्हवऱ्यांक तो लग्नाचे पवित्र वेदीर चडयता. खंय दिमी मोडिल्ल्याचे घाय तो पेखयता तर खंय चैतन्याच्या शेवण्यान सोडिल्लो पांजरो मातये-भरवण करता. खुरसाचे खूर दोन हजार वर्सां पयलींच्या खोल भूगर्भांत रोमून आसात. जेजूच्या रगताच्या रूजवणांतल्यान हो करूणेचो जिवो तट्टटीत किल्ल किल्लला. दर वर्सा पवित्र शुक्राराक पोन्न्या वर्सांचीं पानां वडोवन पानगळ लागिल्ल्या रूखावरी खुरीस निष्पर्ण जाता आनी दर ईस्टराक खुरसाक नवी कोमरी फुट्टा. नवी आंकरी फुट्टा. नातलांचे परबेक ख्रिस्तजल्माचे यादीन खुरीस चंवरता. दरेका खुरसाची जाता मागीर एक ख्रिसमस ट्री! आंगाखांदार लापयांवांचो उजवाड खेळयत खुरीस ख्रिस्ताची जन्मतीथ मनयता.

खुरसाक पळोवन हांव सदांच नत जातां अवनत जातां. खुरसासारकें सादें, सोपें, मनशाळिल्लें अशें अध्यात्मीक प्रतीक दुसरें ना. ताका ॐ काराची शिरवंत गिरेस्तकाय नासत. ताका मशिदीवयले बीजेचे चंद्रकोरीची सोबितकाय नासत. ताचेर नासत पांचव्या वो केसरी रंगाचो शिंवर. तरी ताचें नग्न, शिसवी, काळें, राजस रूप म्हाका आवडटा.

खुरसाची भास मनीसघाणी न्हय. ताचें व्याकरण क्लिश्ट कठीण न्हय. ताची लिपी मोडी न्हय.

अव्दैताचें आनी विशिश्टाव्दैताचें तत्वज्ञान सदांच म्हज्या माथ्यावयल्यान गेलां. मानवी जिणेंतलें व्दैत म्हाका भावलां. तेंच म्हाका खुरसांत दिसता. जीण आनी मरणाचें व्दैत. प्रकृती आनी पुरूषाचें व्दैत, सर्जनाचें आनी संहाराचें, आंनदाचें आनी वेदनेचें व्दैत. खुरीस हो आमचे जिणेंतल्या द्वैताची मूर्त. द्वैताचे

चित्रलिपींतलें एक विरामचिन्न म्हळ्यार खुरीस!

खुरसाक पळोवन हांव उन्नत जाता. उर्ध्वमुख जाता. जिणेंतल्या दुस्वासांची खातसाण पानगळ कशी गळून पडटा. हांव निष्पर्ण जातां. खुरसाक पळोवन काळजांतले गर्भकुडींत आमोरेची घांट वाजूंक लागता. त्या अंतर्नादान हांव अंतर्मुख जातां. अधोमुख जातां.

दरेका खुरसांत म्हाका फुलांचे देंठ दिसतात. दरेका खुरसाचेर म्हाका फुलांच्यो अदृश्य पाकळ्यो दिसतात. दरेक खुरीस हो फुलांचोच खुरीस आसता.

अशा खुरसावयर आमी घुमटी बांदूंया नाका. अशा खुरसावयर आमी देवळी बांदूंया नाका. अशा खुरसाखातीर आमी कपेल उबारूंया नाका. अशा खुरसाखातीर आमी इगर्ज उबारूंया नाका.

खुरसाक तसोच रावं दी उबो. मातयेंत. मळबासकयल. खुरसाक तसोच आसूं दी. काळो, किट्ट काळो. नग्न नागडो. खुरसाक आसूं दी वस्त्राविणो. खुरसाक आसूं दी न्हेसणांविणो. खुरसाक पिवूं दी वारो. खुरसाक पिवूं दी पावस. खुरसाक पिवूं दी काळखांत खिरयल्लो उजवाड थोडो! खुरसाक सांसपू दी तणाक आनी तणाफुलांक. शेवण्यांक आनी फुलपांख्यांक.

खुरसाक बसूं दी नखेत्रांच्या माचुलांत. खुरसाक भोवूं दी पांखां फुटून अनंताच्या अंतराळांत.

फुलांच्या खुरसा, आमचें तुजे कडेन कसलेंच मागणें ना. कसलेंच गाराणे ना.



# सावळ्यो

सकाळ जाली तरी रूखांक घट्ट वेंग मारून न्हिदिल्ल्या सावल्यांची साकरन्हीद सोंपली ना. दीस धारेर चडत गेलो तशे सावल्यांनी दोळे उगडले. एकेक करून एकेक सावळेन रूखांवयल्यान उडी मारली. सावल्यांनी आपलीं वस्त्रां देंवयलीं. विवस्त्र सावळ्यो वस्त्राविणें वताच्या धारोष्ण उदकांत न्हावंक लागल्यो. मध्यान जाली. सावल्यांनी उदकांत डुबकी मारली आनी म्हणटां म्हणटां त्यो वता- तळयेंत नाच्च जाल्यो. दनपारचो भार देंवलो तशें सावल्यांनी परत तोंड वयर काडलें. तांणी हातांत हात घेतले. सरत्या वताच्या व्हांवत्या उदकांत सावल्यांनी रासक्रिडा सुरू जाली. म्हणटां म्हणटां आमोरी जाली. एकेक सावळी सुस्नात जावन उठली. आपआपलें न्हेसण न्हेसून नटली. काळखाचे हारशेंत आपलें तोंड पळोवंक लागली. अस्तंत् तांबडीगुल्ल जाली. सावल्यांची भिवन गुळी जाली. एकेक करून एकेक सावली रूखार वचून बसली. रूखाच्या आंगार विरगळून गेली. दिसभर सावल्यां बरोबर खेळून वाऱ्याकय पुरो जालें. रूखाच्या खांद्यावयल्या आपल्या घोटेरांत वचून वारोय सुस्त न्हिदलो.

सावल्यांक माप नासता, मिती नासता. विदेही सावल्यांक देह नासता. निर्गंधी सावल्यांक गंध नासता. सावली म्हळ्यार उजवाडाचें निर्माल्य ! सावळी शाश्वत न्हय. सनातन न्हय. स्वयंभू न्हय. सावळी चिरंजिवी न्हय. चिरायुष्यी न्हय. खिणजिवी सावळी परभृत. परावलंबी सावळेचें प्राक्तन तिचे हातांत ना.

उजवाडाचें वीर्य पिवनय तांचे कुसवे सावल्यांचे गर्भ धरूंक शकनात. सावल्यांच्या जल्माच्यो वेणो येतात उजवाडाचो पायस पिवन गर्भार जावपी रूखांक !

म्हाका सावळ्यो आवडटात. सावल्यांचे सायदाटें, सालदाटें रूप म्हाका आवडटा. म्हाका मिण्ण काळोख आवडना. मिण्ण काळखाक रातांधळ्यो

सावल्यो भितात आनी खंय तरी लिपून बसतात. म्हाका मध्यानीच्या उजवाडाचो भगभगय आवडना. हो उजवाड सावल्यांचीं पांखां पिसडून वडयता. वरशें वत. सरतो उजवाड. सावल्यांच्या सर्जनाचो वेळ हो. सावळ्यो दोळ्यांत तेल घालून त्या वेळाची वाट पळयतात. भुरगीं कशीं मागीर फाटीर आपआपले पाटयेपुस्तकाचो बोटवो घेवन सावल्यांचें भिरें धांवत सुट्टा. हय ! सावळ्यो धांवतात. सावळ्यो नाचतात. सावळ्यो फुतुफुतु फुतफुततात. सावळ्यो किटीकिटी हांसतात. सावळ्यो उडक्यो मारतात. सावळ्यो पडटात आनी आपलीं धोंपरा फोडून घेतात. सावळ्यो आपालिपा खेळटात. सावळ्यो एकामेकांकडेन गट्टी फू करतात. सावल्यांचे खेळ पळयत बसप म्हाका आवडटा.

सावल्यांक सगळीं योगासनां येतात. शिर्षासन, पद्मासन, शवासन, हलासन. सावळ्यो वरांचीं वरां योगमुद्रा करून समाधिस्त जातात आनी एक उतर उलयनासतना मोने विपश्यनेंत गुल्ल जातात.

शाण्या मनशांभाशेन सावळ्यो आपले फाटीर भुतकाळाची वजीं घेनात आनी आपल्या दोळ्यांक दुर्बिणीय लायनात. सावल्यांक खबर आसता फकत वर्तमानकाळ. तोच काळ तीं जगतात. म्होंवामाल्यांतल्यान गळपी म्होंवाभाशेन जिणेंतलो एकेक खीण तीं चाट्टात. चोखतात. म्हणून सावळ्यो सदांच तृप्त, संतृप्त, धादोशी, समाधानी आसतात. तांकां नासता व्यथा. नासता वेदना. सावल्यांक पिरीपिरी पिरंगण करपाक आवडना. सावळी आसता सदाफुली. सदानंदी. सावळी आसता नार्सिससाभाशेन आत्ममग्न. आत्मानंदांत गुल्ल.

पुणून कांय वेळा सावल्यांचे गोमटेर म्हारू बसतात. तांच्या आंगार भुतादेवाचारांचो भार सांवार येता. रानाचे देगेर एकलें एकसुरें भयाण घर आसचें आनी वासरेर मिणमिण पेटपी उजवाड आसचो. अशा घरांत सावल्यांचो भूतनाच सुरू जाता. अशा घरांत एकट्यादुकट्यान वचचें न्हय. तांचेर सावल्यांचें वागरें पडटा. तांचेर सावल्यांचें भूत बसता. मध्यानरातीक हातांत काळखाची पेट्टी चूड घेवन सावळ्यो घरांतल्यान भायर येतात आनी रातभर भोंवडी काडटात. रूख लेगीत थर्त भितात तांकां. चान्नें लेगीत थरथरता तांकां पळोवन.

सावल्यांचें चित्र काडूं नजो. आदिम जिणेच्या संधीकाळांत अशा सावल्यांक पळोवनच मनशाक भुताची कल्पना सुचली काय ? आनी देवाची संकल्पना भुताचे कल्पनेंतल्यान आयली हें आमी जाणात. पयलीं भूत मागीर भूतनाथ. पयलीं देंवचार मागीर देव. पयलीं वेताळ मागीर भैरव. भुताच्या आनी देवाच्या जुवळ्यांक जल्म दिवन सावल्यांनी संवसारांतल्या बऱ्याच अनर्थाचें पाप आपल्या

माथ्यार धेतलां.

पुणून सावल्याचें उपकारय आसात आमचेर. जेन्ना घड्याळ नाशिल्लें तेन्ना सावल्यांनीच आमकां वेळ सांगलो. भूमितीचो सोद युक्लीडाक सावल्यांवयल्यान लागलो जावंक जाय. खगोलशास्त्राच्या माथ्यारय सावल्यांचें रीण आसा. चंद्रसुर्याचीं गिरणां सावल्यांबगर कशीं जातलीं आशिल्लीं ? आनी गिराणाच्या 'पाप' काळांतच गिन्यानाचें पावल फुडें पडलां हें आमी विसरूं नजो. एक दीस एके सावळेक दिसलें-पिनहोलांतल्यान वचचे आनी शीर्षासन घालचें. कोणे तरी हें सावळेचें शीर्षासन पळयलें आनी ताका कॅमेऱ्यांची कल्पना सुचली. फुडें पडद्यावयल्या सावल्यांनीच सिनेमाक जल्म दिलो.

सावळेन कांय कूट प्रस्नचिन्नां उबीं केलीं. हो संवसार म्हळ्यार ब्रह्मतत्वाची सावळी काय किदें हाचो खल करीत आदि शंकराचार्य बसलो. कूड ही आत्म्याची सावळी न्हय अशें आड्डत आड्डत चार्वाकान सांगलें. उतरां ही अर्थाची सावळी काय अर्थ हो उतरांची सावळी हो साहित्यांतलो मूळ प्रस्न जालो.

सावल्यांनी अशे खूब अर्थ अनर्थ करून दवरले. उजवाडाची पुजा करपी हे संस्कृतायेन कुडीचें आफुडभश्ट करतां करतां सावलेकय भश्ट मानलें ! मनशाचे सावलेचे भश्ट मानपी संस्कृतायेन कितलेय गायत्री मंत्र म्हळें म्हणून तिका उजवाडाचो पायस पिवपाचें भाग्य मेळना. हे स्पृश्य संस्कृतायेक अस्पृश्यांच्या सावल्यांचो कडकडीत शाप आसा.

अनादी काळापासून सावळ्यो कितें तरी सोदीत आसात. कितें काय ? सावळ्यो सोदतात आपली सावळी. ज्या दिसा सावल्यांक आपली सावळी दिसतली त्या दिसा सावळ्यो ब्रह्माडांतलो सगलो उजवाड पिवन वडयतल्यो. उरतलो फकत काळोख. आनी उपाट अपरंपार काळखांत नाचतल्यो पयस पयस अनंत 'काळोखवर्सां' पयस ब्रह्मरूखाच्यो सावळ्यो. ब्रह्मांडाचे घुमटे सकयलो तो सावल्यांचो ब्रह्मनाच पळोवंक नासतले गिरे. नासतले तारे. नासतली दूधगंगा. नासतली आकाशगंगा. गोठून वतलो काळ. हुबून वतलें सगलें गुरूत्वाकर्षण. खिणाक नासतलें अस्तित्व. नासतलें अनस्तित्व, आसतली अंतरिक्षाच्या आंगणांत एक विराट ब्रह्म सावळी आनी ते ब्रह्मसावलेच्या कुसव्यांत धरतलो गर्भागिरेस्त गर्भ दुसऱ्या ब्रह्मांडाचो !

सावळे, पाव बाये सायबिणी, आमकां सगल्यांक पाव.



# चिंचे बोटां

पाचवेचार चिंचेक चंवर फुटला. आतां चिंचेक चिंचेबोटां लागतलीं आंबट, गोड, आंबटगोड, अमुरपिकीं चिंचे बोटां. चिंचेबोटांक पळयलें की भुरगेपणाचे यादींक उदक सुट्टा. चिंचे बोटांक चिंचेबोटां हें नांव कोणें दवरलें काय ?

आमची बोटां म्हळ्यार आमचे कुडीच्यो कवकवीत कोमऱ्यो हाताच्या देठाक फुलिल्लीं ती सोबित सुंदर फुलां. कुडीचे दिवलेंतल्यो त्यो मंद पेटत्यो वाती.

सान भुरग्यांचीं बोटां कवळीं, आंकुर कशीं टवटवीत. सैमान तांकां चोखपाखातीर हीं सायेचीं साकरबोटां दिल्यां जावक जाय. जगबुडीवेळार पिंपळाच्या पानार न्हिदून बाळकृष्ण आपल्या पांयांचो आंगठो चोखता. उटंगाराचो पावस पिवनय तान भागूंक नाशिल्ली यमुना न्हंय पाटल्यांतल्या कृष्णबाळाचो आंगठो चोखून तृप्त जाता. आंगठो चोखल्याबगर भुरग्याचें भुरगेंपण सोबना. आंगळ्यांतल्यान भुरगें कुडीतलें खंयचें जीवनसत्व चोखता कोण जाणां.

बोटां कडेन आमचें नातें आमच्या भुरगेपणापसून सुरू जाता.

येते येते नाच रे, मोरा
मामा ना घरा
तुका कोण घाली चारा
चारा खा पाणी पी
भुर्ऽऽ

हें पद बोटांच्या नाचान चित्रमय जावन भुरग्यांच्या दोळ्यांमुखार उबें रावता. भुरग्याचे कान, दोळे, नाक, जीब हीं चार इंद्रीया जेन्ना न्हिदिल्ली आसतात तेन्ना तांचें एकूच इंद्रीय जागें आसता. तांची एकच संवेदना जागृत आसता. स्पर्शाची संवेदना. आवयच्या बोटांचो स्पर्श तितलो तांकां कळटा. आवयच्या बोटांची सांसपून उलोवपी मोनी भास तांकां कळटा.

भुरगें व्हड जाता तशी आवय ह्याच बोटांनी ताका थापटीता. आपल्या वत्सल

बोटांनी पयली उंडी ताका लायता. "आको माको तेल माखो, तेलकाराले मडकें फुटलें, तेल गे तेल" अशें म्हणून आवयची बोटां भुरग्याच्या माथ्यार तेल माखतात.

बोटांक रूच कळटा. सुगरणीच्या सुवादीक बोटांनीच अन्नाचें परब्रह्म जाता. पीठ कालयतना, वायंग्याचें भर्त मुड्डीतना, सांजोरेंत सांजो भरतना, सांडगे घालतना, सोयेची कडी पिळतना, व्हॉवयो गायत जात्यार दळटना, वानार वांटतना, शिरतेर वाडटना, गायेचें धारोष्ण दूध काडटना, ताक घुसळून लोणी काडटना हीं पंचामृती बोटां अन्नाचें अमृत करतात. अन्नपुर्णेच्या बोटांनीच आमचे जिबेचे दुवाळे भागयल्यात.

जें हातान जायना तें बोटां करतात. सोलप, उस्तुवप, खरपुवप, कातकुतल्यो करप, उवो काडप, केंस वळोवप, विणी घालप, फुलांची फांती गुंथप, दोळ्यांत काजळ घालप,कुकुम लावप कुंकुमार्चन करप. गोफणीन तोरां वडोवप, पेरां बुड्डुवप, मुट्टे पुंजावप, चारां चुन्नां जगमां जांबळां - ह्या सगळ्यांचे नातें बोटांकडेन! गड्डे, कोंयडेबाल, लगोऱ्यो, पेल्ल, कॅरम सगळ्या खेळांक तांचे खेळपण ही बोटां दितात.

मेजपाचें शास्त्र बोटांनीच मनशाक शिकयलां जावंक जाय.

हाताच्या धा बोटांचेर अंकगणिताचो गोवर्धन पर्वत ,उबो आसा.

नाचपाची कला बोटांनीच मनशाक शिकयल्या. नाचतना बोटां बोटां उरनात. तांच्यो मुद्रा जातात. तांचे थुयथुय नाचपी रानमोर जातात.

बोटांनी मनशाक संगीत दिलां. गिटारावयलीं सुरेल बोटां तबल्यावयलीं त्रिताली बोटां, सप्तस्वरांचो सूर, नाद, लय, ताल आनी ठेंको बोटांकडल्यानच संगीतान शिकून घेतला. बोटाबगर पियानो मख्ख मोनो जाता तंबोरो फुरंगुटून बसता. सतार रागार फुगार जाता. बांसरेचो जल्मच बोटांखातीर जाला आनी बोटाचो बांसरेखातीर.

बोटां रंगाधळीं नासतात. तांका रंगाचें पिशें आसता. तांकां नवरंगाचे दुवाळे लागतात. तांकां मेथयेची रांगोळी आवडटा. बोटां चित्रलुब्ध आसतात. तांकां त्रिमितीचें भान आसता. फातरांतल्यान तीं शिल्प घडयतात. मातयेक तीं आकार दितात. भांगराक तीं सालंकृत करतात. हातपांय नाशिल्ले सुयेक तीं वस्त्रार भोंवडावन वस्त्रान वस्त्र भरजरी करतात. कळसुत्री बावल्यांत ती जीव ओततात.

बोटां मोन्याक आवाज दितात. बोटां कुड्ड्यांक दोळे दितात. मनशाक बोटां नाशिल्लीं जाल्यार कान, दोळे, जीब आसूनय आमची संस्कृताय मोनी, कुड्डी, भेड्डी जातली आशिल्ली. संस्कृतायेचें पावल बोटांबोटांनी फुडें पडलां.

म्हाल्याचीं बोटां कातर चलयत फिशाल सर्जनाची बोटां जावंक पावल्यात. खणपी बोटां, फातर उखलपी बोटां क्रेन चलोवपी यंत्रणेच्या बोटांत उत्क्रांत जाल्यात. हुंदराचे रांतेर दवरपी बोटां सुपर कॉम्प्युटराचे माव्स चलोवपी बुदवंत बोटां जाल्यांत.

बोटांची एक सुसंस्कृत संस्कृताय आसा. ताका सर्जनाचो समृध्द, संपन्न इतिहास आसा. ज्या दिसा बोटांनी लेखणी हांतात घेतली त्या दिसा संस्कृतायेन ब्रह्मांडाच्या बिण्ण काळखांतल्यान कांय प्रकाशवर्सां पयस उडी मारल्या.

पुणून बोटांनी जें जें जोडलां तें मुठीन वगडायलां. बोटां हें सर्जनाचे प्रतीक जाल्यार मूठ संहाराचें. बोटां ही दानाची मूर्त जाल्यार मूठ संचयाची .

मुठीनच बोटांची वाट लायल्या. निष्पाप, निरागस बोटांक मुठीन फुसलायल्यांत. देखून कातकुतल्यो करपी बोटांच आमकां बुड्डूंक लागल्यांत. खरपुपी बोटां घाय करूंक लागल्यांत. दोळ्यांतलीं दुखां पुसपी बोटां दोळ्यांत आपली नाखटां घालूंक लागल्यांत.

ज्या बोटांनी रोयलां त्याच बोटांनी हुमटावन काडलां. ज्या बोटांनी वात लावन काळखाचो उजवाड केला त्याच बोटांनी उजो लावन घराचो गोबर केला. ज्या बोटांनी आवयची वार कापून भुरग्याच्या जल्माचो सुवाळो केला त्याच बोटांनी मड्याचो काश्यांव पुरपाक फोण खणला. सवाष्णीक कुकूम लावपी बोटांनीच विधवेच्या कपलावयलो कुकूम फासला. सौभाग्यकांक्षिणीच्या आंबाड्यांत सोबपी फुलांची फांती गुंथपी बोटांनीच विधवा बायलांचे केंस कापून तांकां बोडकीं करपाचें क्रूरकर्म केलां. हुमऱ्यार तांदळाचें माप दवरून व्हंकलेक नव्या घरांत घेवपी बोटांनीच घोव मरतकीर ताचे बायलेक सरणाच्या उज्यांत धुकल्ल्या. बोटांनी असो जाय जाय तेन्ना जाय जाय तसो एका बोटावयलो निथु दुसऱ्या बोटार काडला. बोटांनी बोट दाखोवन हात गिळ्ळा. द्रोणाचार्याच्या बोटांनीच एकलव्याच्या आंगठ्याचो 'शिरच्छेद' केला.

रानवटी मनशान संस्कृतायेचें रूपडे घालें तशी ताच्या बोटांचीं वाडिल्लीं नाखटां झडली. पुणून नाखटांनी बोटांत भरशिल्लें वीख सोपूंक ना. कांय वेळा बोटांचींच नाखटां जातात.

ह्या बोटांकच आतां राखूंक जाय. ज्या बोटांनी हो संवसार घडयलो, सजयलो, नटयलो तो संवसार एका खिणांत भस्म करतलें एक दीस खंयचे तरी एक बोट - जें दामतलें बटन विध्वंसक अण्वीक अस्त्राचें.

ब्रह्मांडाच्या भाटाचे देगेर आशिल्ली धर्तरेची पांचवीचार चिंच मागीर उमथून पडटली. अमुरपिकीं चिंचेबोटां करपून वतलीं.

# जांचीं काळजां सांताक्लॉजाचीं आसतात ...

नातलांची गोडी नातलांच्या नेवऱ्यांनी नासता. केकांनी नासता. दोश, दोदोल, पिनाग्र, बेबींक, बुलीना, पेराद, कोकाद हातुंतय नासता. नातलांची गोडी सांताक्लॉजांच्या काळजांत आसता. जांचीं काळजां सांताक्लॉजांचीं आसतात तांकांच नातलांची गोडी कळटा.

आयली. नातलांची रात आयली. आपआपले मेय खुटयाळ्याक लावन भुरगीं न्हिदपाक गेलीं.

रेनडियरांच्या रथार बसून तांबडोगुंज भेस घालून सांताक्लॉज येतलो, सांताक्लॉज इगर्जींत वचचोना. सांताक्लॉज मीस आयकुचो ना. सांताक्लॉज दार धोडावचोना. धुंवराचे चिमणेंतल्यान सांताक्लॉज ल्हवूच घरांत देंवतलो. सांताक्लॉज भुरग्यांचे कुडींत वतलो. न्हिदिल्ल्या भुरग्यांक तो अपुरबायेन पळयतलो. ना ! तांकां उठोवपाचें पाप तो करचो ना. आपल्या दाळिंबी ओंठांनी तो भुरग्यांच्या सफरचंदी गालांचो उमो घेतलो. कापसाच्या बोटांनी तो भुरग्यांक सांसपितलो. सांताक्लॉज मागीर आपल्या बोटव्यांतल्यान खेळणीं काडटलो. बोमाडे काडटलो. पिल्लुको काडटलो. पिपिरमिंटां आनी चॉकलेटी काडटलो. खुटयाळ्याक लायिल्ले भुरग्यांचे मेंय काडून तातूंत तो भुरग्यांखातीर वर्सभर पुंजायिल्लें गांठवल वांट्टलो.

सांताक्लॉज जाण्ट्यांचे वाटेक वचचो ना. सांताक्लॉज तांकां उठोवचो ना. तांकां दिसचो ना. सांताक्लॉज कोणाकडेन कांयच मागचो ना. तो भरभरून

दितलो.
सांताक्लॉज कोणाचें नांव विचारचो ना. कोणाचो गांव विचारचो ना. सांताक्लॉज आपलें नांव सांगचो ना. आपलो गांव सांगचो ना. सांताक्लॉज एक उतर उलोवचो ना. आयले वाटेन सांताक्लॉज वतलो परत रेनडियरांच्या रथांत बसून पयस पयस परत पुजावंक भुरग्यांखातीर भेटवस्तू फुडल्या नातलांखातीर !

सांताक्लॉजाच्या हातांत नासतलो खुरीस. नासतली रोजरा कोन्त्र. सांताक्लॉजाच्या ओंठार नासतली सर्गींच्या पवित्र बापायचीं उतरां. ताच्या ओंठार आसतलो हांसो. ओंठभर हांसो. ताच्या दोळ्यांत आसतलो हांसो. दोळेभर हांसो. ताच्या तोंडार आसतलो हांसो. तोंडभर हांसो.

नातलां हो जेजूच्या जल्माचो सुवाळो. जेजूक भुरगीं भौ आवडटालीं. कार्ल मार्क्सान सगल्या धर्माविशीं कोडसाणीन बरयलां आनी ताका रजांव आसा. पुणून मार्क्सान येशुची एक फावट खूब तोखणाय केल्या ती ताच्या भुरग्यांवयल्या मोगा खातीर. सांताक्लॉज हें जेजू खिस्ताचेंच एक खूब म्होंवें, गोड मनशाळिल्लें रूप अशें हांव मानतां. सांताक्लॉजाच्या रूपान जेजूक पळयतकीर म्हाका जेजू चड आवडटा आनी सांताक्लॉजय चड आवडटा.

मार्क्साकय भुरगीं आवडटालीं. मार्क्साची जीण खूब हालांत गेल्या. घडये ताच्या भुरग्यांचे वळवळे जाल्यात. मार्क्सान आपलो सगळो मार्क्सवाद भुरग्यांच्या मोगांतल्यान बरयला अशें म्हाका सदांच दिसलां.

आमच्यांनी जेजू जावं नजो. मार्क्साचे नदरेक नदर लावपाची धिटाय आमच्यांत ना. खुरसार चडून मरणाक वेंगावपाचें काळीज ना आमच्यांत. आमच्या दरेकाच्या काळजांत मात खंय तरी लिपिल्लो आसता एक सांताक्लॉज. सांताक्लॉजाचो भेस घालीनासतना आमच्यांनी जांव येता एक सांताक्लॉज. आमच्या भुरग्यांखातीर. आमच्यांतल्या भुरग्यांखातीर.

आमकां वर्सभर लागतात भिकेचे दुवाळे. 'भिक्षां देहि' हो आमचो मंत्र जाला. मागप हो आमचो सभाव जाला. जल्मसिध्द हक्क जाला. कोणायफुडें हात फुडें करपाची आमकां लज दिसना. भीड दिसना. आवयकडेन मागप. बापायकडेन मागप. देवाकडेन मागप. देंवचाराकडेन मागप. घाडयाकडेन मागप. हापशाकडेन मागप. सोयऱ्यांकडेन-धांयऱ्याकडेन,भायल्यांकडेन, भितल्ल्यांकडेन लागींच्याकडेन, पयसुल्ल्यांकडेन, इश्टांकडेन आनी दुस्मानांकडेय बी- कितें ना कितें मागपाची वान्सा आमच्या रगता मांसांत खंय तरी खोल खोल रोमल्या, मुंगरल्या.

नातलांचे पवित्र राती आमी आमच्यांतली आत्मसन्मानाची वात पेटोवया. आनी थारावया- ना ! हाचे फुडें आमी कोणाकडेन कितेंच मागचेंना.

दितल्याचो हात सदांच वयर आसता आनी घेतल्याचो सकयल ! आयज मेरेन दितले बाबडे दित गेले. आमी अधाशी घेत गेले. नातलांचे व्हडे रातीं आमच्या ओंठार आसूं दी नातलाचें नवें गीत-

'दितल्यान दित वचचें घेतल्यान घेत रावचें. घेतां घेतां दितल्याचे हात घेवचे.' आसात. आसात आमचे सरभोंवतणी अशींय मनशां जीं केन्नाच कितेंच मागनात. तीं सदांच कितें ना कितें दित आसतात. कांय वेळार तांक नासूनय दितात.

केन्ना केन्ना दिसता- आपल्याक प्रिय अशा ह्या मनशांनी आपलेकडेन कितें तरी मागचें. पुणून मागप आनी घेवप तांच्या सभावांत नासता. आमकां जांणी दोनय हातांनी भरभरून दिलां तांकां कितें कुसकुटय दिवपाची संद आमकां मेळना. आमकां तोंडभर आशिर्वाद दिवन हीं मनशां हो संवसार सोडून वतात.

'बरें ऽ जांव बाये तुजें' 'व्हड जांव पुता तूं' 'सुखांत रावात तुमी सगळीं.' असो निष्काम, निरपेक्ष, निरिच्छ आशिर्वाद तोंडांत घोळयतां घोळयतां हीं पिकील्लीं पानां रूखाचे खांदयेवयल्यान अळंग गळून पडटात आनी निर्माल्याच्या पांटल्यांत वचून बसतात.

सांताक्लॉजाकय आमी कांयच दिवंक शकनात. घेवया. आमी सांताक्लॉज दिता तीं खेळणीं घेतनाच ताचे हातय घेवया. हात. दिवपी हात. कृष्णाक फोव हाडपी सुदाम्याचे हात. रामाक उश्टीं बोरां खावोवपी शबरीचे हात. बुध्दाक खीर दिवपी सुजाताचे हात. इंद्राक कवचकुंडलां दिवपी कर्णाचे हात. देवांक आपले कुडीचीं हाडां दिवपी दधिचीचे हात. द्रोणाक आंगठो दिवपी एकलव्याचे हात. रामसीतेक लक्ष्मण दिवपी उर्मिलेचे हात. जेजूच्या गळ्यांत आपलें आंकवारपण बांदपी माता मेरीचे हात.

मागप हो मनीस सभाव. पुणून दिवप हें सुसंस्कारितेचें लक्षण. कांय मनशां कृतघ्न जातात हाचें म्हाका व्हडलेशें अजाप दिसना. चडशीं मनशां कृतज्ञ नासतात हाचें मात दूख भोगता. जांणी आमकां कितें ना कितें दिलें तांकां आमीय फूल ना पाकळी दिवप हें कृतज्ञतायेचें मुळावें रूप. पुणून जांणी आमकां कांयच दिवूंक ना आनी जांणी आमचेकडेन कांयच मागूंक ना तांकां दिवप हें सामाजिक कृतज्ञतायेचें अदीक पिकें, पक्व, परिपक्व, प्रगल्भ रूप आसता.

नातलांची परब येता ती अशी कृतज्ञतायेचो बोटवो खांद्याक मारून. कृतज्ञतायेची ही सायसाकर आमचें जिवीत अदीक गोड करता. नातलांची परब आमकां हेरांच्या आनंदान खोशी जावंक शिकयता.

म्हाका खूब फावटीं दिसता - हेरांच्या दुःखान दुःखी जावप सोपें. दुसऱ्याच्या सुखान खोशी जावप कुस्तार. बुध्द हाका मुदिता म्हणटा. करूणेपरस मुदिता कांकणभर चड श्रेश्ट अशें म्हाका हालीं हालीं दिसूंक लागलां. दुसऱ्याच्या दुःखान काळजांत घळ्ळ जावपी मनशांच्या तोंडार हेरांच्या सुखान हांसो फुट्टाच अशें ना.

सगळें भारतीय तत्वज्ञान दुःखा भोंवतणी घुंवता. आनंदी जावप, सुखी जावप हाचेविशीं भारतीय समाज मानसांत अपराधित्वाची भावना आसा. भरत भुंयेर बुध्द जल्मूंक शकता. सांताक्लॉजाक जल्म दिवपाक आमचे कुसवे वांझच थारतात. आनंदी मनशाक खुशाल चेंडू म्हणून ताच्यो बकच्छायो वडोवप. हांसपी आनी हांसोवपी मनशाक हास्यास्पद थारोवप ही आमचे समाज जिणेंतली एक शोकांतिका जाल्या. सगल्या भारतीय देवांच्या तोंडार एक मग्रूर मनीसघाणेपण असता. हाका एक आडवाद आसा. मारूतीचो ! भुरग्यांचो इश्ट जावपाची तांक ताच्यांत आसा. मारूतीच्या ओंठार एक हयन्हयसो मिष्किल हांसो दिसता.

खंयचेच संस्कृतीन भुरग्यांखातीर असो तांचो इश्ट निर्माण करप भावनात्मक नदरेन गरजेचें आसता. बापूय भुरग्यांचो इश्ट जावचो पुणून जाताच अशें ना. बापोलयो भुरग्यांकडेन इश्टागतीन वागताच अशें ना. भारतीय कुटुंब पध्दतीन मामांक मात ही सुवात दिल्या. लोकवेदान चंद्रीमाक, कावळ्याक, चानयेक, हुंदराक आनी माकडाक ही सुवात दिल्या.

आमचीं भुरगीं बेगीन जाण्टीं जावचीं असो आमचो हावेस आसता. आमच्यांतलें भुरगेंपण जाता तितलें सांबाळून कशें दवरचें ही आमची मोख आसूंक जाय. आमची नितीची संकल्पना काम आनी अर्थ ह्या दोन पुरूषार्थांकच दसल्या. खंयच्याय समाजांतले जाण्टे ह्या समाजांतल्या भुरग्यांकडेन कशे वागतात हाचेरय थारूंक जाय त्या समाजाचे नितीमत्तेची पत.

म्हाका केन्ना केन्ना एक दुःस्वप्न पडटा- नातलां येतात पुणून सांताक्लॉजच येना. ज्या नातलांत सांताक्लॉज येवचोना तो आमचे जिणेंतलो ब्लॅक खिसमस आसतलो. जेजू खुरसार गेलो. सांताक्लॉज जितो उरूंक जाय.

आनी केन्ना केन्ना मनांत असोय वायट विचार येता. नातलां आयलीं. सांताक्लॉज आयलो. पुणून सांताक्लॉजाच्या खांद्यार बोटवो ना. ताच्या हातांत कट्टी आसा. जेन्ना सांताक्लॉजाचेर भीक मागपाचो प्रसंग येतलो तेन्ना नातलांची गोडी सासणाची सोंपतली.

ना. अशें जावंक फावना. नातलांचे राती गिरेस्त काळजाच्या सांताक्लॉजाक आमी दीर्घायुष्य आंवडेवया.

# मरणांतलें कवीत

सगल्या सुखी कुटुंबांचें सुख सारकेंच आसता जाल्यार दरेंक दुःखी कुटुंबाचें दुःख मात तरांतरांचें आसता अशें टॉलस्टॉयान म्हळां. त्याचप्रमाण सगल्या मनशांच्या जल्माचो खीण सारकोच आसता पुणून दरेक मनशाच्या मरणाची तरा मात वेगळी आसता, अशें म्हणूं येता.

रूखावयलें पिकें फळ ताचो भार सोंसना जावन धर्तरेर पडचें तशे तरेन कांय जाणांची तृप्त धादोस समाधानी जीण मरणाधीन जाता जाल्यार मस्त आडांगी भुरग्यान फुलपाचें सपन पळोवपी कळी खुंटची वडोवची तशे तरेन कांय जाणांक अकाली मरण येता.

पानावयले सगले पदार्थ घोस्तान खावन पोटभर धेकर दिवन पानावयल्यान उठचें तशे तरेन कांय जाण धादोसकायेन जिणेच्या पाटावयल्यान उठून वतात तर कांय जाणांक अर्द्या पानावयल्यान पंगत सोडून वचचें पट्टा.

मरणाक कांय वेळा करूणेची देग आसता. वेदनेचो कुकूम आसता तर कांय वेळा ताज्या ओंठांर प्रसन्न समाधानाची सया मारता.

संवसारांतल्या खुबशा म्हापुरशांक सैमीक मरण येवंक ना. श्रीरामान शरयू न्हंयेंत आत्मसमर्पण केलें. रानांत रूखातळा विसव घेता आसतना शिकाऱ्यान हरण समजून मारिल्लो बाण कृष्णाच्या तळव्याक रोमलो आनी कृष्णाचें जिवीत सोपलें. बुध्दाक दुकराचें मांस खातकीर विषबाधा जाली आनी बुध्द संवसार सोडून गेलो अशें म्हणटात. खिस्ताक खुरसार चडयलो. तुकारामाक इंद्रायणीत बुडयलो. गांधीक फारान माल्लो. सॉक्रेटिसाक हेमलॉक वीख दिवन माल्लो.

रामायण महाभारतांत तरांतरांचे मरणाचे खीण येतात. कुड्ड्या आवय बापायक तीर्थयात्रेक व्हरतना तांकां तान लागतकीर बुडकुलो घेवन तळयेर उदक हाडपाक गेल्या श्रावण बाळाक राजा दशरथाचो बाण लागता आनी ताजे जिणेचो बुडकुलो फुट्टा. श्रावणाच्या मरणाउपरांत ताजी आवय आनी बापूय

श्रावण श्रावण म्हणत प्राण सोडटात. फुडें दशरथाक राम राम म्हणत प्राण सोडचो पट्टा.

जटायू रावणाकडेन झुजतां झुजतां मरता. जटायूच्या मरणाक त्यागाचे, पराक्रमाचे, कर्तव्यपुर्तीचे, हौतात्म्याचें मखर लाभलां.

उत्तर रामायणांत सीतेक आँनी लक्ष्मणाक करूणार्द्र मरण येता. उत्तर महाभारतांत धृतराष्ट्र, गांधारी आनी कुंती रान-उज्यांत लासून मरता. हिमालय चडटना पयली द्रौपदी आनी मागीर युधिष्ठीर सोडून हेर पांडव मरतात.

इच्छामरणी भीष्म उत्तरायणाची वाट पळयत दिसानदीस बाणांचे शय्येचेर पडून रावता. कृष्णान मस्तकावयलो मणी काडटकीर जाल्लो घाय सोंसत तेल मागत चिरंजीव अश्वत्थामो मरणाबगर भोंवता.

महाभारतकार सगल्यांक तरांतरांचें मरण दिता. फकत अश्वत्थामा मरना आनी युधिष्ठीर मरना. अश्वत्थामा आनी युधिष्ठीर हीं महाभारतांतली दोन तोंकांवयलीं पात्रां. दोनय विकृत ! एके वटेन युधिष्ठिराची सद्‌गुण-विकृती आनी दुसरे व्हटेन अश्वत्थामाची अमानुष दुर्गुण-विकृती.

महाभारतकार दोगांयकय मरणाबगर जगपाची ख्यास्त दिता.

महाभारतांत पांडुचे मरण सगल्यांत वेगळें. रतिसुख घेतना मरण येतलें असो पांडुक शाप आसता. हिमालयांत एका वसंत ऋतूंत रतिसुखाक वखवखिल्लो राजा पांडु शाप विसरून माद्रीकडेन रतिसुख घेतां घेतां मरता.

भारताच्या प्राचीन आनी अर्वाचीन इतिहासांत कांय जाणांचे जिणेक मरणाचो परिसस्पर्श जावन तांचें भांगर जालां. सुखदेव, राजगुरू, भगतसिंग, बाबू गेनू, शिशिरकुमार ह्या हुतात्म्यांचें मरण अशें भरजरी. अशें उत्तुंग. धीरोदात्त !

सुभाषचंद्राच्या मरणाभोवतणी आशिल्लें गूढ अजून सुटूंक ना. अजून बंगाली मनशाक सुभाषचंद्र खंय ना खंय जितो आसूंक जाय अशें दिसता.

साने गुरूजीन आत्महत्या केली. साने गुरूजीच्या मरणांत बाबा आमटेक एके गर्भवतीचें मरण दिसलें.

वीर सावरकरान आनी आचार्य धर्मानंद कोसंबीन प्रायोपवेशन करून आत्माहुती दिली.

भाई सरदेसाय हो फाटले पिळगेंतलो आध्यात्मिक पिंड आशिल्लो गोंयकार. भाई ज्ञानेश्वरीचेर प्रवचनां करताले. एक दीस ताणी ज्ञानेश्वरीचेर अशेंच प्रवचन केलें. निमाणे पसायदान म्हळें 'जो जे वांछिल तो ते लाहो' - 'जाका जें जाय तें ताका मेळूं'. हात जोडले आनी ज्ञानेश्वरीचे पोथयेर माथें दवल्लें. एक मिनीट जालें, दोन मिनटां जालीं, भाई तकली वयर काडीना. भाई सरदेसायाक अशें

मरण आयलें. घडये ताका जें जाय तें ताका मेळिल्लें.

आवडीचें काम करतना अशें भाई सरदेसायाभशेन मरण येवप हाजेसारकें बरें मरण ना.

एस्किमो लोकांत एक रीत आसा. मनशाक अमकेच पिरायेचें जाण्टेपण येतकीर एक दीस तो मनीस न्हिदतकीर घरांतलीं मनशां ताजे कुशीन एक वातीचो दिवो पेटोवन दवरता. फांतोडेर उठतकीर तो जाण्टो मनीस तो दिवो पळयता. तो तसोच भायर सरता, पयस चलत वता आनी आपलें जिवीत सोपयता. एस्किमोची ही अशी जाण्ट्याची जीण पिसडून वडोवपाची असंस्कृत रीत.

हाजेउलट महाभारतांत जाण्ट्यांक नवजीवन दिवपी एक काणी आसा. जाण्टेपणान थतरवितर जाल्ल्या आनी मरणाचे वेध लागिल्ल्या ययातीचें जाण्टेपण आपूण घेवन ययातीचो चलो पुरू ताका तन्रेपण दिता.

दोन संस्कृतायांमदलो हो भेद ! एस्किमोची आदिम संस्कृताय आनी महाभारतीय संस्कृताय खंयची श्रेष्ठ, खंयची कनिष्ठ ? बापायचें जाण्टेपण घेवपी पुरू जितलो श्रेष्ठ तितलीच भुरग्यांची उपासमार जावंची न्हय म्हणून मरणाक वेंग मारपाची एस्किमो समाजांतल्या जाण्टेल्यांची करणी श्रेष्ठ. तन्र्या भुरग्याचें जुवानपण मागपी लोभी ययाती जितलो विकृत तितलेच जाण्टेल्याक मरणाचें दार उगडून दिवपी एस्किमो समाजांतले तरनाटे असंस्कृत !

संस्कृतायेचे मानदंड कोण कसो जियेता ताजेपरस कोण कसो मरता ताणें थारता.

रायगडार शिवाजीची समाधी आसा आनी ताज्या लागसार शिवाजीच्या पेटत्या सरणार उडकी मारपी ताज्या प्रिय कुत्र्याची समाधी आसा. राजस्तानांत हुतात्मा राणा प्रतापाक भौस जितलो मानता तितलोच हड्डें फुटम्हणसर धांवत राणा प्रतापाक दुस्मानाच्या हातांत दिनासतना रानांत व्हरपी चेतक घोड्याची गाथा लोकगीतांत आयकूंक मेळटा.

दरेकाच्या मरणांत अशें कवीत आसता. दरेकाच्या मरणाक असो परमळ आसता. अशे सुवाद आसतात. कोणाचें मरण दोंगरावयले पयसुल्ले इगर्जींतले घांटीभशेन एकसुरें जाल्यार कोणाचें मरण जिणेचे सिम्फनीतले सप्तसूर घेवन आळयल्लें !

जिणेच्या मसुंडींतले अशे हे मरणाचे खुरीस - तरातरांचे !

# मंदार

जुनांतली एक सकाळ. निकत्याच जाल्ल्या भुरग्याच्या कंवळ्या मोव लुकलुकीत आंगाभशेन कंवळें मोव लुकलुकीत वत. ढगाचो बोटवो फाटीर घेतिल्ले निळ्या आनी धव्या युनिफोर्मांतलें मळब. शाळेंत वचपी भुरग्यांच्या चोम्याभशेन चिंवचिंवाट करीत आंगणांत जमिल्ल्यो चिमण्यो.

जुनांतली अशी एक सकाळ, गोजडी घेवन सुस्त न्हिदिल्ले सुटयेक तिचे साकर न्हिदेंतल्यान उठोवपी शाळेचो पयलो दीस.

दारांत पांच स अनवळखी भुरगीं. निळो आनी धवो युनिफॉर्म, पायांत धवे फुल्ल मेय आनी कॅनवासाचे धवें फुल्ल बूट, फाटीर बोटवो, एका हातांत तांबडी वॉटर-बॅग आनी दुसऱ्या हातांत पालयल्ली रंगीत सत्री. अशा थाटांत बल्कांवांचेर बशिल्लीं पाच स अनवळखी भुरगीं.

हीं भुरगीं हांगा कित्याक जमल्यांत ? हीं भुरगीं हांगा कित्याक बसल्यांत ?

दार उगडून हांव भायर येतां. शेतांतल्या बुजगावण्याक चिमण्यो कावळ्यांनी भिवचें तशीं भुरगीं भिवून उठ्ठात आनी रस्त्यार उबीं रावतात. तांचेकडेन उलोवचें न उलोवचें इतल्यांत शाळेची बस येता. किलकिलाट करीत भुरगी बसींत चडटात.

दुसऱ्या दिसा हांव उसरां उठ्ठां. दारांत भुरगीं नात. तिसऱ्या दिसा बेगीन उठ्ठां. दारांत तींच भुरगीं. त्याच भेसांत, त्याच थाटांत. आज सोपणार बसून शाळेचे बसीची वाट पळयतात.

आज भुरगीं म्हाका भिनात. तांकां मात्शीशी संवकळ जाता. किलकिल्या दोळ्यांनी तीं म्हजेकडेन पळयतात. मुमुरखीं हांसतात. एकमेकांकडेन पळोवन किटकिटटात. हांवूय हांसतां. तांकां तांचीं नावां विचारतां. शिकयल्ल्या किरांभाशेन सगळीं भुरगीं पटपट करून आंपलीं नांवां सांगतात. विचारनासतना शाळेचें नांव आनी खंयच्या वर्गांत शिकतात तेंय सांगतात.

पिनाक आनी गौतम. विनता आनी नम्रता, जास्मिन आनी जेनिफर अशीं तांचीं तांच्या सान माणकुल्या हांसत्या तोंडांइतलींच सोबीत-सुंदर नांवां. तांचे बरोबर आनीक एक ल्हान भुरगो आसता. मात्सो सावळो, पूण अपुरबायेच्या मुखामळाचो. लिकलिकीत खडीसाकरी दोळ्यांचो. मुदयाळ्या केंसांचो. सोशाभाशेन थोडोसो भित्रो, बुजरो. पुणून माजराच्या पिलाभशेन चुळबुळो. लजत हांसत ल्हवू आवाजांत तोय आपलें नांव सांगता- मंदार.

तीं भुरगीं कोणालीं, ती खंय रावतात तें हांव तांकां विचारिना. आंगणांत येवपी चिमण्यांक कोण विचारता तांचे घोटेर खंय म्हणून ? तांचे आवयबापूय कोण म्हणून ?

दीस वतात तशी वळख वाडटा. संवकळ जाता. इश्टागत जाता. भुरगीं म्हाका अंकल म्हणटात. भुरगीं फिरंगी शाळेंत शिकतात. आपसांत तीं आपलेभशेन फिरंगी भाशेंत उलोवपाचो यत्न करतात. म्हजे कडेन तीं कोंकणींत उलयतात. विचारल्यार सांगतात- अंकल, कोंकणींत उलयल्यार टिचर आमकां पनिशमेंट दिता.

अंकल, आमची टिचर दुश्ट - गौतम सांगता. ती आमकां खूब होमवर्क दिता. जेनिफर कागाळ करता. टिचर आमकां मदले सुटयेंत खेळूंक सोडिना- परिजात सांगता. मंदार कांयच उलयना. तो फकत हांसता. ताच्या दोळ्यांतली खडीसाकर ताच्या ओंठांर विरगळटा.

भुरग्यांचें आपलें स्वताचें खास विश्व आसता. पुस्तकांचें, पतंगांचें, पेनांचें, पेन्सिलींचें, शाळेचें, खेळाचें, परिक्षांचें, पिकनिकेचें, खेळपाचें, नाचपाचें, गावपाचें, किटकिटपाचें, धांवपाचें, पडपाचें, झगडपाचें.

त्या विश्वांत ते म्हाकाय एक ल्हानशी सुवात करून दितात. त्या निष्पाप, निरागस सदाफुली भुरग्यांकडेन उलोवप म्हाका आवडटा. पारजताच्या फुलांभशेन सकाळच्या श्रावणी वातावरणांत दारांत पडिल्ली तीं भुरग्यांची पखरण पळोवन मन प्रसन्न जाता. भुरग्यांच्यो खबरो आयकून म्हज्या भुरगेपणातल्या यादींची शिवण उसवता. पाचव्या चाफ्याच्या घमघमीत वासाभशेन त्या यादींचो घमघम काळजाक सुखायता.

शेनवार - आयतार भुरग्यांक सुटी आसता. म्हाका चुकिल्ले चुकिल्ले भाशेन जाता. दिवाळेची, नातालांची, गिमाची सुटी सुरू जाली की दिसानदीस भुरगीं मेळनात. मागीर परत शाळा सुरू जाता. परत दारांत भुरगीं जमतात. सुटयेंत कोण खंय गेलो कोणें कितें केलें - अंकल, अंकल - भुरग्यांक केन्ना काय म्हाका सगळें सांगन जाता.

मागीर एक दीस एकेका भुरग्याचे जिणेंतलो उत्सव येता. नातलांचो सण

न्हय. चवथीची परब न्हय. ह्या सगळ्या सणांपरबांपरस तांचो आवडीचो उत्सव-तांचो वाडदीस. वाडदीस म्हळ्यार भुरग्याचे जिणेंतलो आनंदाचो उत्सव. तांचे जिणेच्या केकावयली ही वाडदिसाची सान रंगीत पेट्टी मेणवात.!

वाडदिसाचे यादीनच भुरगीं फुलतात. भुल्लुसतात. कितल्या दिसाच्यान त्या दिसाची वाट पळयतात. कोण कोण आपल्याक कितें भेट दितलो हाचीं सपनां रंगयतात. वाडदीस जातकीर गणपती पावयतकीर रिकामें जाल्ल्या मखराभाशेन तीं खिणभर खंती जातात आनी परत फुडल्या वाडदिसाची वाट पळयतात.

'मंदार, म्हाका आपोवप ना मरे तुज्या वाडदिसाक ? हांव विचारतां.'

मंदार परत मुमुरखो हांसता.

'अंकल, तूं खंय आपयता आमकां तुज्या वाडदिसाक'? - गौतम विचारता.

भुरग्यांचें सगळें रोख ठोक. भितर भायर कांय ना. दाखय-लिपय कांय ना. पुणून मंदाराक वायट दिसता. आपणें अंकलाक आपोवपाचें वाडदिसाक, ताका दिसता.

'अंकल, तूं आमकां कितें प्रेझेंट दितलो ?' नम्रता विचारता.

इतले म्हणसर बस येता. हात हालयत टाटा करीत भुरगीं बसींत चडटात.

घरांतलो कुत्रो पयलीं पयलीं भुरग्यांचेर भोंकतालो. आतां ताकाय तांची माया लागल्या. तांकां पळोवन तो आतां शेंपडी हालयता. तांचे पांय हुंगून तांकां चाट्टा. भुरगीं ताका वेंगेंत घेतात. जीब भायर काडून तो एकेकाच्या नाकाची पापी घेता.

मंदारागेर कुत्रो आसा. मंदाराकय कुत्रे आवडटात. आमचो कुत्रो म्हणूनच सगळ्यांत पयलीं मंदाराक चाट्टा.' कुत्र्याक आपूण कोणाक आवडटा तें रोखडेंच कळटा. जेनिफर कुत्र्याक भिता. कुत्रो ताचेर भोंकता. ताका भेश्टायता.

हांव सकाळीं दिसलो ना जाल्यार भुरगीं दार उगडून भितर येतात. भुरगीं म्हाका सकाळचो पेपर लेगीत वाचूंक दिनात. आपल्यो खबरो आयकल्यो नात जाल्यार भुरगीं फुगतात. फुरगुट्टात.

जेनिफर आनी विनता काल झगडल्यांत. विनतान जेनिफराचो शार्पनर शेणयलो. जेनिफरान विनताकडेन गट्टी फू गेल्या. दोगांय जाणां म्हाका एकमेकांच्यो चाडयो सांगतात. हांव ओग्गी रावन आयकतां. दुसऱ्या दिसा जेनिफर आनी विनता हातांत हात घालून बसींत चडटना हांव पळयतां भुरगीं कितले बेगीन इश्टागत करतात आनी कितले बेगीन विसरतात !

परिजाताक दोळे आयले. विनतान धोंपरा फोडून घेतलीं. गौतमाक जोर येवन गेलो. जास्मिन आवयबरोबर मुंबय गेलां. मदीमदी भुरगीं शाळा चुकयतात.

केन्नाच शाळा चुकयना तो एकलोच मंदार !

एक दिस भुरग्यांमदी मंदार दिसना. दुसरो दीस, तिसरो दीस, मंदार ना. चवथ्या दिसा ती खबर कळटा.

मंदार गेलो. कोणाक सांगना आसतना, कोणाक हात दाखय नासतना, कोणाक टाटा करिनासतना.

दोन-चार दिसांचें दुखणें. माजराच्या पावलांनी येवन तें दुखणें दावकूल मारून मंदाराक व्हरता. मंदाराचे जिणेचो कवाथो रुजून येवचे पयलींच मरण-ताचे माणकुले जिणेचो मुरींग बकाबका करून खावन वडयता. फुलचे पयलींच एक रंगीत सत्री पालवता.

परिजात, गौतम, विनता, नम्रता, जास्मिन आनी जेनिफर सदचेभशेन दारांत जमतात. शाळेची बस येता आनी तांकां व्हरता. त्या भुरग्यांमदीं मंदार नासता.

म्हजो माणकुलो इश्ट मंदार ! खंय गेलो मंदार? मंदार गेलो, वतां वतां म्हजेंय भुरगेपण घेवन गेलो. म्हाका जाण्टो करून गेलो. आतां सकाळ जाली की दार उगडून भायर वचपाचें काळीज म्हाका जायना. घरांत बसून हांव सकाळचो पेपर वाचतां. किलकिल्या दोळ्यांनी जनेलांतल्यान भुरगीं म्हाका पळयतात. तींय आतां दार उगडून भितर येनात.

# सादिका

सादिका पयले फावट म्हाका दिल्लीक एका पुस्तकाच्या दुकानांत मेळ्ळी. जुनाचो म्हयनो आशिल्लो. वताचो रखरख सोसूं नज जातालो. आंगांतल्यान घामाच्यो पांवळ्यो येताल्यो अशा वेळार दिल्लीच्या रस्त्यांनी भोवूं नज म्हणून हांव कॅनोट प्लेसावयल्या एका पुस्तकाच्या दुकानांत भितर सल्लों.

गलगोतिया हे पुस्तकाचें मोटें दुकान. सांजवेळच्या पांचाउपरांत तें भरून वता. पुणून त्या दिसा दनपरां थंय जितो मूस नाशिल्लो.

सादिका थंय कसलें तरी  पुस्तक घेवंक आयिल्ली. वयल्या शेल्फांतलें पुस्तक काडटना धाडधाड करून हेर पुस्तकां सकयल पडलीं. सकयल शिंपडिल्लीं पुस्तकां काडून सादिका शेल्फात दवरूंक लागली. हांव कुशीन आशिल्लों. हांवेय कांय पुस्तकां उखललीं आनी शेल्फांत दवल्लीं.

सादिकान हांसत म्हजेकडेन पळयलें,सहज. असलो गोंदोळ जाता तेन्ना कोणूय पळयता तशें. पुण मागीर कांय वेळ ती म्हज्या तोंडाकडेन पळयत रावली. जशी काय खूब दिसांची वळख आसा, संवकळ आसा अशे तरेन ती म्हजेकडेन पळोवंक लागली.

म्हाका अजाप जालें. हांवें यादींचे पेट्टूल उगडून, उस्तून पळयलें.

तातूंत सादिका खंयच नाशिल्ली. म्हज्या दोळ्यांतली अजापाचीं उद्गारचिन्हां आनी प्रस्नचिन्हां सादिकाक दिसलीं जावंक जाय, हांसत तिणें म्हळें.

"आपको देखकर कुछ पुरानी यादें आयीं, भाईसाब !"

तिणे म्हाका अदीक गोंदळांत घालो. मागीर सादिकान सांगलें.

ती आपल्या भावा बराबर अशीच ह्या पुस्तकाच्या दुकानांत येताली, म्हाका पळोवन खिणभर तिका तिच्या भावाची याद जाली.

जिणेच्या मोडणार आमकां केन्ना कोण मेळत म्हणून कळना. कांय जाण

मेळटात आनी रेंवेवयल्या कुरवांभशेन ल्हारांच्या उदकान पुसून वतात. सादिकावरी कांय जाणां मेळटात तीं मात वेळेवयल्यो घुलो पुंजावन हाडच्यो तशीं यादीच्या पेटलांत जमतात.

खिणभराचे वळखीचें मेळांय पडून इश्टागतीचें गोड मोव धंय केन्ना जाता तें कळना.

सादिकाची पिराय त्या वेळार तीस बत्तीस वर्सांची आसत. फिकट जांबळ्या रंगाचो सलवार कमीज तिणे घाल्लो. ती दिसपाक खूब सोबीत अशें म्हणूं नजो. पुणून तिज्या दोळ्यांत नर्गिसीच्या दोळ्यांतले निष्पाप निरागस भाव आशिल्ले. हांसपांत शबानाची मुग्धता आशिल्ली. तिजें नाक बेनझिर भुत्तोभशेन धारदार आशिल्लें. तिज्या कपलार बुदवंतकायेची झांक मारताली. तिज्या उलोवपांत लखनवी गोडसाण आशिल्ली. पुणून तिज्या शब्दांक फांतोडेचो मोनेळ चिरीत येवपी मशिदींतले बांगेच्या आवाजाची धार आशिल्ली.

सादिकान आग्रो करून म्हाका लागींच्याच कॉफी हावसांत व्हेलो. इतले म्हणसर दनपारचो रखरख सोंपून सानवेळचें शीतळ वारें व्हांवूंक लागिल्लें.

मागीर सादिकान म्हाका आपली काणी सांगली.

सादिका आनी सफदर ही दोन जुवळीं भावभयणां. गाझियाबादच्या एका गरीब घराब्यांतलीं. ल्हानपणांत बावल्यांनी खेळपाचे पिरायेंत बापायन तांच्या हातांत पुस्तकां दवल्लीं. पुस्तकांचें बोट धरून ती साहित्याच्या देवळांत पावलीं. ल्हान भुरग्यान उडकी मारून देवळांतली घांट वाजोवची तशे तरेन बुध्दीची उडकी पावना अशी गिन्यानाची घांट वाजोवपाचो छंद तांकां लागलो. फुडें दिल्लीक शिकूंक आयलीं. हिंदी साहित्य घेवन दोगांय एम. ए जालीं. शिकतां शिकतां सफदर आनी सादिका दोगांय मार्क्सवादी तत्वज्ञानान पेटून गेलीं. कम्युनिस्ट पार्टीची मेंबर जालीं. विद्यार्थी चळवळींत वांटो घेवंक लागलीं.

सफदर कविता करूंक लागलो. काणयो बरोवंक लागलो. सफदरान प्रेमचंद वाचिल्लो. मैथिलीशरण गुप्त वाचिल्लो. हरीवंशराय बच्चन, महादेवी वर्मा, अज्ञेय, नीरज, फणिश्वरनाथ रेणु, भीष्म सहानी... हिंदी साहित्याच्या मखरांतले देव सफदरान काळजांत पुजिल्ले. त्या देवांक ताणे आपले कवितांचे झेले ओंपले.

हरशीं ऋजु सभावाचो सफदर. पुणून ताज्यो कविता उजो ओकूंक लागल्यो. ताज्या उतरांतल्यान दुखाविल्ल्या सोरपाचे फुत्कार येंवक लागले. मुर्ती फोडपी तुतयांचो घणघण आयकूंक येवंक लागलो.

काळजांतली तिडक हुंवारांतल्या उदकाभशेन शब्दांची देग हुंपून कवितांच्या न्हंयांतल्यान व्हांवूंक लागली.

मदीं मदीं सफदर भुरग्यांखातीर कविता बरयतालो, भुरग्यांखातीर काणयो बरयतालो. तेन्ना ताजी लेखणी लोणयाभशेन मोव आनी म्होंवाभशेन गोड जाताली. चान्न्याची शितळसाण आनी वझ्ऱ्याच्या उदकाची थंडसाण दिताली. ल्हारांच्या मुदयाळ्या केंसांतल्यान वाऱ्यान मायेन हात फिरोवचो तसो सफदर भुरग्यांचीं माणकुली काळजां आपल्या मोवाळ आनी म्होवाळ उतरांच्या बोटांनी सांसपितालो.

सादिका ताज्यो कविता वाचताली आनी ताका चाली लायताली. सादिकाच्या गळ्यांतल्यान सफदराच्यो कविता संगिताचे घुंगरू घालून गितां जावन नाचूंक लागताल्यो. सादिका ताज्यो काणयो वाचताली. गोबरान घांसून पुसून आयदना निवळ करची तशे तरेन सादिका सफदराचें साहित्य घासून पुसून काडटाली. तातूंतलीं विखाराचीं खतां धुताली. गडद रागाचे आनी तिडकीचे दाग पुसताली.

साहित्याची मोख किदें आसची हाजेर सफदर आनी सादिका वरांची वरां उलयतालीं. साहित्यान उतरांचे इश्कादी वयल्यान गिन्यानाच्या हस्तीदंती मनोऱ्यांत वचून बसचें काय साहित्यान समाजाक जागोवचें, पेटोवचें, मनशांचे वेदनेचेर फूक मारची, दुःखाचे घाय पेखोवचे, अन्यायाचे फाटीर चाबकां मारची, फटींगपणाच्या तोंडार पचपचीत थुकचें ? साहित्य ही चित्रकला, संगीत, शिल्पकला हाजेभशेन मन रिझोवपाची कला काय साहित्य ही एक भौशीक गरज ? सफदर मागीर आकूळपिकूळ जातालो. वरांचीवरां विचार करतालो. दिसानदीस कांयच बरय नाशिल्लो. ताजो वांझ मोनेळ पळोवन सादिका घुसमट्‌टाली.

मागीर ती बॅग भरताली आनी सफदराक घरांतल्यान भायर काडून भोंवडेर वताली. केन्ना हिमालयांत, केन्ना कच्छाच्या रणांत केन्ना अरूणाचलांत जाल्यार केन्ना कुमाउंच्या रानांत.

एक दीस फांतोड फुटचे पयलीं सफदर उठलो. सकाळ जाय म्हणसर पानांची पानां ताणे बरोबर काडलीं. शिंयाचे दीस आशिल्ले. सकाळीं काफयेचो पेलो घेवन सादिका सफदराचे कुडींत आयली तेन्ना सफदरान आपलो कादेर्न तिज्या हातांत दिलो.

'मिल कर चलो' - तें एक नाटकुले आशिल्लें. पंचेचाळीस मिनटांच्या पथनाट्याचे स्क्रीप्ट आशिल्लें.

सादिका चान्न्याच्या दोळ्यांनी वाचत रावली. सफदर तिच्या म्हऱ्यांत बसून तिज्या दोळ्यांतलीं जोरगतीचीं ल्हारां पळयत रावलो.

डिसेंबराचे शिंयाळे फांतोडेर 'जन नाट्य मंचा'चो जल्म जालो.

मागीर सफदर एका फाटल्यान एक पथनाट्यां बरयत रावलो. माशिन,

हत्यारे, काला कानून, औरत, जब चोर बने कोतवाल, इशारा, वीर जाग जरा -

सफदर आनी सादिका हांचेभोवतणी इश्टांचो पुंजो जमलो. इंदरजित आयलो. अमृता आयली. सुजाता, नादिरा, रोमेश, शोहेल आयले. मीरा आनी मलयश्री, हबीब आनी पार्थो, मनजित आनी मदनगोपाल, राम रेहमान आनी मोहन सेहगल, मिकी आनी मुजाफिर, जावेद आनी रोमी.

दिल्लीच्या रस्त्यांनी आयजवेर फकत सिगरेटी फुकीत आनी आयस्क्रिम खात फिरपी तरनाट्यांचे चोमे पळयल्ले. त्याच रस्त्यांनी आतां इंगळ्याभशेन रसरसून धगधगपी तरनाट्यांचो धग अणभवलो.

पथनाट्य करतां करतां हातांत घेतिल्ले हात अदीक लागीं आयले. मलयश्री आनी सफदर मोगांत पडलीं. लग्न जालीं.

फुडें सफदरान नोकरी सोडली. तो पूर्णवेळ चळवळींत पडलो. कामगारांच्या प्रस्नांत लक्ष घालूंक लागलो. कम्युनिस्ट पार्टीचो संघटक म्हणून काम करूंक लागलो.

एक दीस सफदराचे प्रतिभेक नवो चंवर आयलो. मध्यानरातीं उठून सफदरान पथनाट्य बरयलें 'हल्ला बोल'.

रानांतल्या उज्याभशेन 'हल्ला बोल' दिल्लीच्या सरभोवतणी पातळ्ळें. राजकी पक्षांक सफदराच्या पथनाट्यांतलो उपहास उस्तऱ्या वचूंक लागलो. तातूंतले तोमणे दुखूंक लागले. इतले म्हणसर वेंचणुको आयल्यो.

१ जानेर १९८९ दनपारची दोन वरां जाल्यांत. साहिबाबाद ह्या दिल्लीच्या लागसार आशिल्ल्या गांवांत सफदर, सादिका, मलयश्री आनी तांचे इश्ट जमल्यात. शेंकड्यांनी लोक सरभोवतणी जमून 'हल्ला बोल' पळयतात. अशा वेळार खंयच्यान पन्नास साठ लोक आयले ताणी सफदराक आनी ताज्या इश्टांक बडयांनी धाडावपाक सुरवात केली. धांवत धांवत सफदर, सादिका, मलयश्री लागींच आशिल्ल्या पार्टीच्या ऑफिसांत गेली. ताणी दार धांपलें तशे ते गुंड दाराचेर खोंट मारूंक लागले. सफदर, विनोद आनी हबीब थंयच रावले. ताणी फाटल्या दारान सादिका, मलयश्री आनी नादिराक वचपाक सांगलें.

सादिका धांवत पुलीस स्टेशनार गेली. जीप घेवन पुलीस येता म्हणसर सगळो खेळ सोंपिल्लो.

मळबांत उडपाचो हावेस धरपी सफदर नांवाचो समुद्रपक्षी पांखां पसरून मातयेंत पडिल्लो.

दुसरे दिसा तिनसना हातांत पेटिल्ल्यो मशाली आनी तामडे बावटे घेवन दिल्लीच्या रस्त्यावयल्यान सफदराची निमणी यात्रा गेली.

तिसरे दिसा सगळीजाणां साहिबाबाद गेलीं. ज्या जाग्यार सफदराचे पथनाट्य

अर्देच उरिल्लें त्याच जाग्यार अठ्ठेचाळीस वरांभितर तें पथनाट्य परत जाले.

तातूंत सफदर नाशिल्लो पुणून आपलें दुःख गिळून आनी दुखां पुसून सफदराची भयण सादिका आनी ताची बायल मलयश्री तातूंत आशिल्ली.

चौथे दिसा गोबरांतल्यान फिनिक्स पक्षी जितो जांवन मळबांत उडचो तशें तरेन सफदराच्या मरणाचे वेदीवयल्यान 'सहमत'चो जल्म जालो. देशभरांतले कवी, साहित्यिक, विचारवंत, कलाकार जमले.

भिष्म सहानी, कृष्णा अय्यर, अपर्णा सेन, सोनल मानसिंग, बुध्ददेव भट्टचार्य, श्याम बेनेगल, शबाना आझमी, विजय तेंडुलकर, रविशंकर, मृणालसेन, ए. के हनगल, एम एफ हुसेन -

सफदराचे इश्ट दशदिशांतल्यान सफदराक आर्गां ओंपपाक आयले.

मागीर सफदरान सकयल दवरिल्ली घुडी सादिकान हातांत घेतली. सादिका बरोवंक लागली. सादिकाच्या रूपान सफदरच परत उलोवंक लागलो.

बाबरी मशिद वडयतकीर सादिका आनी तिजे इश्ट अयोध्येक शरयू न्हंयचे देगेर जमले. मध्यान रातचो शरयूचे देगेर भारताच्या एकात्म संस्कृतायेचो 'मुक्तनाद' शंख वाजलो. अश्टदिशांतले फाकीवंत कलाकार एकठांय आयले. किशोरी आमोणकर, झाकीर हुसेन, यामिनी कृष्णमूर्ती, हरीप्रसाद चौरासिया, अमजद अली खान, मल्लीका साराभाई, प्रोतिमा बेदी ....

मध्यानरात पासून फांतोडमेरेन ताणी संगीताच्या बोटांनी अयोध्येच्या दोळ्यांतली दुकां पुसलीं.

सादिकाच्या दोळ्यांतल्यान सफदर पळयतालो. तिज्या कानांतल्यान सफदर आयकतालो.

सफदर सादिकाखातीर फकत एक भाव उल्लो ना. तो तिजे ज़िणेची मोख जालो.

सादिका आपल्या भावाची काणी सांगत रावली. निमाणे थांबली.

"भाईसाब -

"आपको देखकर पुरानी यादें आयीं !...

हम यहीं से बहुत सारी किताबें खरीदते थे !

...आपको देखकर मुझे मेरे भाई की याद आयी !"

हांव कांयच उलयलों ना.

परत केन्नाय मेळया म्हणत हांव कॉफी हावसांतल्यान भायर सल्लो.

सादिका म्हणूंक लागली,

"भाईसाब, आपने अपने बारेमें कुछ नहीं कहा !"

वतां वतां सादिकाक म्हळें -

"सादिका, मेरी भी एक बहन थी ! मेरे बचपन में वो चल बसी ! अगर वो जिंदा होती तो बिलकुल आप जैसी होती !"



# समथिंग इज मिसिंग इन यूवर हाव्स ...

आपल्याक घरां पळोवपाचो खूब घोस्त - तिणे सांगलें. हवेली की उमर साठ साल ही ओंपार तिणेच म्हाका सांगली. ते ओंपारीचो अर्थ आमी तिका विचाल्लो.

गिरेस्तकाय तीन पिळग्यांवयर उरना. चवथे पिळगेंतले कर्मकट्टे वारस घराण्याची गिरेस्तकाय बुड्डून खातात. हवेली कफल्लक, पडंग जाता. पन्र्या घरांच्यो वण्टी घराचे वंशज थोडेभोव सामाळून दवरतात. आपूण घरांच्या वण्टींवयल्यान, वास्तुशिल्पावयल्यान भुतकाळाचो वास घेता- ती म्हणपाक लागली.

तुमच्या घराची पिराय किदें? - तिणें विचाल्लें. घराक शंबरावयर वर्सां जावंक जाय - म्हजे आवयन तिका सांगलें.

पुणून घर इतलें पोन्नें अशें दिसना - तिणें म्हळें. सोरपान कात वडोवची तशी हालींच घरान कात वडोवन तें नवेंताल्ल जालां पुणून ताची हाडां, ताचें रगत, ताचें काळीज पोन्नेंच आसा - हांवें सांगलें.

"घराक पांच डायमेन्शन्स आसतात. आसूंक जाय. लांबाय, रूंदाय आनी उंचाय हीं तीन डायमेन्शन्स आसलीं म्हणून घर जायना. घरांत स्पेस जाय. मेकळ्यो, उकत्यो सुवाती जाय. वास्तुशिल्प वण्टी-वण्टीमदीं सुवात निर्माण करीना. तें अवकाशांतल्या उक्तेपणाभोंवतणी वण्टी बांदता. वॉल्स अरावंड द स्पेस नॉट स्पेस विदीन द वॉल्स" तिणे सांगलें - "बाय द व्हे, तुमच्या घराचो आर्किटेक्ट कोण ?" तिणें विचाल्लें.

"घराक म्हळ्यार आर्किटेक्ट आसा, म्हळ्यार ना. आमच्यो पांच पिळग्यो हें घर बांदीत आयल्यात. घर आपसूक सेंद्रिय तरेन वाडलां. ताची सिंथेटीक ग्रोथ

जावंक आमी दिवना" - हांवें सांगले. "पुणून तुमी घराक पांच डायमेन्शन्स आसूंक जाय म्हणटात. खंयचें पांचवे डायमेन्शन तें ?" हांवें विचाल्लें.

"पांचवें डायमेन्शन नासत जाल्यार घराचें घरपण सांडटा. घर भकास जाता. ताचे सोबितकायेक उदास सया मारता. ना ! पांचवें परिमाण आसलेबगर घर घर जायना" तिणें म्हळें.

"वास्तू आनी घर ह्यो दोन वेगळ्यो गजाली. घर ही वास्तू आसता पुणून वास्तू हें घर आसताच अशें ना. वास्तुचें घर जावपाक थंय मनशांचें चलप, भोवप, रांदप जेवप, न्हिदप उठप आसचें पट्टा. तेन्ना वास्तुक घरपण येता. घराचें पांचवें डायमेन्शन तें हें !" तिणे सांगलें.

ती वास्तुशिल्पज्ञ न्हय पुणून तिचे नदरेंत रसिक आस्वादकता आशिल्ली. खंयचेय गजालीच्या वयल्यावयल्या रूपांतल्यान तिच्या अंतरंगामेरेन देंवपाची खोलाय आशिल्ली. आमचें घर पळोवन तिका खोस जाली. तिणे ज्यो खूब गजाली आमचे नदरेक हाडल्यो त्यो मुद्दम जावन आमी केन्नाच करूंक नासल्यो.

"म्हणूनच तुमचें घर म्हाका आवडलें" - तिणें म्हळे.

आमच्या व्हारांदांतल्या झोपाळ्यार ती बसली. "घरांत झोपाळो आसूंक जाय. ताणे घराचे जड्डेपण वचून घराक बाळकरूप येता" तिणें म्हळें. ती थोडोवेळ ओग्गी रावली आनी म्हणूंक लागली "बट, समथिंग इज मिसिंग इन यूवर हाव्स"

कितें तें ? आमी उमळशिकेन विचाल्लें.

"तुमच्या घरांत कुत्रो ना. ज्या घरांत कुत्रो ना त्या घरांत सगलें आसलें तरी किदें तरी उणे आसा असो म्हाका भास जाता. कुत्रो म्हळ्यार सोबेची वस्त न्हय. कुत्रो म्हळ्यार घराच्या चैतन्याचें एक आंग. घराच्या घरावेपणाची परिपूर्ती. घराचे अक्षरलिपींतले एक विरामचित्र !"

मागीर ती नॉस्टाल्जीक जाली आनी तिणे आमकां आपल्या कुत्र्याची काणी सांगली.

तीं पन्नास वर्सां आदीं लाहोराक रावतालीं. तिची पिराय आठ धा वर्सांची आसतली. अचकीत देशाची फाळणी जाली. हिंदू मुसलमानाच्यो दंगली जाल्यो. तिच्या कुटुंबाक रातोरात घर सोडचें पडलें.

"मध्यान रातचो वेळ आशिल्लो. आमकां भुरग्यांक न्हिदेंतल्यान उठोवन भायर काडिल्लीं."

भुरग्याबाळांक घेवन, हाताक मेळटा तें सामान घेवन तिचे आवयबापूय, बापोलये ट्रेनीर चडिल्ले. सगल्यांचो जीव वाटावन येतना एक जीव लाहोरच्या घराच उल्लो. सगली हिंदुस्तानांत पावलीं. घरचो कुत्रो पयस पाकिस्तानांत

उल्लो.

"काय कुत्र्याची अडचण जायत म्हणून ताका थंयच दवरलो ? म्हाका खबर ना. हांवें केन्ना विचारले ना." तिच्या दोळ्यांत घळघळीत दुखां आयलीं. त्या वेळार आपल्याकय न्हिदेच्या भरार आपल्या कुत्र्याची याद उल्ली ना हाचे चुरचुरे तिच्या उतरांनी पातळिल्ले.

दिल्लीक येतकीर घरांत दुसरो कुत्रो हाडलो. पुणून लाहोरच्या घरांत उरिल्या कुत्र्याचे यादीन लाशिल्लें काळीज पेखूंक पावले ना. तो घाय अजून जितोच उल्लो.

ती उलोवपाची थामली "घरांत कुत्रो आसचो अशें तुमकां केन्नाच दिसलें ना?" तिणें विचाल्ले.

हांवे पोरसांत कुचकुचून फुलिल्ल्या धवेफुल्ल अनंताकडेन बोट दाखयले. "ह्या अनंताच्या सान रूखापोंदा म्हजो भुरगेपणांतलो इश्ट हेमू - ताका पुरला आनी ताचेबराबर म्हजें भुरगेपणय हांगा पुरून दवरलां" हांवें सांगलें.

"कुत्र्यासारको दुसरो इश्ट ना. भगवद्‌गीतेन ताचे इश्टागतीमुखार शेंपडी हालोवची असो निष्काम, निर्व्याज, निरपेक्ष मोग आसता ते इश्टागतींत. कुत्र्याच्या मर्णान घरांतलो मनीस गेल्ल्याचें दुःख जाता. घराचो प्राण सांडटा. चैतन्य गळून पट्टा. घर भकास, उदास, सुन्न, अपंगूळ जावन पट्टा. देखून हेमूच्या मर्णाउपरांत परत कुत्रो म्हणून घरांत हाडलो ना." हांव उलयत गेलो.

"कुत्र्याच्या मर्णापरसय कुत्रो सांडिल्याचे दुःख कितलें खर ते हांवें ल्हानपणांत अणभवलां" तिणें म्हळे. ती झोपाळ्यावयल्यान उठली. उठटां उठटां तिणे एक उर्दू शेर म्हळो आनी ताचो अर्थय सांगलो.

करपत म्हणून कोण रांदपाचें सोडीना.

निसरत म्हणून कोण चलपाचें सोडीना.

फुलां चोरत म्हणून कोण फुलझाडां लावपाचे सोडीना.

आनी परमळ हुबून वचत म्हणून कोण अत्तराची शिंशी उगडपाचें सोडीना.

दिल्लीक परतुचे पयलीं परत एक फावट ती आमगेर आयली. चिराग, दत्ती, तिचे भोवतणी जमलीं. तांकां तिणें स्कॉटलंडांतल्या ग्रेफ्रियर्स बॉबी नांवाच्या कुत्र्याची काणी सांगली.

१९५६ वर्सा स्कॉटलंडांतल्या एडिंबरो शारांत जॉन ग्रे नांवाच्या मनशाक रस्त्याचे कुशीक निकतोच जल्मलो एक कुत्र्याचो पेटो मेळो. ताणे ताचें नांव बॉबी दवरलें. जण एकल्याचो तोखणायेचो विशय जावचो इतली घनीश्ट इश्टागत आशिल्ली जॉन आनी बॉबीमदीं. एकाबगर दुसऱ्याक सुख लागना आशिल्लें. दोन वर्सांनी १८५८ वर्सा अचकीत जॉन मेलो. ताका इगर्जीचे

सिमेतरींत पुरलो. ते उपरांत फुडलीं चौदा वर्सां दीसरात बॉबी जॉनाक पुरिल्ले सुवातीकुशीक बसून रावलो. ट्रेल नांवाचो जॉनाचो इश्ट ताका थंयच जेवण घालतालो. कोणे विघ्नसंतोशी मनशान सिमेतरींत बसून रावपी बॉबीआड म्युनिसिपालटींत फिर्याद केली. बेवारशी कुत्रो म्हणून म्युनिसिपालटीचे लोक बॉबीक धरूंक आयले तेन्ना लॉर्ड विल्यम हो शारांतलो प्रतिष्ठित मनीस फुडें सल्लो. ताणे बॉबीचें लायसन्स काडलें आनी "ग्रेफ्रियर्स बॉबी, लायसन्सड १८६७" नावाची पाटी ताच्या गळ्यांक बांदली. १८७२ वर्सा बॉबी मेलो. तो मेरेन तो कुत्रो उरूंक नाशिल्लो. सगल्या स्कॉटलंडाचे तोखणायेची अशी ती दंतकथा जाल्ली. बॉबीच्या मरणाक शेकड्यांनी भुरगीं जमलीं. जॉनाक पुरिल्लो ताचे कुशीक बॉबीक पुरलो. आंजेला नांवाचे बायलेन सिमितरीच्या मुखार बॉबीचो पुतळो बांदलो. आयज संवसारातल्या सगल्या कुत्र्यां-मोग्यांचे एडिंबरो हें एक तीर्थक्षेत्र जालां. १९७२ वर्सा बॉबीच्या मरणाक शंबर वर्सां जालीं तेन्ना शेकड्यांनी लोक सिमितरींत जमले आनी ताणी बॉबीक आर्गां ओंपलीं.

रायगडाचेर शिवाजीच्या वाघ्या कुत्र्याची समाधी शिवाजीच्या समाधी कुशीन आसा. शिवाजी मरतकीर ताका अग्नी दितना ताच्या कुत्र्यान उज्यांत उडी माल्ली आनी लासून घेतलें ताची काणी आमी तिका सांगली.

"कुत्र्याचे आनी मनशाचे इश्टागतीक हजारांनी वर्सां जालीं. कुत्रो ही मनशाळेल्ली पयली मोनजात. ज्या दिसा कुत्र्याचे आनी मनशाचे इश्टागतिक सुरवात जाली ते दिसा मनीसजातिच्या सांस्कृतिक इतिहासांत ताचें एक पावल फुडें पडलें. अशी ही पुरातन, सनातन आदिम इश्टागत!" - तिणें म्हळें.

ती दिल्लीक परतली पुणून "समथिंग इज मिसींग इन यूवर हाव्स" हीं तिचीं उतरां आमच्या कानांत किणकिणत रावलीं.

- आनी एक दीस हांव कुत्र्याच्या सान पेट्याक घेवन घरा आयलों. चिरागाक आनी दत्तीक खूब खोस जाली. माणकुल्या कुतूक किदें करूं किदें नाका अशें तांका जालें. ताचें नांव ताणीं टायगर दवरलें. अपुर्बायेन आमी ताका टाग्गरबाबू म्हणूंक लागली. टाग्गरबाबू घरभर लुटूलुटू धांवू लागलो. सान रस्मी जिबेन आमकां चाटूंक लागलो. खोशयेन शेपडी हालोवंक लागलो.
म्हणटां म्हणटां तो आमच्या घरचो 'मनीस' जालो. आमच्या घराक एक नवें डायमेन्शन दिलें ताणें !

आमच्या भावबंधाचे रासायनिक प्रक्रियेंत टायगर कॅटलिस्ट जालो. आमची निबर, खरखरीत संवेदनशीलता ताणें मोव, मुलायम, तरल, तरतरीत केली. घराच्या व्याकरणाचे सगले नेम ताणे तोडले. सगल्यो छंद मात्रा माड्डून ताणें आमचे घर मुक्तछंद केलें. आपल्या करूणार्द्र दोळ्यांनी ताणें आमचीं काळजां

कोरांथून थंय आपलेखातीर  लक्तुबायेची सुवात केली.

टायगराक पटो हाडून साकळेन बांदपाचो विचार दत्तीक सोंसना जालो. "भुरग्यांक कोण सांकळेन बांदता केन्ना ?" ताणे विचाल्लें. टायगर तीन म्हयन्यांचो जालो. लाटिल्ली पुरी तेलान सोडटकीर गरगरीत जावची तसो तो दुध-पाव, मटण-सूप खावन पिवन गरगरीत जालो.

दिवाळेचे सुटयेंत चिरागान आपले सगले इश्ट पुंजायले. तांकां आपलो नवो माणकुलो इश्ट दाखयलो. ते लिपचोरयां खेळपाक लागले. टायगरय तांच्या फाटोफाट बोवाळूं लागलो. धांवू लागलो.

घर आनी रस्तो हातूमतलो भेद समजुपाइतली शिटुकसाण नाशिल्ली ताच्यांत. एक दीस चिरागाच्या इश्टांफाटल्यान धांवत तो रस्त्यार पावलो. रस्त्यावयल्यान वचपी गाडयेच्या चाकाक आपटून टाग्गरबाबू शेंवटलो तरी तसोच तो धांवत धांवत घरांत आयलो. घरच्या हुमऱ्यार ताणे प्राण सोडलो.

भुरग्यांनी आकांत केलो. आमच्या काळजाचें उदक उदक जालें.

निकतोच शिरशिरीत पावस पडून गेल्लो. मोव मातयेंत आमी फोंड खणलो. पोरसांतलीं सगलीं फुलां काडून फोंडांत फुलांची पखरण घाली. ताचेर टाग्गरबाबूक न्हिदयलो. एकएकट्यान इल्ली इल्ली करून माती घाली. किण्ण काळीज घेवन आमी घरांत परतलीं.

ती परत केन्ना तरी आमगेर येतली आनी म्हणटली -
" समथिंग इज स्टील मिसींग इन यूवर हाव्स !"



# खुशी

खुशीचो जल्म जालो तेन्ना आमी सगळ्यांनी खोस मनयली. खुशीन मात रडून आकांत केलो. खुशीक खबर नासलो कसलोच अर्थ. आपलो जल्म जाला हें लेगीत ताका कळूंक नासलें.

खरें म्हळ्यार कळप आनी न कळप हातुंतलो भेद लेगीत ताका कळूंक नासलो.

खुशीक आशिल्लें फकत अस्तित्व - मोव मोव लोणया आंगाचें, लुसलुशीत ल्हंवेचें, कंवळ्या ओठांचें, आंकरी कशा हातांचें आनी निळ्या लुकुलुकु दोळ्यांचें!

दिसभर खुशी न्हिदतालें गाड साकरन्हिदेंत आनी रातभर तें जागरणां करतालें आपले साकर जागेंत.

जाग आयली म्हणटकीर खुशी मोटमोट्यान रडटालें. जें रडटा तें आपुणच हें कळपाक खुशीक खूब दीस लागले. खुशीचें रडप हें आशिल्लें म्हज्या संवसारांतलें सगल्यांत गोड संगीत. रडप हो आशिल्लो खुशीच्या अस्तित्वाचो अंतर्नाद. ताचे जिणेचे सान देवळेंतली ती आशिल्ली किणकिण घांट.

खुशी आतां वळखूंक लागलें म्हज्या हाताचो स्पर्श. ताची भूक येवंक लागली ताच्या माणकुल्या ओंठांनी. ताचे दोळेय आतां हयन्हयशे हांसूंक लागले पळोवन म्हज्या दोळ्यांतलो हांसो.

आपल्याक न्हाणयतात, आपल्याक खेळयतात, आपल्याक पोपे घालतात, आपली पापी घेतात - हें आतां ताका ल्हवु ल्हवु करून कळूंक लागलें. केन्ना हांसचें आनी केन्ना रडचें हें जुस्त समजुपाचें शाणेपणय खुशीक आयलें.

खुशीक मागीर एकेक सोद लागत गेले. आपल्या आंगठ्याच्या देंठांत म्होंव आसता हाजो सोद ताका लागलो. आंगठो हो चोखपाखातीरच आसता अशें खुशीन थारायलें. उमथें पडटकीर खुशीक खूब खोस जाली. मागीर दिमखुऱ्यांनी

वचपाची कलाय तें शिकलें. दिमखुऱ्याची रांगोळी घालून घालून कांय दीस गेले. खुशी आतां हात धरून उबें रावंक लागलें. आपूण आपूण चालचाल करूंक लागलें.

खुशीचे अगतिक जिणेक आतां गती आयली. खुशीचे जिणेक आतां नवो आयाम, नवें परिमाण मेळ्ळें. खुशी आतां उरलें ना भुंयेर पातळपी फुलांची वाल. ताचो जालो लसलशीत, रसरशीत रोपो - पानां फुलांचो, फुलांपानांचो.

खुशीक हांवे शिंवले तांबडे, पांचवे, निळे, हडवे भेस. ताच्या मुदयाळ्या केंसाक बांदले भांगरा कोराचे रिबीन. खुशीचो जालो एक फुलपांखो.

कसली तरी कामरूपी जादू खुशी शिकलें. केन्ना जावंक लागलें तें चानी. केन्ना चिमणी. केन्ना सोंसो.

खुशी किटीकिटी हांसतालें कातकुतल्यो करतकीर. मात्शें तापयतकीर ताची भिवून गुळी जाताली. तें हिमटी काडटालें आनी बाज्जेपोंदा लिपून बसतालें घट्ट वेंग मारून आपल्या गुबगुबीत वांस्वेलाक.

खुशीच्या संवसारांत आयली आतां म्यांव म्यांव माजरां. भुक भुक भिशु. हूप हूप माकड. चिंव चिंव चिमण्यो. कांव कांव कावळो.

बापूय येतकीर खुशी मुरगुट्टालें. भुल्लुसतालें. फुरफुरतालें. ना ना तरेची ना ना नांवरूपां करतालें. किदे ना किदें फोडटालें. किदें ना किदें मोडटालें. नाका पुरो करतालें आमकां.

खुशी थोडें व्हडलें जालें तेन्ना ताणें चलपाचें थामयलें. तें नाचूंकच लागलें. ताच्या पांयांतली चाल गेली आनी ताच्या पायांत नाच आयलो. ताच्या हाताच्यो आपसूक जाताल्यो मुद्रा. आपले निळे निळे दोळे तें भोंवऱ्याभशेन फिरयतालें. आपली सान मान तें बावलेभशेन हालयतालें खुशी आतां खुशी उरूंक नाशिल्लें. तें नाशिल्लें म्हजी धूव. तें जाल्लें एक ल्हार. एक मोर.

ताच्या तोंडार फांकिल्लो फांतोडेचो उजवाड. ताच्या दोळ्यांत पातळिल्ली आमोरेची सया. ताच्या आंगार येवन बशिल्ले भिरें रूपावती चान्न्याचें.

खुशीच्या रूपान हांवूच जाल्लें ल्हान. सान. खुशीन वडयलें म्हजे ओंटयेंत म्हजें सांडिल्लें भुरगेंपण. खुशीबराबर हांवय बसतालें वचून काणयांचे घोलींत. थंय आसताले सोंशे. थंय आसतालीं हरणां आनी हत्ती. येताल्यो उडत उडत मळबांतल्यो फुलपरी. उडते शेंदरेवयल्यान येताले जादूगार, थंय आशिल्ले कुंडेकुसकूर. थंय आशिल्ली बूट सांडोवपी सिंड्रेला. थंय आशिल्लो काबुलीवाला. थंय भेटली म्हाका परत एक फावट हिमगौरी. आनी तिचे सात मोटवे इश्ट. खुशीबराबर म्हजीय परत इश्टागत जाली अल्लादिनाकडेन, अलिबाबाकडेन. भिमाकडेन. मारूतीकडेन. टारझनाकडेन. तेनाली रामनाकडेन.

मागीर एक दीस आमकां दिसलें - आतां खुशीक शाळेंत घालूंक जाय.

पयलीं पयलीं खुशी चलत शाळेंत वतालें आनी धांवत घरा परततालें. मागीर मागीर खुशी धांवत शाळेंत वचूंक लागलें आनी चलत घरा परतूंक लागलें.

पयल्या दिसा शाळेंत रडून आकांत करपी आनी सगली शाळाच माथ्यार घेवपी खुशीक इल्ली इल्ली करून शाळा आवडूंक लागली. खुशीक नवे इश्ट मेळ्ळे. इश्टिणी मेळ्ळ्यो.

खुशीचे जिणेंतले दीस आतां व्हड जावंक लागले. राती ल्हान जाल्यो. पास्कांची परब आयली. होळयेची परब आयली. माथ्यार माटोळी घेवन मखरांतलो गणपती आयलो. दसरो आयलो. दिवाळी आयली. खुशीचे जिणेंत सणापरबांची रांगोळी आयली. फेस्तांजात्रांचे रंगीबेरंगी बोमाडे आयले.

सांताक्लॉजाच्या बोटव्यांत बसून नातलां आयलीं. पाळण्यांत बसून रामनम आयली. ईदाचो चांदीमामा आयलो  रमजानच्या पांटल्यांत बसून.

आनी सगळ्या परबांतली आवडटी परब आयली - खुशीचो वाडदीस आयलो. सगलें घरच सजलें. नटलें. घराचोच जालो एक क्रेक आनी त्या केकाच्या गोड घरांत जमल्यो खुशीच्यो इश्टइश्टीणी. खुशी न्हेसलें बावलेचो सोबीत भेस. खुशी दिसलें राजकुंवरी कशें. खुशी दिसलें देवपरी कशें. म्हाकां खिणभर दिसलें - काळ गोठून वचचो. तो फुडेंय वचचो न्हय. फाटींय सरचो न्हय. तो सासणाचो खुशीचो वाडदीस जावन उरचो.

कितलें पिशेपण म्हजें ! दीस कोणाखातीर थांबनात. थांबले नात. थांबचेय न्हय. दीस धांवत गेले.

खुशीचें भुरगेपण भुर्र करून उडून गेलें. खुशी आतां व्हड जालें.

खुशीची उमळशीक वाडली. सैमाचो संवसार  खुशी आतां दोळ्यांक सांठोवंक लागलें. ताका आमी शिकयलो ना शिमो घालपी भूगोल. ताका आमी भोंवडायलें रानावनांत. देशविदेशांत. खुशीन पळयल्ले काजुचे पिके मुट्टे. केळीचें केळफूल. फुलिल्लो मशींग. बिमलांनी भरून वतपी बिमलीण. खुशीन पळयली दुदयाची वाल सांबाळटना नळ्यांवयलो ग़रगरीत दुदी. खुशीन पळयलो पानांची न्हेसणां सोडून फुलांचें वस्त्र न्हेशिल्लो चांफो. खुशीन पळयली कुपां, पळयलो पावस. शेतां आनी कुळागरां. न्हयो आनी दर्या. दोंगर आनी दोंगुल्ल्यो. दूध काडपी गवळी आनी माडार चडपी रेंदेर. तारीवयलो तारयो आनी दर्यावयलो रांपणकार.

खुशीन पळयले उमाशेचे रातीं लखलखतें मळब. खुशीन दूरदर्शनार पळयले हुंवार. पळयले भुंयकांप. पळयल्ली गेर्रां.

खुशीक कळत गेलो अयोध्येचो अर्थ. काश्मीरांतली किजिलां. काणयो सांगपी इतिहास लडायो करता हें खुशीक समजलें. हॅरी पोटराबराबर ताणे आयकल्यो

दंतकथा ओसामाबिन लादेनाच्यो.

खुशी अकाली पोक्त जालें. खंयतरी पोरसांत आपलें भुरगेंपण पुरून तें इल्ले जाणटें जालें. म्हज्यांतले आवयखातीर खुशी आतां भुरगें उरलें ना.

खंयच्यान आयलें खुशीक सगलें शाणेपण ? कोणें शिकयलें ? कोणे दिली ताका देख वागपाची ? खुशी जालें आपुणच एक दिवो आपल्याखातीर. ताका गरज उरली ना दुसऱ्याच्या हातांतल्या दिव्याची. खंयच्या बुध्दविहारांत वचून म्हजे खुशीन घेतलो हो बुध्दाचो आशीर्वाद 'आत्मदिपो भव' जावपाचो ?

खुशीचें हें वेगळें रूप पळोवन हांव अजापित जालें. खंय गेलें भिवकुरें हिमटी काडपी खुशी ? ही धिटाय आनी ही नमळताय, हें मोवपण आनी ही घटसाण, हो आत्मविश्वास आनी हो आत्मसन्मान कसो, कसो केळयलो खुशीन ? कोणें दिली शक्त ही ताका ?

खुशी जालें ना ताचे आवयभशेन. ताच्या बापायभशेन. ताच्या आज्यापणज्याभशेन. आपल्या आंगांतलो गुणसुत्रांचो कॅलिडोस्कोप खुशीन हालयलो आपल्याक जाय जाय तसो. खुशी जालें फकत खुशीभशेन.

लोकांक लागीं ओडपाची खेरीत चुंबकीय शक्त आसली खुशीन. बरो सभाव मनशाक अदीक सोबीत करता सुंदर करता. खुशीच्या शिरवंत रूपाक देग आशिल्ली ताच्या म्होंवाळ सभावाची. नांवाप्रमाण खुशी आशिल्लें खोशयेचो खळखळ व्हांवपी वझरो.

खुशी व्हड जालें. तें म्हजी धूव उल्लें ना. तें म्हजी इश्टीण जालें. खुशीन म्हजेकडेन कांयच दाखय लिपय केलें ना. ताची दरेक करणी आसली पारदर्शक कंवचेभशेन. खुशीन आपले जिणेचो सांगाती आपणेंच वेंचून काडलो पुणून ताणें आमकां विश्वासांत घेतलें. आमी ताचे इत्सेआड गेलीं ना. लग्न जावन खुशी घोवागेर गेलें. आमचें भरिल्लें घर रितें जालें.

पानगळींतली ही सरती आमोर. भायर भुर भुर झेल पडटा. घरांतल्या व्होल्तेरार हांव एकटेंच बसून आसा. पुणून एकटें कशें ? खुशीच्यो यादी आसात म्हज्या सांगाताक.

घराच्या कोनशा कोनशाक खुशी सांडून गेलां आपली एकेक याद. आपलें एकेक मोरपांख दवरून गेलां तें म्हजे जिणेच्या दरेक पानांत. ताचें पर्शियन माजर- किटी. खुशी येतकीर किटी कशें धांवत धांवत येता आनी ताचे मांडयेर सुगूर जाता. खुशीची याद आयली म्हणटकीर खुशीचो पप्पा किटीक मांडयेर घेता. खूब वेळ ताका सांसपिता. किटीक येता काय याद खुशीची ? ना कशी ? आमी तरी उलोवंक शकतात खुशीकडेन फोनार. किटी उलोवंक शकना. किटी केन्ना केन्ना आर्त आवाजांत म्यांव म्यांव करता तेन्ना आमकां दिसता - तें

खुशीकच उलो मारता आसूंक जाय.

आतां पानगळ सोंपतली. पास्कां येतलीं. दिमखुऱ्यांनी वसंत ऋतू येतलो. पोरसांतले निष्पर्ण रूख पानापानांनी चंवरतले. फुलांफुलांनी फुलतले. मळबांतल्यान शेवण्याचें भिरें येतलें. ते घोंटेर बांदतले रुखांचेर. घोंटेरांतल्यान तांची पिलां चिंवचिंव करतलीं.

आनी तांकां भेटूंक पयसुल्ल्यान येतली म्हजी फुलपरी. राव. किटी राव. थोडेच दीस उरले आतां. अशी आळसाय करूंक फावना. खूब कामां आसात. पोरसूं निवळ करूंक जाय घराक रंग काडूंक जाय. लोणचीं करूंक जाय. मुरांबो करूंक जाय.

आंगलीं शिवूंक जाय. खेळणी हाडूंक जाय. माळयेवयलो खुशीचो पाळणो आतां परत सकयल हाडूंक जाय.

चल, किटी चल.



# नागत्वाची काणी

म्हज्या भुरगेपणांत आमच्या घरांत बरेंचशे धर्मीक वातावरण आशिल्लें. फांतोडेर देवाकूड उगडटाली. देव उठटाले. सकाळ जाता म्हणसर भट येतालो. देवांक न्हाणयतालो. न्हेसयतालो. गंधफूल घालतालो. आरत दाखोवन पंचामृताचो निवेद्य दाखयतालो. घरांतल्या सगल्यांखातीर गाराणे घालतालो. नवरात्रांत गुरूचरित्र वाचताले. कुलदेव लक्ष्मीनरशिंवाची चतुर्दस वाडटाले. जाण्टेल्यांची श्राध्दां आसतालीं. बायलांचे वार आसताले. समराधना आसताल्यो. श्रावणांत श्रावणी आयतार पुजताले. नागपंचम आनी मागीर गोकुळाष्टम जाताली. भाद्रपदांत चवथ आसताली. कार्तिकांत आमोरेर राजांगणांत तुळशीचें लग्न लागतालें.

फुडें एक दीस म्हज्या आज्याच्या मनांत किदें आयलें कोण जाणां - नवरात्रांत गुरूचरित्र वाचपाचें ताणे बंद केलें. जाण्टेल्यांचीं साग्रसंगीत श्राध्दां करपाचें ताणे सोडून दिलें. तो तांच्या नांवान आमान्य वाडूंक लागलो.

फुडें एकेक करून एकेक देवस्पण बंद जायत गेलें. तुळशी लग्नाफाटली कथा वाचली आनी तुळशीलग्न करपाचें थांबयलें. चतुर्दशी बंद जाल्यो. आमान्य वाडपांतय कांय अर्थ ना अशें दिसलें. भटाकडल्यान देवांची पुजा करून आमकां कसलें पुण्य मेळटलें असो विचार मनांत आयलो आनी दिसपट्टो येवपी भटय बंद जालो. कुलदेवाची, ग्रामदेवाची समराधना थांबली. एक समराधना वाडपाचें थांबोवप म्हळ्यार मात जिवाक खूब त्रास जाले. ती आशिल्ली आंब्यांची समराधना !

आब्यांची समराधना ! कितली सोबीत आनी रसिक कल्पना ! आंब्यांची समराधना वैशाखांत येताली. ती एक व्हड परबच म्हळ्यार जाता. उत्सवच तो. त्या दिसा घरा तरातरांचे आंबे हाडताले. मानकुराद, मुसराद, मांगिलाल, आफोंस, फेर्नांद - रसाळ आंब्यांच्या वासान, परमळान राजांगणा भोंवतणची

चवकी परमळीत जाताली. जेवणांत घोटांचें सांसव आसतालें. घोटां, पणसाचे गरे आनी अनसाच्यो फोडी घाल्ली अनसाफणसाची करम आसताली. हुनहुन शितार आमलेची उड्डमेथी, तरांतरांच्यो शाकभाज्यो, करकरीत आमलेचें लोणचें, पापड हाजे बराबर आमरस आनी पुरी असो सगलो जेवणाचो थाट आसतालो. आंब्यांचे समराधनेक एक ब्राह्मण येतालो. दक्षिणेबराबर ताका चार तरांचे धा धा आंबे दिताले. आमी सगलीं भुरगीं वैशाखांतली आंब्यांची समराधना केन्ना येता काय हाजी वाट पळयताली.

आंब्यांची समराधना वाडपाचें हांवें थांबयलें ना. आंबो म्हाका प्रिय, भोव प्रिय. आंब्यांचो रूख, रूखावयली कोगूळ, आंब्याची ताळी, आंब्याच्या पानांचें तोरण, आमली, घोंट, अमुरपिको आंबो, रसाळ पिको आंबो, आमरस, लोकवेदांतल्यो आंब्यांवयल्यो लोककथा, लोकगीतां - आंब्याचें सगलेंच अप्रूप.

नाल्ल, केळ आनी आंबो हें आमचे गोंयचे कृषी संस्कृतायेचें एक संचित. आंब्यांची समराधना आमगेर केन्नाच्यान सुरू जाली कोण जाणां. म्हज्या हातान ती थांबोवपाचे 'पाप' हांवे केलें ना.

अन्न म्हळ्यार ब्रह्म, परब्रह्म हें म्हाका पट्टा. आंब्यांच्या समराधनेबराबर आमच्या जाण्टेल्यांनी अळम्यांची, काळंगाची, मयंडोळ्या केळ्यांची समराधना किद्याक दवरली ना हाजें म्हाका वायट दिसता.

तर वैशाखांत आंब्यांची समराधना वाडपाचे हावें चालू दवरल्लें. आनी अशेच एके समराधनेतल्यान हे काणयेची सुरवात जाली.

ताजे अशें जालें - एके समराधनेपयलीं हांवें म्हजे आवयक विचाल्लें -- आंब्यांचे समराधनेक ब्राह्मण आपोवंकच जाय? आनी तो ब्राह्मण भटांबामणांतलोच आसूंक जाय ? आंब्यांचे समराधनेफाटलें म्हजें देवस्पण आनी म्हजो भावार्थ म्हजे आवयक बेसबरो खबर आसलो. ती फकत हांसली.

त्या वैशाखांत आंब्यांचे समराधनेक कोणाक आपोवचो हो प्रस्न म्हाका पडलो आनी मागीर म्हाका सिध्दप्पाची याद जाली.

सिध्दप्पा ! पांच स वर्सांपयली माडांक सावळ घालपाक म्हणून कोणेतरी सिध्दप्पाक हाडिल्लो. तेन्ना दोनतीन दीस सिध्दप्पा आमच्या मागीलदारच्या पोरसांत वावुरलो. ताणे एकट्यान सगल्या माडांक आळीं काडलीं. सांवळ सारें घालें. पोरसांतलें वाडिल्लें तण सगलें कापलें. वालींच्यो जटा मोडून तांचे केंस वळयले. निरपणसाच्या मुळाक तामडी माती घालून ताका थंडाय दिली. बिमलीणीक थाकाय दिली. आमाड्या कुशीतलें दुरीग मोडिल्लें तें सारकें केलें. मस्का वटेनच्या बांदांची मेर बांदली. फाटलें पोरसूं आनी फुडलें आंगण लखलखीत निवळ केलें. दशिण, बटमोगरो आनी अनंताच्या मुळापोंदचो पालो

काडलो.

सगली कामां सिध्दप्पान कशीं झटपट पटपट केलीं. बांयत पडिल्लो राजू आनी कळसो काडलो. कोयतेक धार काडली. फुटिल्ले नळे घाले. पडवेर वावझड येता थंय मल्लां लायलीं. कसलीच पिरङ्ण नासतना हांसत्या तोंडान सिध्दप्पान सगलीं कामां केलीं.

मागीर त्या वर्सांच्यान सिध्दप्पा आमगेर येत रावलो. कसलोय वावर आसूं, सोयरींधायरीं येवं नाजाल्यार लग्नपरब आसूं सिध्दप्पाबगर पान हालना जालें.

त्या वर्सा वैशाखांत आंब्यांचे समराधनेक ब्राह्मण म्हणून हांवें सिध्दप्पाक आपयलो. पयल्या पाटार सिध्दप्पा, मागीर हांव आनी म्हज्या म्हन्यांत दत्ती आनी चिराग अशी आमी जेवंक बसलीं. केळीच्या पाचवेचार शिरतेर समराधनेचें हुनहुनीत घमघमीत जेवण.

सिध्दप्पान हात जोडले. वाडिल्ल्या पानांक ताणे मोट्या भक्तीभावान नमस्कार केलो. "सिध्दप्पा, जेव आतां" - हांवें म्हळें. सिध्दप्पा खिणभर ओग्गी रावलो. ताणे शिरती कवळ्ळी. बोल्सांतल्यान एक कागदाचे पुडकें काडले. तातूंर ती बांदली. आनी सिध्दप्पा उठलो. आमी पळयत रावलीं. सिद्दप्पा उठलो आनी चलत रावलो. भायर ताजी सायकल आशिल्ली. ताजेर बसलो आनी फाटींफुडें पळयनासतना गेलो.

हांव गाडयेंत बसलो. दत्ती, चिराग आनी हांव सिध्दप्पा फाटल्यान गेलीं. सिध्दप्पा मुंगलार एके खोपींत रावतालो. आमचे पयली सिध्दप्पा थंय पाविल्लो. ताजी सायकल भायर आशिल्ली. आमी खोपींत भितर सल्लीं. सिध्दप्पान कागदाचे पुडकें सोडोवन जमनीर  पान दवरिल्लें. ताजे मांडयेर चार पांच वर्सांचें ल्हान चली आशिल्लें. आपल्या सान हातांनी तें आंब्यांचो काथो चोखतालें.

आमकां पळोवन सिध्दप्पा उठलो. ताजे दोळे दुकांनी भरून आयिल्ले. "पत्रांव !" पात्रांव हें कोकणी उतर  ताज्या तोंडांतल्यान अशे तरेन येताले. "म्हाका जेवूं नजो जाले, पत्रांव !" इतलेंच ताणें म्हळ्ळे आनी तो बसलो.

आमी घरा परतलीं. फुडल्या वैशाखांत आमी आमची चूक सुदारिल्ली. ते समराधनेक ब्राह्मण म्हणून सिध्दप्पा आनी सवाशीण आपोवपाची रीत नासली तरी सवाशीण म्हणून कावेरी आनी व्हडवी म्हणून नागव्वा आमगेर आयलीं. ते समराधनेक सिध्दप्पा पोटभर जेवलो. थळावे  कानडींत ताणे आमकां तोंडभर आशीर्वाद दिलो.

त्या दिसाच्यान सिद्दप्पाबराबर कावेरी आनी नागव्वाचो आमगेर यो वच सुरू जालो. आपल्या एका वाडदिसाक दत्तीन नागव्वाक आपयलें. तांबड्या

बुट्ट्यांचो भेस घालून आनी मोटव्या केसांच्यो दोन घट्ट विणयो घालूंन नागव्वा आयलें.

नागव्वा काळें पूण किट्ट काळें न्हय. काळसावळें. ताजें नाक चेपटें दांत धवेफुल्ल. गालार हयन्हयशी खळी. दोळे नितळ निवळ. कपल ल्हान आनी तोंडभर हांसो. ओतो आयिल्ल्या दुधाभशेन हांसो. नागव्वाच्या हातांत एक चानयेचें पील आशिल्लें. दत्तीक ताणे हाडिल्ली भेट. सगलीं भुरगीं नागव्वाभोवतणी जमलीं आनी ताज्या हातांतल्या चानये पिलाक टुक्टुक् करून पळोवंक लागलीं. सिध्दप्पा अपुर्बायेन आपले चलयेक पळोवंक लागलो. आमी पोलरायड कॅमेऱ्यांतल्यान नागव्वाचो रंगीत फोटो काडलो आनी सिध्दप्पाच्या हातांत दिलो. सिध्दप्पा खूब खूब खोशी जालो.

एक दीस सिध्दप्पा कावेरीक आनी नागव्वाक घेवन आमगेर आयलो. तुमच्या सगल्यां बराबर आपलो फोटो काडात अशें ताणे सुचयलें. आमी आमचो ग्रुप फोटो काडलो. फ्रेम करून सिध्दप्पाक दिलो. आपले खोपींतल्या एका खांब्यांक खिळो मारून सिध्दप्पान ताका ती फ्रेम लागली. येत्यावत्याक आपोवन तो फोटो सिध्दप्पा दाखोवंक लागलो. --

हो आमचो स्वामी. हो आमचो पत्रांव.

जो भाकरी दिता तो स्वामी, तो देव ही सिध्दप्पाची सादीभोळी धर्मकल्पना आशिल्ली. हांव दिसलो म्हणटकीर सदांच मोटे कृतज्ञतायेन तो म्हाका नमस्कार करतालो. हांवे केन्नाय म्हणचें -

"सिध्दप्पा हांवे तुका किदें दिलां ? तुजे जोडीचें तूं खाता."

पूण असलें अर्थशास्त्र सिध्दप्पाक माननाशिल्लें. ताजें अर्थशास्त्र ताजेभशेनच भोळें आनी भावार्थी आशिल्लें.

एकदां घराफाटल्या पोरसांत खणटां खणटां सर्कन एक सोरोप भायर आयलो. हांव कुशीन आशिल्लों. हांवे सिध्दप्पाक म्हळें -- सिध्दप्पा, मार ताका, ना जाल्यार चाबतलो तो आमकां.

सिध्दप्पान म्हज्या खंयच्याच उतराक केन्नाच न्हयकार दिलो ना. त्या दिसा मात मान सकयल घालून तो ओग्गी उबो रावलो.

"सिध्दप्पा, मार त्या सोरपाक. ना जाल्यार हांव मारतां ताका." हांवे म्हळें.

सिध्दप्पान म्हाका आडायलो ताणे सोरपाक नमस्कार केलो आनी म्हळें -- "पत्रांव, जाय जाल्यार म्हजी गोमटी कातरात. पुणून सोरोप मारूं नाकात. नाग तो. भूदेव तो. राखणो तो."

सिध्दप्पाच्या तोंडांतल्यान आदिम आदिवासी संस्कृतायेची सोरपासंबदीची श्रध्दा उक्ती जाली. ताजे नदरेन तातूंर केदो अर्थ आशिल्लो. हाका ताजो

कुड्डो विश्वास अशें म्हणूं येत ? ताजो लोकवेद तो. वेदान्त तो.

सिध्दप्पा नागपंचमेक भुंयेर कुदळ मारिनाशिल्लो. भूंय ही रोंयण नागाचे देवूळ ते. नाग ताजो देव. भूदेव, राखणदेव, कुलदेव, ग्रामदेव. सिध्दप्पाचे देवदेवस्पण तें इतलेंच.

एक दीस घर शिंवपाक सिध्दप्पा आमचे माळयेर आयलो. म्हजे अभ्यासिकेतलीं पुस्तकां पळोवन ताका अजाप जालें -

"पत्रांव, इतलीं पुस्तकां वाचतात तुमी ?" ताणे विचाल्लें. आपल्याक तर वाचूंक बरोवंक येना हाजी खंत ताज्या तोंडार दिसली.

हांवे म्हळ्ळें -

"सिध्दप्पा तुका वाचूंक येना. बरोवंक येना. पुणून तुका हेर कितल्यो गजाली येतात. तातूंतली एकय म्हाका येना. तूं शेड्ड्याभशेन माडार चडटा. बेबकाभशेन बांयत उडी मारता. कासवाभशेन सपसप पेंवता. तुजो भेस तूं शिवता, तुजे जोडे तूं करता. तूं शिनूंक जाणा. तूं रानूंक जाणा. तूं खणटा. तूं रोयता. तूं पाडो करता. तूं गवंडीकाम जाणा. तूं मेस्तपणा जाणा. तूं वेल्डींग करता. तूं प्लंबिंग करता. तू बेथो घालता. तूं नळे शिंवता. हांतूतलें कांयच म्हाका येना. कोण बुदवंत ? तूं काय हांव ?"

सिध्दप्पा आयकतालो. खिणभरांत तो नॉस्टाल्जिक जातालो.

"जाणां पत्रांव - एका वर्सा आवयन म्हाका शाळेंत घाल्लो. म्हयनो देड म्हयनो शाळेंत गेलो. तेच वर्सा दुकळ पडलो. आवय मेली. गांव सोडलो. शाळाय सोंपली."

सिध्दप्पाचे एक सपन आशिल्लें. नागव्वाक शाळेंत घालतलों, ताका शिकयतलों. तो म्हाका म्हणी "आतां खूब वर्सां हांगा रावलों. आतां गावांत वतलों. किदेंय शेतकाम करतलों. नागव्वाक थंयच शाळेंत घालतलों."

नागव्वा सात वर्सांचें जालें तेन्ना इतले दीस खबर नाशिल्ली एक गजाल आमकां कळ्ळी. आमी कावेरीक विचारलें - तुमकां हें चली खूब वर्सांनी जालें काय किदें ? कावेरीन सांगलें -- लग्नाउपरांत तांका कितलींशींच वर्सां भुरगें जालें ना. यल्लमाची होरावणी जाली. देवदेवस्पण जालें. नागदेवाक आंगवण सांगली. कांयच उपेग जालो ना. मागीर एक दीस सिध्दप्पान स म्हयन्यांच्या सान चलयेक पोसकें घेतलें. नागव्वा हें ताजें आवयचें नांव. तेंच ताणे चलयेक दवल्लें.

सिध्दप्पा दर म्हयन्याक आपले जोडींतले कांय पयशे म्हजेकडेन दितालो. नागव्वाच्या नावान बँकेंत एक अकाउंट उगडील्लो. तातूंत ते पयशे हांव भरतालों. सिध्दप्पाची जोड ती कितली! पूण सिध्दप्पान आपल्या

जेवणाखाणाकडेन, भलायकेकडेन पळयलें ना. विडी सोऱ्याक हात लायलो ना. तो जाता तशे पयशे जमयतालो. ताका नागव्वाच्या फुडाराचो ध्यास लागिल्लो.

एक दीस म्हाका आमोरेर रकाद आयलो - सिध्दप्पा बरो ना. तसोच उठून हांव सिद्धप्पाचे खोपींत गेलो. सिध्दप्पाच्या आंगार जोर खतखतालो. तशांतय तो उठून बसूंक लागलो. ताणे हात जोडले आनी म्हळें --

"पत्रांव !" ताज्यान फुडें उलोवं नजो जालो.

"सिद्धप्पा, तूं बरो जातलो. फाल्या हांव वैजाक घेवन येंता. तूं कांय भिवू नाका" -- हांवे म्हळें.

सिध्दप्पा खिणभर हांसलो. त्या हाशांत सदांची सदाफुली खोशी नाशिल्ली. त्या हाशांत एक रतनआबोली वेदना आशिल्ली. म्हाका चर्र जालें. सिध्दप्पाच्या दोळ्यांत म्हाका मरणाची कृश्णकाळीं पावलां दिसलीं.

सिध्दप्पा वांचतसो दिसना -- हांवे घरा येवन म्हळें. आनी जालेंय तशेंच. दुसरेच दिसा फांतोडे पारार सिध्दप्पा मेलो.

कावेरीन चड शोक केलो ना. नागव्वाक मर्णाचो अर्थ कळ्ळो ना. रोप्यावयलें फूल गळटा, ताळयेवयले पिके फळ पडटा, धर्तरेवयलो रूख मोडून पट्टा -- जे तटस्थतायेन शेतकामती सैमांतल्या ह्या गजालींकडेन पळयता तेच भावनेन कावेरीन सिध्दप्पाच्या मर्णाकडेन पळयलें. तिसऱ्याच दिसा ती कामाक लागली.

एका म्हयन्यान कावेरी आमगेर आयली. तिज्या बराबर नागव्वा आशिल्लें. कावेरीच्या हातांत ल्हानसो ट्रंक आशिल्लो. तीं गांवाक वचूंक भायर सरील्लीं. हांवें बँकेतले पयशे काडले. तांतूत आमचे कांय पयशे घालून कावेरीच्या हातांत दिले. दत्तीन नागव्वाक आपले ल्हानपणांतले भेस दिले. चिराग कोणाक आपले कुस्कूटय दिना. त्या दिसा ताका किदें दिसलें कोण जाणा. तो आपले कुडींत गेलो आनी वासाचे रबर, रंगीत पेन्सिल आनी बोमाड्याचें एक पेपारें हाडून ताणे नागव्वाच्या हातांत दिलें.

नागव्वा आनी कावेरी एक दीस आमगेर रावलीं. दुसऱ्या दिसा आमी तांका स्टेशनार पावयलीं. रेल्वेची तिकीट काडून दिली.

दत्तीन खंयच्यान तरी एक कन्नड चित्रबोध हाडिल्लो. ताणे तो नागव्वाक दिलो. ताज्या सान हातांत दत्तीन आमचो नामो आशिल्लें एक पोस्टकार्ड दिलें आनी नागव्वाक सांगलें --"नागव्वा, तुका कन्नड बरोवंक आयलें म्हणटकीर तुज्या हातान आमकां चीट बरय."

नागव्वा मंद हांसलें. गाडी आयली. कावेरी आनी नागव्वा गाडयेंत चडलीं. गाडी सुरू जाली. जनेलांतल्यान हात भायर काडून नागव्वान चिरागाक, दत्तीक आनी आमकां सगल्यांक टाटा केलें. गाडी पयस गेली. नागव्वा पयस गेलें.

सिध्दप्पाची काणी सोंपली. कर्नाटकांतल्या एका पयसुल्ल्यां गावांत नागव्वाची काणी सुरू जाली.

नागव्वाचे चिटयेच्या रूपान ते काणयेचो सुखान्त केन्ना जातलो हाजी आमी आतां वाट पळयतात.





एके वेगळेच सपनाळ तंद्रेत हे ललीत निबंद बरयल्यात. एकेक निबंद म्हळ्यार एकेक गद्य कविता कशी!...

जिणेचेर उपाट मोग करपी हो बरोवपी सरभवतणीच्या ल्हान सान गजालींकडेन बारीकसाणीन पळयता. अंतर्मुख जावन विचार करता आनी मागीर पिकासोच्या चित्रांभशेन ते गजालीचो वेगळोच आयाम वाचप्यामुखार दवरता.

भाशेची गिरेस्तकाय, शैलीचें खेरीतपण आनी विचारांची खोलाय हे ह्या ललीत गद्याचे गुणविशेश... बरोवप्याच्या संवेदनशील, रसीक आनी व्यासंगी व्यक्तीमत्वाचें पडबिंब तांतूत पडलां.

